# मेरेवेलो गांवकार




लक्ष्मीनारायण पारज




---



○ प्रकाशक :

प्रभाकर द. भिडे – राजहंस वितरण
१–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्हुल्फांगु द सील्व मार्ग,
पणजी ४०३ ००१

○ पयली आवृत्ती : १९८९ 

○ प्रकाशक क्र. : ६९

---

○ मुखपृष्ठ आनी सजावट : दिगंबर शिंगबाळ

○ मुद्रक : रवि मुद्रणालय, बेळगांव.

---

मोल :
1989 ... ... ... रु. 60/–
1990 ... ... ... रु. 65/–
1991 ... ... ... रु. 70/–

साहित्य पसवण : वीस रुपया

ISBN–11–85339–68–6

अर्पण—

पुस्तक छापणारो आपले पयशे
घेता.
उजवाडवपीय आपली पड
सोडयता.
बरोवपी कितेंय मेळ्ळचार
बोल्सांत घालता;
सगळे हक आपलेकडेन दवरता.

आतां अर्पण करपाचें कितें
उरता ? तेंच म्हाका समजना,
तेन्ना कितेय उरलें जाल्यार

म्हज्या मोगाळ वाचप्या....
तुकाच अर्पण....!!



लक्ष्मीनारायण पारज

अनुक्रम



## लेखकाची वळख

भुरगेपणासावन धार्मिक आनी सांस्कृतिक उत्सवांतल्यान साहित्य, नाटक, नकला हांची आवड. व्ही. जे. टी. आय. (मुंबै) आसतना कोंकणी विभागाचो प्रतिनिधी म्हण काम.

महेंद्र फळदेसाय, पांडुरंग फळदेसाय अशा वांगडयांसांगाताक कलेक पाजण मेयळी आनी 'नाटयवेडा गोमंतक' नावाच्या विटंबनात्मक कार्यावळीचे गोंयच्या गांवगिऱ्या आनी शार वाठारानी सुमार पंचवीस प्रयोग सांगात्यांसैत माचयेर हाडल्यात.

गोमंतक साहित्य सेवक मंडळाचो कार्याध्यक्ष म्हण काम केलां. बाकीबाब बोरकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय ह्या म्हालगडयांच्या सांगाता वरवीं साहित्याच्या माटवांत बोवाळ्ळो. रामकृष्ण फळदेसाय, वामन राधाकृष्ण हांचेसारकेल्या इश्टांक लागून तांच्या लिखणेक कंट फुटलो. तांतल्यानच तांचो 'मेरेवेलो गांवकार' जालो. ह्या बरपावळीक गोवा कला अकादमीचो साहित्य पुरस्कार फावो जालो आनी नामनेच्या कोकणी साहित्यिकांच्या वळेरींत तांचो आसपाव जालो.

संतसाहित्य आनी धर्मग्रंथ हातूंत तांका विज्ञान आनी अध्यात्म हांची सोयरीक सोदपाची आवड.

लक्ष्मीनारायण पारज हांचे बरपावळींत मनीस–सभाव आनी मनीस–वेवार हांतलें सत्य सोदपाखातीर उचंबळ जाल्ले उमाळें दिसतात. हे उमाळे विनोदाचो परकाळा वेडावन येतात, पुण त्या परकाळयाक दुःखाची देग आसा. खोलायेंत लिपिल्ली खत आनी धोंगीपणाविशींची तिडक आसा. त्याचवांगडा आदरभावाची नमळाय आसा. तांच्या बरपावळीक ह्या मातयेचो वास आसा, धेक आसा. तोच तांच्या बरपावळीचो श्वास आसा.

कोंकणी साहित्याचें आनी एक दालन सोबीत करपाखातीर तांची बरपावळ फावो तो वांटो उखलतली हातूंत मात्सोय दुबाव ना. तांचो 'नण्णी' हो कवितासग्रह निकतोच वयार आयला.

# शालीवाहन






त्या दिसा वडाकडेन
गडद तिनसाना ।
मंद मंद वाजत आयलीं
तुजीं गो पांयजणां ।।

बाकिबाब बोरकार हांची याद येतकच ही धून कानार आयकूंक येता. तशेंच ही धून कानार पडली जाल्यार बाकिबाबाची याद येता. असो सांगड आनीक कसलो आसा तेंच म्हाका येवजना !

गांधी टोपी, नेहरू शर्ट ह्या भेसान जशें एक वेगळेपण आनी आपलेपण आसा तशें बोरकारी भेसान खास वेगळेपण आसा आनी त्या वेगळेपणान आपलेपण आसा ! ! धवेंफुल्ल धोतर, ताजेर धवो सदरो आनी खांदार लॅव कोराची शाल म्हळ्यार बोरकारी भेस ! ! ह्या भेसाक लागून साहित्यिक इश्ट बाकिबाबाक शालीवाहन म्हणटात.

बाकिबाब मोटो खांपो कवी ही जाण म्हाका शाळेंतल्या पुस्तकांतल्यान आयिल्ली. दिव्यत्वाची जेथे प्रचिती । तेथे कर माझे

जुळती । ह्या ओळींनी पेज्ञाद कितेंतरी आसा इतलेंच समजतालें. गोंय स्वतंत्रतायेचें वारें आमच्या भुरग्यांच्या कानांत घुसलें तें बाकिबाबाच्या कवनांतल्यान.

महात्मा गांधी आयलो रे ।
गोंयांत आमच्या पावलो रे ।
लोहियान हाडलो बावटो ताचो
मडगांव शारांत लायलो रे ! !

हे कवन म्हणत शाळेंत वतना वाटच मोटवी जाताली !

दोनोर बोस, दोतोर बोस,
समजीकायेन वाग.
तकली तुका ना जाल्यार
उठून चलूंक लाग ! !

हें कवन म्हणटा आसतना आमी पाडकांभाशेन बेफाम जाताले!

फुडें कांय तेंपान 'सखी भावगीत माझे' फेम कवी वसंतराव हेबळे हाणी म्हजी बाकिबाबाकडेन वळख करून दिली.

हांव तेन्ना इतलो खोशी जालों तसो नेर्वोज जालों आनी म्हजें कितें कितें जालें तें अणभवानच कळपाचें. म्हजी सामकी कायलोळी कशी जाली ! ! ह्या कवीचें व्हडपण म्हाका भुरगेपणांतच कळ्ळें, म्हणून म्हाका म्हजोच अभिमान दिसलो आनी बाकिबाबाची वळख जाल्ल्यान अभिमान दुणावलो ? वळख वाडून आमीज्ञाद जाली आनी मागीर सामकोच घरावो जालो.

उदकावयर झेलाफातोर णववो वांटो दिसता आनी आठ वांटे उदकाभितर आसतात, तशें बाकिबाबाचें बरप. हो ताजो णववो वाटो. आठ वांटे बाकिबाब लोकांक कळ्ळोच ना अशें म्हाका दिसता !

बाकिबाबाची आमीज्ञाद काका कालेलकार, मामा वरेरकार अशा म्हाल म्हाताऱ्यांकडेन आशिल्ली. तशीच आठ वर्सां पिरायेच्या भुरग्याकडेनय आशिल्ली. ताच्या नातवापरस ल्हान भुरग्याकडेन रमी खेळपाक तो आपणाक विसरतालो. रामकृष्ण बजाजा सारको मोटो

धंदेकार ताका खूब मान दितालो तशेंच कितलेशेच बेकार भिकारी ताका आपलो म्हणटाले. असो तो मंत्र्यासंत्र्याचो आमीग आशिल्लो.

एक मजेची गजाल जाली. हांव आनी बाकिबाब पणजे एका हॉटेलांत च्या घेवन भायर सरताले. दारांतच आमकां एक भिकारो दिसलो. तो तसो सदचो वळखीचो भिकारी. बाकिबाबाक पळोवन धांवत म्हऱ्यांत आयलो.

'आरे ! बाकिबाब, केन्ना आयलो ?' अमेरिकेक गेल्लो न्ही गा तूं ! आमी तुजी याद सदांच करतात यो च्या घवया आमी ! !'

'आसूं ! आसूं ! आतांच घेतली आमी च्या, मागीर केन्नाय घेवया !' बाकिबाबान म्हळें.

त्या भिकाऱ्यान बोल्सांतल्यान एक रुपया काडलो आनी बाकिबाबाच्या हातार दवरलो 'हो रुपया घे आनी केन्नाय च्या मार म्हजी म्हणून, हांव आसत नासत ! !'



हो प्रसंग पळोवन हांव निर्शेलों ! एक भिकारी बाकिबाबाकडेन आरे तुरेचे भाशेन उलयता. ताका च्या मार म्हण एक रुपया दिता. हें पळोवन हावें मनांत म्हळें, 'तेथे कर माझे जुळती !'

बदक उदकाचेर वयरसून पळयल्यार धवोफुल्ल दिसता आनी उदका पोंदसून पळेल्यार ती शांतताय सांबाळपाक थांब नासताना पेदालां मारीत आसता; तसो बाकिबाब सदां मोगरे कळयांभाशेन प्रसन्न सुवासीक हांसतालो. ताका ताच्या रातदीस चिंतनाची बाजू आशिल्ली.

बाकिबाबाच्या चिंतनान राजकी खंत, समाजीक खंत, वेव्हारीक खंत अशो कितल्योशाच खंती आशिल्ल्यो ताका हावें आपली वा बायल





भुरग्यांची चिंता करताना केन्नाच पळोवंक ना ! फार्टी इंदिरा गांधीन 'इमरजन्सी' घोशीत केली तेन्ना बाकिबाब सामको बेजार जालो. हिंदुस्तानाचें राजकारण गूड लोकांच्या हातांत वचत हाचो ताणी खूब धसको घेतलो. विनोबा भावेन इमरजन्सीक 'अनुशासन पर्व' म्हळें तें वाचून बाकिबाब रागान बेताचो व्हिब्रादोर कसो कडकडटालो. ताणें रोखडोच आपलो निशेध चीट बरोवन विनोबाक कळयलो.

'समाजांतल्यान मनीसपण दिसानदीस शेणत चल्लां आनी राकेसपण वाडत चल्लां' हाची तो दीसरात चिंता करतालो.

राजकारणी लोकांक अच्छेर करूक सगलें रान मेकळें जालां, ताका आळाबंद हाडपाक कांयच उपाय ना म्हणून तो फुगार जातालो आनी मदीं मदीं तापतालो.

बाकिबाब केन्ना तापना अशी पयलीं म्हजी समजूत आशिल्ली, पूण ह्या दिसांनी तो तापतालो तें पळोवन म्हाका अजाप जालें. हांवें ताका म्हळें, 'बाकिबाब, तुका तापूंक येता.'

'आरे ! तापप हें आमचे बडीचें. आमचे पांच प्रवर, म्हळचार कुलाचे म्हालपुरुस. भार्गव, च्यवन, आपनव, औरव, जमदग्नी. तातूंत भार्गव, म्हळचार भृगुऋषी. तो एका दिसा विष्णुचेर तापलो आनी जमदग्नी हो जाल्यार रागाची मोट. मागीर ताच्या कुलाचो हांव कित्याक तापचोना ? म्हाका चादराक चुरी पडल्यार राग येता.'

'अशें ? मागीर 'जीवन त्याना कळले हो मीपण ज्याचे पक्व फळापरी सहजपणाने गळले हो !' हें कवन तुमचें न्हय' हांवें म्हळें.

'हय, मागीर किदें जालें.'

हें कवन बरोवपी कवीक चादरार चुरी पडल्यार राग येता हें फुडें केन्नाय जर लोकांक कळन जाल्यार लोक कालीदासाभाशेन बाकिबाब एक काय दोन आशिल्ले ? असो वाद घालीत बसतले. हो एकूच मनीस कसो आसूं येता ?

बाकिबाब धादोस हांसलो आनी म्हणूं लागलो, 'खरें तुजें. ताजें किदें आसा, तो एक अवसर ! देवळांत भगत आंगार अवसर येतकच



कितल्याय व्हड मनशाचे छातयेर हात मारून 'तू भियेवं नाका हांव तुजी राखण करतलों!!' अशें म्हणून नेंटान सांगता आनी दुसऱ्या दिसा तोच भगत त्या मनशा मुखार कदेलीचेर लेगीत बसूंक धजना. भायर आंगणामेरेर बसता. अवसर निवळटकच ताजो तो नेटत्र निवळटा. तशें, कविता हो एक अवसर-तो निवळटकच हांव देखून हेर मनशांभाशेन मनीस! म्हज्याय आंगांत उणें दुणें खूब आसा. दुसरें कितें जाणां? राजकी, सामाजीक वेव्हारीक मळार आजनेरी चलतात त्यो सोसू नज जाता आनी आपल्या मनाआड काळीज बोब्र मारता!! मनाची समजिकाय घाल्लूं येत पूण काळजाची नाडी मनशाकडन नासता, ताका बांदतलो कोण? आयज वता थंय बंद, घेराव, सत्रका काम करप हें पळेल्यार देस सुदारता काय फाटल्यान वता तेंच कळना, तरी बरें देवान सूर्य, चंद्र, पृथ्वी, नखेत्रां हांची गती आपल्या हातान दवरल्या. ना जाल्यार हे लोक एक दीस पृथ्वी भोंवपाची बंद करता आसले!

सूर्यंच उदेवपाचो बंद करता आसले ! देवान नखेत्रां मनशाचो हात पावना अशा जाग्यार दवरल्यांत, ना जाल्यार आमचे लोक तीं खुंटून मळब मेकळें करून उडयता आसले ! !'

'बाकिबाब, तुमी महात्मायन कित्याक पुराय करीनात ?' हांवें विशय बदलपाक विचारलें.

'आरे, दर खिणाक गांधीची अशी हत्या जाता, ताका लागून म्हज्री प्रतिभाच पॉल जाता. ही प्रतिभा घेवन बरोवंक जाता ? हांव एक मनीस न्हय ?' अशी ताणी आपली खंत परगटायली.

बाकिबाब ल्हान भुरग्यांवांगडा रमी खेळटाना भुरगो जातालो आनी मोट्या पंडितावांगडा गजाली करताना तांचें एकएक उतर सुरती रुपया कशें वाजतालें ! शब्द कसो आसचो हें सांगताना, 'बिंब जरी बचकेंच एवढें। तरी प्रकाशा त्रिभुवना थोकडें' अशें म्हणून तो ज्ञानेश्वरींत भितर सरतालो. काय ज्ञानेश्वर ताचे भितर संचारतालो हें हांव सांगूंक नकळ. पूण आयकुप्याक आयकत रावन दिसतालें.

साच आणि मवाळ ।<br>
मितले आणि रसाळ ।<br>
शब्द जैसे कल्लोळ ।<br>
अमृताचे ।।

अशें मनशान उलोवंक जाय. अशें तो सदांच सांगतालो.

गीता, ज्ञानेश्वरी गाथा हातुंतलीं उतरां सहज मोखप ही ताची स्पेशालिटी.

उपमा दिवची ती ज्ञानेश्वरानच अशें सांगतां सांगतां बाकिबाबय एकदम सँटर फिटींग उपमा दितालो. सँटर फिटींग हो ताचोच शब्द. रमी खेळटाना चार पानां जोडपी मदलें पान आयल्यार ताका तो सँटर फिटींग पान म्हणटालो. अशो ताच्यो उपमा सँटर फिटींग आसतात्यो.

एका दिसा ताणें म्हाका म्हळें, 'आमकां देवादर्शन कशें जातलें ? आवयच्या पोटांत आशिल्ल्या भुरग्यांक आपले आवयचें दर्शन घेवचें

दिसल्यार तें कशें जातलें ? म्हाका दिसता देवादर्शन घेवपाक सोदप हेंच मोटें पिशेपण ! अशे भाशेन तो आमच्या आनी देवाच्या नात्याचें कुवाडें सोडोवन दाखयतालो.

आमी रमीक कट ज्योकर वापरताले, ताका बाकिबाब मंत्री म्हणटालो.

'बाकिबाब, ताका मंत्री कित्याक म्हणटा' हांवें विचारलें.

'आरे, आयक हे मंत्री सत्तेर आसतना केन्नाच कोणाक हटकीनात आनी कुल्यापोंदचें कदेल वतकच मनशाळूंक सोदतात आनी चड लागेळपण करतात. तशे हे फाटल्या डावाचे कट ज्योकर. आतां हातांत गर्दी करतात आनी आतांचो कट ज्योकर तोंड लेगीत दाखयना !'

'बाकिबाब, तुजी आनी तुज्या साहित्याची वता वत थंय तोखणाय जाली. तुका राष्ट्रपतीकडच्यान पद्मश्री मेळ्ळी. पूण तुज्या घरच्या लोकांकडच्यान तुजी तोखणाय कशी जाली ना ? घराबो वाडिल्ल्यान हावें असो अडाणी प्रस्न केलो.

'गोंयचे लोक म्हाका बाकिबाब म्हणटात, हें तोखणायेन न्हय ? शेजारची व्हकल कुड्डी अशें म्हणटात. जेजू क्रिस्तान सांगले की साताक आपल्या गांवांत केन्नाच मान नासता. पूण म्हजें तशें जालेंना ! म्हजें गोंयांत चड कौतूक जालें. आता घरकान्नीन कौतूक केलें काय म्हणशीत जाल्यार ना ! बायलांक आपल्या घोवाचें कौतूक लग्न जावचे पयलीं खूबच दिसता आनी लग्न जातकच तें सुकता. तें कित्याक जाता जाणा? बायलेन आपल्या घोवाक लपट अवस्थत नागडो पळल्लो आसता, तेन्ना ताचेलागी कर्तबगारीची हुशारी मारल्यार तीं म्हणटात, 'पुरो ! पुरो दवर तुजें. हांवें सगलें पळेलां.' अमेरीकेचो हॅन्री फोर्ड संवसारांतलो श्रीमंत मनीस धद्यांत खांप्यांपरस खांपो. पूण बायलेमुखार बिलू जातालो ! ताका वेव्हारच कळना अशें ताजी बायल म्हणटाली, पूण हो जाप देखून काडीनाशिल्लो.



बाकिबाब पर्वरी म्हज्या शेजरा रावतालो. तो तांच्या घरा ना जाल्यार म्हज्या घरा रमी खेळत आसतालो. दिसपट्टे कितलेशेच लोक ताका सोदीत आमगेर येताले. ताका लागून पर्वरी वाटाराचोय गाजो-वाजा जालो. हांवें एका दिसा फकाणांनी म्हळें, बाकिबाब, ह्या पर्वरी वाटाराक बाकिस्थान हें नांव दवरलें जाल्यार कशें ?

बाकिबाब धादोस हांसलो. बाकिबाबाक कविता गावपाक आनी भाशणां करपाक खूब कडल्यान येवकार येताले. ताका लागून ताची खूब भोंवडी जाताली.

हांव फकाणांनी ताका म्हणटालों, ताच्या पांयांक चक्रां फुटल्यांत तेन्ना तो म्हाका सांगतालो, ' म्हज्या पांयारच नखेत्र पडलां. ताका लागून म्हजी भोंवडी निमणेमेरेन चलतली !'

तो दोनदां अमेरीकेक वचून आयलो आनी दर दोन-दोन म्हयन्यांनी दिल्ली, महाराष्ट्र, बेळगांवां ताची भोंवडी आशिल्लीच.

मदीं बाकिबाबाक प्रोस्टेट ग्लँडाचो त्रास जावन मुतप बंद जालें. ताका हॉस्पिटलांत व्हेलो. दोतोरान कृत्रीम उपाय करून तें मांडणेर घालें.

हांव ताका मेळपाक हॉस्पिटलांत गेलों. तो एका स्पेशल रूमांत कितेंतरी गुणगुणत खाटीर पडिल्लो आशिल्लो. एके देगेक मुताची बाटली बांदिल्ली आशिल्ली. तातूंत सोडिल्ले वादयेंतल्यान मूत गळत आशिल्लें.

म्हाका पयलीं बाकिबाबाची साप दैना जाल्या अशें दिसलें. पूण तो मात आपणाक कांयच जालेंना अशा झेतान कांचन संध्येच्या मुडांत आशिल्लो. म्हाका पळेतकच खाटीर उठून बसत ताणें म्हळें,

' आयलो तूं ? बेस बरें जालें. '

' कसो आसा बाकिबाब तू ?' हांवें खबर घेतली.

' म्हाका रे कितें जालां ? असलीं म्हजीं ऑपरेशनां जालीं चार दोतोरा परस म्हाकाच ताची प्रॅक्टीस चड जाल्या ! ! तें आसूं. त्या मेजा खणांतल्यो इस्पिको काड पळोवया !

हांवें त्या प्रमाण इस्पिको काडून ताच्या हातांत दिल्यो.

' ओड तें कदेल आनी बस ' अशें म्हणून ताणें उलयता उलयतां इस्पिको वांटल्यो आनी आमी हॉस्पिटलांत नासून हॉटेलांतल्या रुमात आशिल्लेभाशेन तीन वरां रमी खेळ्ळे.

बाकिबाब मर्णाक केन्नाच भियेलोना, पूण दुखीक मात थर्त भियेतालो अशें ताणेंच म्हाका सांगलें.

गोंयच्या स्वतंत्रतायेच्या झुजावेळार आपले सिर्विसेची, घरा-दाराची पर्वा केली ना. पूण मार सोंसूंक जावचोना म्हणून बाकिबाब गोंय सोडून पळून गेलो.

' पूण आतां म्हाका दुखीचो भंय दिसना. राम मनोहर लोहियान म्हजो दुखीचो भंय काडलो. ' मनशाक मार सोसूंक जातासर दुखना. चड जाल्यार मनीस निर्णेता ! मागीर ताका दुखच ना. देखून दुखीक भियेवपाची गरज ना. हें म्हाका बरें कळ्ळां.' आनी तसोच बाकिबाब वावुरतालो.

उपरांत कांय दिसांनी बाकिबाब तातुंतल्यान बरो जावन ताचीं तीन पुस्तकां उजवाडाक आयलीं.

परतून कांय तेंपान ताच्या दोळ्यांक मोतीबिंदूचो त्रास जावंक लागलो. ताचें ऑपरेशन करपाक तो पुण्याक गेलो.

ऑपरेशन एके तरणे चलयेन केलें ! ऑपरेशना उपरांत दोळे बांदिल्ल्यान दीस आनी रात सारकीच दिसताली, तेन्ना ताणें काळखा-कडेन आमीझाद केली, आनी काळखाचेर कवन बरयलें. तें ' तम स्तोत्र '

ॐ नमः श्री भगवतू नमः
प्रकाश जनका पुरुषोत्तमा
तुझया महिम्या नाही सीमा

उपमा शब्द सर्व थीटें
बापा तुझ्या ओटी पोटीं
तारा मंडले असंख्य कोटी
ज्योती कमले अति चोखटी
गोमती लावण्य भांडारे
त्यांचीच जी आदिम ज्योती
अमृत नामे बोलती श्रुती
ती तू पेरून गर्भस्थिता
निवान्ति मज जोजविले
तिज मुळेच उघडीता डोळे
यांनी कवळिले ब्रह्मांड सगळे
राहिले जे त्याही वेगळे
तेही पाहीले अंतर दृष्टी
अती पाहून शिणना दिठी
तूच त्याचे लाविली ताटी
निज कणवेची घालून मिठी
शिण शेवटी वारिले
ऐसा गा तू दातारू
मृत्यू होऊनी माझा भारु
सारो त्यारु वाहिलासी
आता दृष्टी जाहली क्षीण
म्हणोनी तुझीया चरणी लीन
आलिंगीनी मज नविन
सुवर्ण दृष्टी दे बापा
जे जे काही पाहिन नवे
ते ते सर्व साहीन भावे
प्रसाद मानून तुझ्याच नावे
सर्वात्म भावे समर्पीन.

२४ एप्रील ८४

हें बाकिबाबालें निमाणें कवीत !! त्या ऑपरेशना उपरांत जून सोंपतकच आपूण गोंयां येतलों अशें ताणें म्हाका बरयल्लें. हें ताचें निमणें पत्र.

३, प्र राम अपार्टमॅंटस्
लकाकी रोड
पुणे १६
१७ माय १९८४

प्रिय पारज,

तुजें पत्र पावलें. वाचतना तूं सामको म्हऱ्यांत बसून उलयता अशें दिसलें. आकाक तर तुजें पत्र खूबच मानवलें. तूं मराठी बरी बरयताच. पूण तुवें कोंकणी बरोवंक घेतलें जाल्यार तें अदीक प्रभावी जावंक खरें.



म्हजें मोतीबिंदुचें ऑपेरासांव २४ आब्रिलाक सकाळीं जालें आनी जालें तें बेस बरें जालें. केलें एके वयावेले डॉक्टरणीन. तिजो हात इतलो फिशाल आनी ल्हव की म्हाका त्रास असो जालोच ना.

सणसणप, कसकसप, दुसदुसप, कुचकुचप बी कांय ना. तीन मायाक म्हाका आत्रियार केलो. पयले कांय दीस काळें ऑक्ल लायलें. मागीर म्हज्या ऑक्लाच्या उजव्या दोळ्याक टेप लावन तेंच म्हाका वापरूंक सांगलें. दोळ्याक धूल्लापासून आनी वतापसून सांबाळपाचें पथ सांगलें. दीस उदेवचे पयलीं शेजारचे वाटकेंत मातशी पासय मारून येतां. केन्ना दीस अस्ताक वतकचय थोडो भोंवन येतां. हरशीं चडसो घराच आसतां. इश्ट येवन मेळून वतात. एक दोग वाचून दाखयतात. कारण सध्या म्हाका वाचूंक बरोवंक मनाय केल्या. तुका पत्र बरयतां तें क्लादेस्तीन.

आज सांजवेळार डॉक्टरणीकडेन परतें वचपाचें आसा. टांके विरतकच काडचे पडटले तें ती आज सांगतली. एकाद्री ती म्हाका नव्या ऑक्लाचीं specifications दीत.

हांगाय उजोच उजो. आदळल्या पावसाचें नांव गांव ना. तरी लेगीत राती थंड आसतात. उज्याची आतां सवंय जाल्या. क्वचीत नुसतें नातीकडल्यान येता. पयर लतानच धाडून दिल्लें. पूण हालीं हांव अर्दो आयंगार जालां. म्हणजे तुज्या म्हणण्याप्रमाण महाशिवराक. नुसत्याची याद लेगीत जायना म्हळ्यार जाता. दोळ्यांक ४५ दीस तरी सामके जपूंक जाय. अर्थात हांव गोंयां पावतासर जून सोंपतलो अशें दिसता. दुसरें, ३० नोव्हेंब्रा पयलीं म्हजीं तीन तरी पुस्तकां प्रकाशीत जातलीं अशी अपेक्षा आसा. तांच्यो प्रॅसकॉपी तयार करून दिवचेल्यो आसात. अखेर पड कोणाकच सुटली अशें न हेंच खरें. तुमी सगलीं खुशाल मरे ? भाईचो कितें विचार ?

तुजो
बाकिबाब

उपरांत हांव ताची वाट पळेतालों. मनांत पांयजणांची धून घोळयत वाट पळेतां पळेतां मदें अचकीत कितें जालें तेंच म्हाका समजना.



एक दीस पुण्यासून म्हाका फोन आयलो. बाकिबाबाचो जांवय फोनार उलयतालो; ताजेकडल्यान बाकिबाब सिरियस आसा म्हणून समजलें. दोळ्यां ऑपरेशना उपरांत घरा हाडिल्ल्या बाकिबाबाक परतो हॉस्पिटलांत व्हेल्लो !

सदां कानार वाचतल्या पांयजणांचो जागो आयज टेलिफोनाचे घांटीन घेतलो. दिसाक कितले फावटीं तरी फोन येताले. कोण बाकिबाबाची खबर दिवपाक फोन करतालो जाल्यार कोण खबर घेवपाक फोन करतालो. कोण 'ताजें दुयेंस चड जालां' म्हजे तकलेंत **येवजणेची एक जागाच जाल्ली.**

बाकिबाब परतून गोंयां येत काय ना असो दुबाव आयलो आनी तो दुबाव दिसानदीस वाडतच रावलो. तम स्तोत्रान परगटायल्ल्या प्रमाण बाकिबाब काळखाक वेंग मारता काय कितें अशी भिरांत दिसूंक लागली आनी दित् एफैत ती भिरांत खरी जाली. तो दीस आठ जुलै, १९८४. या दिसा लेगीत तीन फावटीं फोन आयलो. एक पुण्यासून, दोन पणजेसून. तीनय कडच्यान खबर एकूच ती म्हळ्यार बाकिबाब सोंपलो ! ही खबर कळटकच म्हाका कच्च जालें.

शिरशिरून आयलीं रानां ।
झेमता झेमताना . . . .

ह्या बाकिबाबाच्या कवनाच्यो ओळी याद जाल्यो.




तरीपूण म्हाका दिसलें बाकिबाब सोंपलोना ताणें तमस्तोत्र गावन काळखाक वेंग मारली आनी भांगरा दिटी घेतली. आपली कूड धादोसकायेन काळखांक ओंपली ! !



असो हो भावकवी जे तन्मयतेन 'जपानी रमलांची रात्र' गावन दाखयतालो तेच तन्मयतेन ज्ञानेश्वरी घोळयतालो. ज्या घोस्तान व्हिस्की घेतालो त्याच घोस्तान जीव ओतून शांतादुर्गेचें तीर्थ घेतालो. जे ओडीन ताणें उजवाडटो सैम आपयणालो तेच ओडीन ताणें काळखांक वेंग मारली. अशे तरेन वयर सकयल सोंवळें-ओंवळें, भायर-भितर, सूख-दुख्ख हांचें कसलेंच वेगळेपण करी नासतना जिणेच्या मळबांत धादोस उरलो. ताणें केन्ना कोणाकूच दुखोवंक ना.

बाकिबाब रस्त्यान चलतना ताच्या जोत्यांतल्यान ‘ मार भिसक्यार !’ मार भिसक्यार ! अशीं उतरां भायर सरतात अशें हांवें खंय तरी वाचलां.

आमच्या घरामुखावयलो रस्तो ताणें जायते फावटीं भिसक्यार मारलो अशें हांवें म्हज्या एका आमिगाक सांगलें. ताणें सट्ट करून म्हळें, ‘ तशें जाल्यार आमी ह्या रस्त्याक बाकिबाबाचें नांव दिवया !’

म्हाकाय तें बेस बरें दिसलें. इतलो तेंप म्हाका हें कित्याक येवजलेंना हें चिन्तूक हांव पडलों. जावं. कळाव जाल्यार कळाव. बॅटर लेट धॅन नॅवर.

पणजी–मुंबय हायवेक गुळयाकडल्यान बिठ्ठोणां वचूंक जो फांटो फुट्टा तोच हो रस्तो ! आमी ह्या रस्त्याक नांव दिवपाचो प्लॉन तयार केलो. लोकांक निवेदन तयार केलें. लोकांनीय रोखडोच व्हडा उमेदीन आपलेपणान तेंको दिलो. सरकाराकडच्यानय मागणीपत्राचेर झपाझप निशाण्यो केल्यो. बिठ्ठोणचे पंचायतीन सगल्यो सरकारी बांदांवळी करून त्या रस्त्याक नांव दिलें. **कवि बा. भ. बोरकार मार्ग.**



आपूण कवी हाचो ताका व्हड अभिमान आसलो. तो फोनार उलयताना ‘ हांव कवी बोरकार उलयतां ’ अशें म्हणटालो. देखून ‘ कवी ’ हें उतर आमी मुद्दाम घालें. गोंयच्या सभापतीन ताचें उक्तावण केलें. अशें तरेन बाकिबाबाचें रीण जरी पावलेंना तरी रिणाची जाण पावली !

‘ रीण पावपाक जायना जाल्यार ताची जाण तरी पावची ’ हें हांव ताचेकडसून शिकलों. तो एक फावट म्हणी, ‘ हांव मरतकच म्हजी कूड दर्यांत उडोवंक जाय, कित्याक जाणा ? हांव जल्मभर नुसत्या जिवाचेर जगलों, एक फावट तरी नुसत्यान म्हज्या जिवाचेर जगचें ! रीण पावपाक जायना जाल्यार जाणतरी पावची ! !

●

# वावराडी





आमची वावराडी एका दिसा अचकीत देवागेर गेली. देवागेर गेली म्हळ्यार तशी मेलीबी ना ! कित्याक तर, कोणय मेल्यार' तो देवागेर गेलो ' अशें म्हणपाची चाल आसा. पूण तशें कांयच घडलेंना !

देव म्हळ्यार रामकृष्ण देव. तो आमच्या शेजरा रावपी मिनैराचो ड्रायवर. त्या रामकृष्ण देवावांगडा आमची वावराडी गुल्ल जाली. वावराडी पोरां अचकीत नाच जातात ! तीं काम करचेपरस मोग करपाक चड फामाद, मागीर त्या मोगाक लागून नाच जावपाक चड फामाद.

आतां आमची वावराडी रामकृष्ण देवावांगडा पळून गेली अशें लोक म्हणटात. कोणें खंय तांकां प्रासार बसीन वतना पळेलीं. सध्या आमगेर वावराडी ना आनी त्या मिनैराक ड्रायवर ना ही गजाल खरी. ती देवावांगडा काय देंवचारा वांगडा गेली हें आमी पळोवंक ना. ती

देवावांगडा गेली अशें लोक म्हणटात. त्या देवाची आवय मात आमकां अबरगती भाशेन पिडूंक लागल्या. तिच्या म्हणण्याप्रमाण तिगेलो भांगरासारको एकूच पूत आमचे वावराडेन गुटलायलो. आतां देवाक तिणें गुटलायलो काय देवान तिका गुटलायली ही गजाल तो खरेलो मळबांतलो देव आनी हिजो गुटलायी काय गुटलावन घेवपी देव आनी ती वावराडी ह्या तीग जाणांकच खबर !

आमगेली वावराडी गेल्ल्यान आमगेर सामकी धांदळ जाल्या. तातूंत देवा आवय येवन आनीक कोंफुजांव करता. तशेंच ते वावराडेचो वापूय आनी आवय येवन हुयेली मारतात. तांगेली भांगरासारकी धूव दुसऱ्या भुरग्यांक तकली वयर काडून पळोवपी न्हय अशें तांचें म्हणणें. ती तांच्या उतराभायर कशीच कोणागेर वचचीना अशें तीं छाती बडोवन सांगतात. ह्या सगल्या लचांडाची जापसालकी आमच्याच माथ्यार मारतात. शेजारचो मिनैर आमकां लागून तागेलो ड्रायवर ना जालो म्हणून आमचेर गुरगुरीत जाला. वहार आमगेलें दुखणं कितले पटींनी वाडलां हाका कोंत आनी हिशोब ना. गांवा लोकाक ही एक चकाटांची खावड जाल्या.

एके वाटेन हांव मात्सो धादोस आसां ! हांव धादोस कित्याक? स्वयंवर ही आमची खूब पोन्नी वयवाट. व्हंकलेन आपणेंच आपलो घोव वेंचून काडप. त्या वेंचिल्ल्या घोवानच ताचें आँर मानप. ह्या स्वयंवरा खातीर गरज पडल्यार झुजप ही आनीक अभिमानाची गजाल कुशीक दवरून आमी आयज न्हवरो सोदपाक जोतीं झरयतात. न्हवऱ्याक हुंड्याची लांच दितात आनी हुंड्याक लागून केन्ना केन्ना न्हवरेकार व्हंकलेचो जीव लेगीत घेतात. हें कितें आडायलां आमी ? आमगेली अभिमान धरपासारकी स्वयंवराची पोन्नी वयवाट ह्या देवान आनी वावराडेन मुजरत सांबाळ्ळी, देखून हांव भितरयां धादोस जालां.

वावराडी ना जाल्ल्यान म्हजें बरोवप खूब उणें जालां ही गजाल खरी, पूण ताचो वांकडो अर्थ कोणें घेवं नये. आमचे थोडे आमीग आसात. तांकां बरें गोमटें आनी नीट अशें कांयच दिसना. दिश्टी पडटा तें सगळें वांकडें. रूं ना थंय लेगीत तांकां पूं दिसूंक लागता !

हें कित्याक सांगचें पडलें जाणात ? वावराडे खातीर म्हजें बरोवप उणें जालें हातुंतल्यान ताणी वांकडो अर्थ काडलो. एकल्याचें म्हणणें ते वावराडेचेर म्हजो जीव आशिल्लो. ती ना जाल्ल्यान हांव निर्शेलां आनी म्हजें बरोवप शेणलें !

दुसऱ्याचें म्हणणें, ही वावराडीं म्हळ्यार कामवाली खय खय पावताली देव जाणा ! ती म्हज्या कामार लेगीत पावताली. अशी कॉमीक करून पयशां पोटली सुटून पडिल्लेभाशेन फस्स करून हांस-ताले. आनीक एकल्याचें म्हणणें ती वावराडीच बरप करताली आनी हांव तें म्हज्या नांवार छापतालों !

अशो एकेकल्याच्यो तकल्यो दव्यांत पॅक करून फॉरेनाक धाडपासारक्यो. आमचे मजगतीं अशे तकलेचे मनीस आसतांना अमेरीके पयले आमी चंद्रार कशें गेलेनात हाचें म्हाका अजाप जाता! विश्वामित्राभाशेन एक नवीच सृश्ट निर्माण करपाक आमचे आमीग सगल्यांत फुडें ! आपले कुले उक्ते पडल्यार तांकां कळना पूण दुसऱ्याच्या पोल्यार मातशें कितेंय लागल्यार रोखडेंच दिश्टी पडटा.

वावराडी ना जाल्ल्यान म्हजें बरोवप उणें जालें हाका कारण एकदम सादें. पयली गजाल म्हळ्यार दुसरी वावराडी सोदची पडली. ताका लागून गांवांत जंय जंय वावराडी मेळपाची शक्यताय आसा थंय थंय मातय उसंत घेयनासतना म्हाका धांवचें पडटालें. जळीं मळीं काश्टी पाशाणी हांव वावराडी सोदतालो.

दुसरी गजाल. म्हजें अक्षर मोडी लिपींत घोळिल्लें. आतां मोडी लिपी शेणल्या. जनऱ्यो सरल्यो, खिणां मात उरलीं म्हणटात तशें. म्हजें अक्षर मोडी धाटणेचेंच उरलें ! महात्मा गांधी, बर्नाड शॉ, शेक्सपियर हांच्या अक्षरांची तीच गत आशिल्ली. देखून हांवें अनमन-पाची गरज ना ! उरफाटें, तातूत व्हडवीक मानल्यार चुकलेंशें न्हय. बऱ्या बऱ्या दोतोराचें अक्षर बरोवप्यांक लेगीत वाचूंक यना. जावं. सांगपाची गजाल म्हळ्यार, म्हजे बायलेक म्हजें बरप करचें पडलें. हांव डिक्टेट करतालो आनी ती बरयताली. तिचें अक्षर एकदम मोगरे कळयाभाशेन. मोगरेकळे एकेरी दोऱ्यान गुंथल्यार कशे दिसतात तशी

तिची बरपावळ सोबीत सुंदर ! अक्षराक परमळलेगीत मोगरे कळयां-भाशेंन येतालो. केन्ना केन्ना कांद्याचो, लसणीचो, हिंगाचो लेगीत परमळ येतालो. दनपारचें बरप केल्यार अक्षराक बरो नुसन्याचो परमळ लेगीत येतालो ! अशें म्हजे बायलेचें अक्षर नितळ आनी परमळीत ! !

आतां वावराडी गुल्ल जाल्ल्यान घरकामाचो लोड तिचे एकले-चेर पडला, तातूंत म्हजें बरप आनी खंय ? म्हजें बरप ही पोटात पडपाची गजाल न्हय. हें बेकार आसल्यार करपाचें अशें तिचें म्हणणें. ताका लागून हे मोगरेकळेय गेले आनी तो नुसत्या परमळय गेलो. आतां दिशीं माशीं एकूच विचार. वावराडी... वावराडी... आमची वावराडी गायब जातकच आमकां आनीक कोणाकोणागेर वावराड्चो ना जाल्यो हें आपसुकच कळपाक लागलें. आमच्या वाड्यार राणू नायकागेर फाटल्या म्हयन्याक कितल्योशोच वावराडचो जाल्यो! तागेर दिसपट्टी नवी वावराडी. ताका खंयसर वावराडेची खण सांपडली तें तोच जाणा !

आमची पयली वावराडी जाणटी आशिल्ली. लागीं-लागीं ऐंशीं वर्सां पिरायेची ! ती खरेलीच देवागेर गेली. म्हळचार मेली. हिचे भाशेन ड्रायवरा बरोबर पळून वचूंक ना. लागीं लागीं पस्तीस वर्सां ती आमगेर आशिल्ली. हांव जावचेपयलीं कितल्याशा वर्सां सावन ती आमगेर आशिल्ली. तिका आमी ' रामाआवय' म्हणटाले.

खरें सांगप म्हळचार ती आमची वावराडी हे म्हाका हालींच कळ्ळां. हांव तिका आमचीच आजी समजतालों.

म्हजो बापूय तिका आवय भाशेन वागयतालो रामाआवय फांतोडेर उठ्ठाली. ती उठ्ठकच कोंबो साद घालतालो. कोंब्याक साद घालपाक तीच उठयताली म्हळचार जाता.

सकाळीं उठून ती भायर–भितर सगल्याक सान्न मारताली. मागीर उदक भरप, झाडां शिपप हो वावर करताली. उपरांत आमी उठ्ठकच कोणाक च्या, कोणाक कॉफी, कोणाक दूद, कोणाक कसाय' कोणाक फोव अशो गरज आसा तशो वस्तू करून दिताली.



मागीर रांदप, उमळप, गोरवाचें पळोवप हें काम, ते काम कितें म्हण ना. जे कितें उपरासता तें काम ती करताली. घरच्या मनशाभाशेन जीव ओतून काम करताली. आमच्या भुरगेपणांत आमकां तेल लावन न्हाणोवप, दर आठ दिसांनीं किरायतें दिवप, पोटांत बरें ना जाल्यार कसलो तरी कसाय दिताली. हेंवूय दोतोराचें काम ती करताली.

तशी 'रामाआवय' आमच्या गांवगिऱ्याची दोतोरच म्हळ्यार जाता. कामणी वखद आनी कसलीं कसलीं वखदां ती दिताली जावये. दीस गेल्ली बायल– आसल्यार हिका वैजीणपणाक 'रिझर्व' करताले. केन्नाय मध्यानरातीर उठयल्यार ती हांसत्या तोंडान उठ्ठाली. कपलाक एक मिरी ना. आनी उतराक शीण ना ! आतां भाशेन सांगप म्हळ्यार ती वेंचणुकेक उबी रावल्यार झाडून सगळीं मतां घत आशिल्ली ! त्या तेंपार वेंचणुक्योच नाशिल्ल्यो म्हणून लोकांक उपकारा पडली !

ऐंशीं वर्सां पिराय म्हळयार ती भात कांडपाच्या ‘काण्णा’ भाशेन आशिल्ली. अचकीत एक दीस घुंविल्ले भाशेन दिसता म्हण न्हिदलीं ती परतून उठलीच ना.

ती कसल्या दुयेंसान देवागेर गेली तें आमकां कळ्ळेंचना. आतां जायते दोतोर जाल्यात, तेन्ना अशे दोतोर नासले. रामाआवय गांवची दोतोन्न. तीच गेली.

आतां दोतोरूय खूब जाल्यात. दुयेंसांय खूब जाल्यांत दोतोरांनी दुयेंसां वांटून घेतल्यांत. वेगवेगळ्या दुयेंसांक वेगवेगळे दोतोर. तांकां स्पेशलिस्ट म्हणटात ! आदल्या तेंपार पोटांतलो जोर, मोडणें, निर्मळी, कामीण, दोळे येवप अशा धा बारा दुयेंसांभितर सगलें सोंपतालें. आतां दुयेंत सोंपतात पूण दुयेंसा सोंपनात ! आतांचे दोतोर एके त्राटेन बऱ्याक पडटात. दुयेंतीक बरें करपाक जरी जालेंना तरी ते दुयेंसांक बऱ्यांतलें नांव दितात. मनीस कसल्या दुयेंसान मेलो हें तरी चार मनशांक तोंडभर सांगूंक मेळटा.

‘रामाआवय’ देवागेर गेली तेन्ना पुराय गांव आमगेर भरिल्लो. चडशीं बायलांच, देखून रडून रडून तांच्या दुकांनी भितल्ली कूड पचपचीत भिजिल्ली.

रामाआवय वतकच आमी उबंतर पडले. मागीर जाय तो तेंप आमगेर वावराडीच ना जाली. उपरांत मेळ्ळी पूण तिगना जाली.

गोंयां एके इगर्जेचेर ग्वंय खुरीस धरना, पाटयावयल्या रस्त्यार डांबर धरना. खरें म्हळयार गोंयांत रस्तेच धरनात. एका म्हयन्या-भितर फोंड पडटात. म्हापशां ‘च्योगमा’ वक्तार केल्ली फुटपाथ दुसऱ्याच दिसा पावसान व्हांवन गेली. पूल मात चार-पांच वर्सां तरी उरतात !

आतां वावराड्यो गोंयच्या रस्त्यांभाशेन एक म्हयनो तिगतात. चुकून एक म्हयनो तिगल्यार अप्रूप !

जावं ! आमची मुळावी वावराडी रामाआवय देवागेर गेली आनी तिचे वयली श्रद्धा वाडली. असलीं मनशां वयल्यान पावस घालतात अशें जायतो तेंप म्हाका दीस !

जाणटी वावराडी दवरल्ल्यार तिचीच सिर्वीस आमकां करची पडटा. तशीच ती देवागेर वता देखून जाणटी वावराडी दवरप ना अशें आमी थारायलें.

आमचें नशीब बरें म्हणून आमकां जाय तशें एक पोर सांपडलें. ताचें नांव मोगरू. खेड्यांतलें भुरगें तें ! सुरवेसुरवेक दोन–तीन म्हयने दिपकावल्याभाशेन करतालें. खेड्यातल्यान हाडिल्लें म्हय ? खेड्यातलीं भुरगीं शारांत येतकच थोडे दीस तशींच बिलू जातात. तें कितेंय जाव. पूण कामाक एकदम चोख.

आमी ताचेर एकदम खोस परगटायली देखून ताका घरच्या भुरग्याभाशेन वागयताले. आमच्या भुरग्यांवांगडा ताकाय कपडे केले. साडेचारशें रुपया मोडून ताचें नाक–कान सोबयलें. आनीक जायती सोबा केली. ताचें खेडवळपण वचून ताणें शिटुकपणान मनशाळचें हो आमचो हेत.

आमी येवजीलें तशें जालेंय बी. स म्हयन्याभितर हें बायूल एकदमच स्मार्ट जालें. न्हातना मान्न्यांतल्यान केन्ना केन्ना.

‘ रमय्या वता वया
मैंने दिल तुझको दिया...

अशीं ‘शिनीमांतलीं’ पदां आयकूंक येवपाक लागलीं. आतां आमच्या घरांत संगीत वाडलें. घरा कोणय सोयरो आयल्यार ताका ‘ गूड मॉर्नींग, ‘ गूड इविनींग’, ‘ वेलकम’ करपाक लागलें.

‘ आगो, तें दूद विटकळ्ळें कशें गो ?’ अशें विचारलें जाल्यार... ‘ ओ माय गॉड... आयम सॉऽऽरी... अशें म्हणूंक लागलें.

वा ! सुरवेक कांबळी फट्याभाशेन आशिल्लें आतां तें बाय एकदम इंग्लीश मड्डम जालें. घरांत बेठेंच तिरतिरूंक लागलें.

x x x

आमकां स्मार्ट मनशां मानवतात. पूण ह्या बायचें मातशें दिसूं लागलें. आंगांत शिटुकपणां हाडपाक आमीच ताका सिनेमाक व्हरताले. तें आतां दांडी मारून एकलेंच वचूंक लागलें. तें एकलें वता अशें आमी

म्हणटात पूण लोक किते किते उलोवपाक लागले. लोकांचें नकळ ? ते नसाय करपाक लागतकच तोंडाक येत तें उलयतात.

दिशीं माशीं तें उलोवपाक स्मार्ट जालेंच, त्या भायर आंगार तिकतिकसाण आनी वाटकुळसाण वाडूंक लागली. ताचें मोगरू हें पयलीचें नांव बदलून हांवें ताका 'लिलावती ' अशें नांव वरलें. आतां ताका पळेल्यार मोगरू म्हणप बरें दिसना. सामकेंच गांवठी नांव ! 'लिलावती ' हें नांव म्हाका सत्यनारायण कथेंतल्यान येवजलें. तातूंत एक चली अशेंच दिशीं माशीं उमाशे उपरांतच्या चंद्रिमाभाशेन वाडत वता. उमाशे दुसरे रातीं इल्लोसो नाकटा भाशेन दिसपी चंद्रीम हळू हळू वाटकुळोच जायत वता. शुल्केंदु ! ताका शुल्केंदुच म्हणपाक जाय आशिल्लें हांवें. पूण तेन्ना तें येवजलेंना. तें म्हणपाकय मातशें कुस्तारच न्हय ?

चुकलेंशें दाखोवप म्हाका जमना. त्या भायर हांवें दवरिल्लें सोबीत नांव 'लिलावती', ह्या नांवान तिणें ताका केन्नाच उलो मारलोना. ती ताका मोगरूच म्हणटाली. दुसऱ्यांनी 'लिलावती ' म्हणून उलो मारलो जाल्यार ती बेजारताली, देखून हांवय नेटान रावलों.

'ओंकलें ? निरमळी जालो दिसतां ! हिंगा उदक बी दी पियेवपाक, मागीर निवळटलें तें.' म्हाका रामाआवयलीं थोडीं वखदां खबर आसलीं. हांवें रोखडेंच त्या प्रमाण वखद दिलें...

'निरमळी बी कांय न्हय. तुमकां समजना तें. ताका दोतोराक दाखोवया पळोवया !'

'आगो इल्लेशा कामाक दोतोर कित्याक ? पादाखिणाक कुले धुवपाक लागल्यार उदकय पावचेंना आनी मनीस कामाकय पावचोना! कांय जायना ताका. फाल्यां पळोवया, आतां म्हजो नेट मातसो मातसो उणो जावपाक लागलो. तिगेलें दोतोर हाडपाचें प्रयोजन सामकेंच भायर उडोवपकाक जमलेंना. तें हांवें फाल्याचेर धुकल्लें.

दोन दिसांउपरांत ताचें ओंकारे वाडूंक लागले. पयलीं वशवशा-भाशेन पणसाच्यार लेगीत खावपी, आतां हें जाय तें नाकां असलें करूंक

लागले. मर्दी मर्दी धुंविल्लेभाशेन दिसता म्हणूंक लागलें.

असली एक एक खुणा बायलेन पारखिलीं आनी हांव बरोवपाक बशिल्लों थय अकस्मात म्हान्यात येवन सामकी ताकीद करूंक लागली. हें कितें घेवन बसल्यात ? चल या दोतोरागेर ताका घेवन. हे फावट 'आयकलां ?' बी तसली भासाभास ना. दिरॅत ऑर्द ! ताचो एफैत म्हणून म्हजो नेटय पुराय देंवलो.

हांवें म्हळें, 'दोतोन्न सांजवेळार येता. ती लागीं मेळना. सांजे वचूया.'

'दोतोन्न कित्याक गांवार घालूंक ?'

'आमी दोतोर नाडकर्ण्याक दाखोवया.' बायलांक बायलांची नसाय. गांवार घालपाचे काम बायलांकच बरें कळटा अशें सजमतात. दादल्याक कळना काय कितें ? जावं. आमगेलो विशय वेगळो.'

'बरें बाय. सांजवेळा नाडकर्ण्यागेर या.' 'नाका. नाडकर्ण्यागेरय नाका. तो वळखीचो न्हय !' आमी मडगांवां दोतोर मोंतैरीगेर या.' 'बाबा ! मडगांवां ? मडगांवां हांगासावन चाळीस किलोमिटर पयस. ह्यो राटी कित्याक !'

'भायलो चोरू भायलो म्हारू. असल्यो गजाली चड भायले-भायर जातात तें बरें !'

वळखीचो दादलोय गजाली गांवार घालूंक शकता ही शिटूकसणा म्हजे बायलेक आयली, देखून तिणें एकदम मडगांवां दोतोर मोंतैरीगेर वचपाची सुचोवणी केली. मातशो राटी जरी पडल्यो तरी तिका रजांव आसा.

आमी रोखडेच दोतोर मोंतैरीगेर गेले. पयलें आमचें लिलावती दोतोरागेर वचपाक तयार ना जालें, पूण पयस मडगांवां दोतोर मोंतैरीगेर म्हणटकच तयार जालें !

दोतोर मोंतैरीन तपासून सांगलें, 'तीन म्हयने जाल्यात. तें आवय जावपाचें आसा.' एकदम हिंदी सिनेमाभाशेन जालें, 'मैं माँ बननेवाली हूँ ।' बरोवपासारकी गजाल जाली.

रामाआवयची याद आमकां सदांच जाताली. आतां 'रामाची'

याद जावपाक लागली. हें शिवधनुश्य आतां कशें उखलप हें फकत तो देवळांत बशिल्लो 'रामच' जाणा !' रामा, देवा, निस्तार बाबा हें सगलें !

लोक म्हजेरच दुबाव घेवपाक लागले, हें गा कितें ? तरी बरें. म्हजी बायल म्हजेवाटेन आसली. ना जाल्यार सामको घात आशिल्लो. पाड पडूं हे गजालीचें.

' मोगरू, हांगा यो गो...' हावें ताका धेंगसावन आपयलें. आतां ताका लिलावती बी म्हणप म्हाका येवजना जालें. आपल्याच आंगार येतकच लाग आनी खंयचे ?

' पयलीं सांग, हो कोण शूरवीर तें म्हाका पयलीं सांग. ' हांवें ताका धेंगसाय-धेंगसाय धेंगसायलें. बरेंच वोडीर काडून निमणो हांवच खशेंलों. तें कशेंच तोंड उगडना ! जावं. हावें बोवाळ घाल्ल्यान म्हजेर येवपाचें बगलांट मातशें उणे जालें.

मागीर, दुसऱ्या दिसा तांच्या घरा वचून ताच्या आवय-बापायक आपोवन हाडलीं आनी तांच्या मुखार रुजवात करपाक लायली. पूण तरी पोर कशेंच बदना जालें. मागोर ताचे आवय-बापूय आपले कन्या-रत्न घेवन आपल्या गांवाक गेलीं. वतना बरोबर ताका केल्ल्यो वस्ती बी सगलें घेवन गेलीं. हांवें वयल्यान अडेजशें रुपया चडावत दिले. पिडा एकदां निस्तारल्यार पुरो जाली.

चार दिसांनी मोगरुचो बापूय ' पुट्टूस्वामीक ' सोदपाक आम-गेर आयलो.

गांवाक वतकच मोगरुच्या आवय बापायन ताका मारलें, छेडा-यलें, काय मिरसागे धुंवरी दिली देव जाणा, पूण ताचेकडल्यान कबूल करून घेतलें. शेजारचो गिरणी काम करपी एक फिटर पुट्टूस्वामी हो तो शूर-वीर ताजे बराबर किन्ना-केन्ना शिनिमांक वतालो. तो पुट्टू-स्वामी खंय तिजेर प्रसन्न जालो आनी गिरणीर ताका सोदपाक गेल्यार तो गुल्ल जाला म्हण कळ्ळें. मागीर पुलिसेक कळयलें. । पुलीस आजून ताका सोदतात खंय. मोगरुचें लग्न जावन धा वर्सां जाल्लीं, मोगरु तीन भुरग्यां आवय जाली तरी पुलीस पुट्टूस्वामीक सोदतात !

जावं, पाड पडं त्या पुट्टूस्वामीचें. आमगेलें आंगावयलें अरिश्ट टळ्ळें हो देवाचो उपकार.

आतां म्हातारी वावराडी दवरप ना ! हें आमी रामाआवयच्या अणभवावयल्यान थारायलें. ' आतां नेणटी वावराडी दवरप ना! ' अशी ते थारावणेंत आमी सुदारणा केली. मोगरूची देख घेवन आमी इल्लें इल्ले शाणे जातात न्हय? पुस्तकां वाचून मनीस शाणो जायना. खरें शाणेपण असो मार खावनच येता. शाणेपण येत जाल्यार सगलें लायब्रीयन बुदवंत जाता आसले, पूण तशें जायना. फाटले मार खावन शिकिल्ले धडे फुडली दिक दाखयतात ! हाका लागूनच पयलीचे शाळामास्तर भुरग्यांक मारून मारून रोस काडटाले जावंये.

आतां आमकां वावराडी चाळीस ते पन्नास हे पिरायेभितर दवरपाची थारायली. चड जाणटी न्हय आनी एकदम नेणटी न्हय. आमकां तिची सिर्वीस करूंक पडूं नये आनी असल्या पुट्टूस्वामी असल्या लोकांच्या दोळ्यांतय वचूं नये.

मुळांत वावराडी मेळप कठीण, तातूंत हें आमचें कोनीसांव. अशी वावराडी मेळप म्हळ्यार सवाय भितर कोमुनिदादीची जमीन मेळिल्लेभाशेन, पूण करतलो कितें ? ताका आनीक दुसरो उपाय ना हीं कोनीसांवघालना जाल्यार मागीर सगलें फेस्त जाता!

मागीर आमी कितलो तेंप वावराडी सोदपाक घालो. पूण तातूंत येस मेळ्ळेंना. मागीर निमणें, एक उपाय म्हणून हांवें राणू नायकाक काकुळटेक येवन म्हळें. वावराडी पैदा करपाक तो हरशीं खांपो. पूण आमकां जाय तशी वावराडी सोदपाक ताकाय बरेंच कुस्तार जालें.

निमणें, राणू नायकान खंयच्यान तरी एक वावराडी पैदा केली. पिराय चाळीस ते पन्नासांभितर न्हय. पन्नासां मातशी वयर पूण करतोलों कितें ? आनी ती ' सा ' केली. म्हळें, फुडें जमोवन घेवया.

तिचें नांव रेणुका. ती बांगडयाहुमण आनी शागोती बेस बरी करताली. तिणें रांदिल्लें जेवण जेवतकच हात तोंड धुयल्यार सुवाद वचत म्हूण वायट दिसतालें. बैठी धुवपा फॉर्मालदाद करप. तें जेवतकच कितलोच वगत ताचो वास घेयत बसप हातूंत खूब सूख जातालें. तिणें

रांदिल्लें जेवण डबे भरून पॅक करपाची फॅक्टरी काडल्यार धंदो बरो चलत असोय एक विचार मनांत आयलो.

हांवें एक दीस तिका म्हळें, 'आगे, तुजें जेवण बेस बरें जाता आं. डबे पॅक करून फॉरेनाक धाडल्यार कशें ?'

'बरे भाशेन फॅक्टरी घालात. तिका 'रेणुका फॅक्टरी' अशें नांव दियात.'

ती उलोवपाक तशी लागोळी पागोळी आशिल्ली. म्हजी ती खूब तोखणाय करी. म्हजें देखणेंपण स्वामी विवेकानंदा भाशेन सोबीत आसा अशें म्हजे बायलेक तिजेकडल्यान कळ्ळें.

आमचें लग्न जावन वीस वर्सां जालीं. पूण आमचे घरकान्नीच्या ध्यानांत तें केन्नाच आयलेंना.

जावं रेणुकेचें जेवण बरें. उतर बरें आमकां आनीक कितें जाय ? देवादयेन तिगल्यार पुरो.

आतां दुदांत तोंड भाजतकच ताक लेगीत फूक मारून पियेवचें पडटा, देखून मातशें सांबाळून घेवंक जाय.

तिसऱ्याच म्हयन्यांत तिच्या भुरग्याच्या लग्नाचें जमलें. आमगेर सर्विसेक लागिल्ल्यान तें घडून आयलें. कितलो तेंप जायना जायना अशें जाल्लें. आमच्या घराण्याचो वसो बरो अशें म्हणून तिणें आमची खूब तोखणाय केली.

म्हाका हालीं कोणेंय तोखणाय केल्यार भिरांत दिसता त्या फाटल्यान पाल चुकचुकिल्ली आयकूंक येता. हांगा दितू एफैल तशेंच जालें. तिणें लग्नाक पंदरा दिसांची रजा मागली आनी अडेज हजार रुपयांचो आदार. मागीर पगारांतल्यान कापून घेयात अशें आमचेरच फावोर केल्लेभाशेन उलयली. करतलो कितें ? तिका रजाय दिवची पडली आनी पयशेय दिवचे पडले. वयल्यान पात्रांव म्हणून शंबर रुपयांची केळवण केली. दानार दक्षणा आनीक कितें ? कशेंय भाशेन वात्रराडी सांबाळूंक जाय न्हय ?

पंदरा दिसांची रजा घेवन गेल्ली रेणुका बद्द दोन म्हयन्यांनी मीर्ग सोंपतकच आयली. आतां तिचो अवतारच दुसरे भाशेन लागलो.

पयलीं तोंडभर उलयताली ती आतां आमचेलागीं कामापुरतीच उलोवपाक लागली. उतरां जड जावपाक लागलीं. घरांत म्हारू कुदिल्लेभाशेन मदीं मदीं आयदनां वाजूंक लागलीं. कपबशो फुटूंक लागल्यो. किचन–मोरी हांच्या तिजुल्याचे कुडके वचूंक लागले. पयलीं राजाक अभिशेक करपाक एकशेंआठ बुराकाचें आयदन लागतालें खंय. तीन म्हयन्यांभितर आमगेलीं सगलींच आयदनां राजागेर धाडगासारकीं जालीं.

आनीक एक म्हयनो वतकच नव्यो नव्यो भानगडी उपरासूं लागल्यो. मदीं मदीं वाजतालीं आयदनां ना जावपाक लागलीं. कपडे लेगीत गुल्ल जावपाक लागले. पयशे आरमारींत चावी करून दवरचे पड्‌क लागले.

तिचीं कोनीसावां वाडूंक लागलीं. रांदपाक वेगळो पगार, सान्न मारपाक वेगळो, वलीं उमळपाक वेगळो, अशें दिसानदीस वेगळेपण वाडलें. तें सगळें तोंड धांपून, दाळे उक्ते दवरून सोंसलें.

एका दिसा आमचे भयणीची सोयरीक जाली. ती मोडली आनी मोडचे पयलींच गांवाक कळ्ळी. घरांतल्यो घडूंच नाशिल्ल्यो गजाली वाऱ्यार पडूंक लागल्यो. आमकां तिका वच म्हणचेंच पडलें.

ॲडवान्स दिल्ले पयशे फुटूं पूण ही एकदांची वचूं. तरीय रांडेंची वचपाक तयार ना. वयल्यान आनीक कॉम्पेसेशन मागता. निमणें पुलिसेक हाडून भायर काडची पडली.

परते आमी उबांतर पडले. हें बरें पूण वावराडी नाका. आमी जाता नज करून जमोवन घेवया अशें येवजीलें. वावराडेचो विचार तकलेंतल्यान काडून भायर मारलो !

चार म्हयने कशेय भाशेन गेले. मागीर जात्रा आयल्यो आनी घरांत सोयरे येवपाक लागले. तातूंत चली बाळंटेराक आयली. ती बाळांत जावन तिका जुंवळीं जालीं. आतां करता कितें ? कोणाचे तरी पांय धरून कामाक कोणतरी हाडची पडली.

गरज येता तेन्ना अक्कल वना. गरज आनी अक्कल दोनूय

बराबर केन्नाच येनात. हांवें परतेय राणू नायकाचे पांय धरले. ताणें गांवासावन एक बायल हाडली.

अदमास पंचावन पिरायेची, दिसपाक सादी–भोळी. कामा वावराक वायट न्हय. आमी दवरून घेतली.

तिचें नांव सीता. पदरा दिसांनी सीता आपल्या घोवाक खंयतरी सिर्वीस पळेयात. म्हूण काकुळटेक येवपाक लागली. आतां साद्या प्युनाचे सिर्विसेक लेगीत मिनिस्टराचे पांय धरचे पडटात. धा फावटीं पालासींत गेल्यार एक फावट मिनिस्टर नदरेक पडटात आनी तांचेलागीं उलोवपा भास वेगळी अशें कोण कोण सांगतात.

बेठे पयशे कोणाच्याय बोलसांत घालचे परस आमीच घरा फाटल्यान थोड्या पयशांनी एक पिठा गिरण घालून सीतेच्या रामा सुवादीन केली. तो मातशें मॅकानीकपण जाणा आसलो आनी आंग मोडून काम करतालो. पयशां कडेनच्च कळवचन केल्लें कांय देखलेंना, पूण सांजे तिनसांज जातकच मातशें कुट्ट करी. तो दीसभर उलयिल्लो केन्ना आयकूंक येना, पूण कुट्ट करतकच मात इंग्लीश, कानडी, पुर्तुगेझ सगल्यो भासो उलयतालो. मोटमोट्यान पदां गायतालो तेन्ना आमी टी. वी. बंद करून ताचेंच नाटक पळेताले.

रामा सीतेक पांच चलयो आनी तीग चले. वर्सांतल्यान एक दोग जाणांगेर बाळंटेर जातालो. केन्ना चलयेचो केन्ना सुनेचो. वर्सांतल्यान चार म्हयने तिच्या बाळंटेराक वताले.

केन्ना केन्ना घोव मारून आंग सुजयतालो. सेमानांत तीन दीस आंग दुखता म्हणून न्हिदचें पडटालें. आज ना, फाल्यां जमना. परवां आंग दुखता अशे तरेन कामापरस खोडीच चड जातात्यो. हें आमच्यान सोंसू नज जालें. तिच्यानय सोंसूंक जायना जालें. उपरांत एक फावट धुवेच्या बाळंटेराक वचपाक ती तयार जाली.

आमी सांगलें, तुगेलें कोंत हिशोब करून तुमी दोगांय वचात आनी परतून येवं नाकात. आमकां आनीक पासियेंस ना.

तेन्ना काकुळटेक येवन तिणें आपले भयणीची चली मेनका आमगेर बदलेक हाडून दवरली. देवाबराबर पळून गेल्ली ती ही

मेनका आनी सीता तोंड दाखोवपाक लज दिसता म्हणून धुवेगेर बाळंटेराक गेली ती आयलीच ना. आनी तिज्या सोदांत गेल्लो तिचो घोव राम तोय परतून आयलोच ना.

निमणें, आमी परत उबांतर म्हणून आतां एक जायरात दिवपाचें थारायलां.

## वावराडी जाय

आमकां एक वावराडी जाय. पिराय चाळीस ते पन्नास. तिका घोव, घर, भुरगीं आसूंक फावनात. भुरगीं आसलींच जाल्यार तांगेर भुरगीं जावंक फावनात. तिणें आमचेलागीं चड उलोवंक फावना. आयदनांलागी जाल्यार कशेंच उलोवंक फावना. तिका बांगडचा हुमण, मटण सगलें कोंकणी जेवण बरें रांदपाक येवंक जाय. जेवपाक येना जाल्यार जाता. मान्न मारप, वलीं उमळप, धुवप– पुसप भुरग्यांचें काडप हीं सगलीं कामां तिणें करूंक जाय...



अशी वावराडी मेळ्ळी जाल्यार आनी पांच वर्सां उरली जाल्यार पांच दीस अंदूंचो गणपती दवर-पाचो विचार आसा.

●

# जय शंकरा

जुवाजीनाक लोक वेगवेगळ्या भासांनी आनी वेगवेगळ्या तरांनी एकूच प्रस्न विचारतात.

‘ शंकरबाब आसा ?’

‘ ना, आजून येवंक ना.’

‘ शंकर भांडारी आहेत का ?‘

‘ ना, आजून येवंक ना.’

‘ इझ मिस्टर भांडारा कम् ?’

‘ नो, नॉट यॅट् ’

‘ भांडारीबाब आसा ?’

‘ ना, आजून येवंक ना,’

‘ भांडारी सायब आसात ?’

‘ ना, आजून येवंक ना.’

‘ सिन्योर भांडारी इश्ता देंत्र ?’

‘ नांव. व्हे आतँ आगॉर.’

जुवाजीनाक बावड्याक वेगवेगळ्या लोकांक वेगवेगळ्या भासांनी एकूच जाप दिवची पडटाली. तोय शंकराची वाट पळयत दारार उबो रावतालो. सदां एकूच प्रस्न. एकूच जाप. हें अशें बेजार येवपाचें काम तो शंकराच्या मोगान आंवडेवन करतालो.



शंकराक सोदूंक येवपी मनशांन व्हडले हापोसर आसताले, धंदेकार आसताले. साहित्यीक आनी पत्रकार आसताले, सवंकळे राजकारणी तशेंच नव्यान राजकारणांत येवंक सोदपी लोक आसताले. बेकार आनी आलमपेडड्यार लोकय आसताले.

अशें वेगवेगळ्या लोकाचें शंकराकडेन किते काम? आनी ते इतले ओडीन ताका कित्याक सोदूंक येताले हें एक कुवाडेंच ! सुरवेक वळख जातना मनीस ताका मिस्टर भांडारी म्हणटालो. मागीर थोड्या तेपान भांडारीबाब म्हणटालो, आनी थोडे दीस वतकच शंकरबाब म्हणटालो, मागीर तांची एकदम आमीझाद जाताली. आतां तो ताका शंकर म्हणटा. हांव एक तसो शंकराचो

आमीग. पयलीं मिस्टर भांडारो म्हणून मागीर शंकर म्हणपी.

आतां मुळावो प्रस्न तसोच उरलो. कितें काय म्हळ्यार हो शंकर कोण आनी वेगवेगळे व्हडले लोक ताका कित्याक सोदूंक येताले ? सगल्या लोकांक तो इतलो ताकतिकेन कित्याक जाय पडटालो !'

शंकर कांय मंत्री न्हय, मोटो सावकारय न्हय. व्हडलो अधिकारी न्हय वा पत्रकारय न्हय. तो आशिल्लो पणजे आकाशवाणीवयलो सादो ऑफिसर. पांयांत जोतें, खादीचो धवोफुल्ल सदरो, खंय कानशिलांचेर थोडेभोव केंस. खांकेंत बोटलो आनी तोंडार चान्नें ! अशा भेसान सांजवेळार शंकर पणजे आल्तिन्यावयल्यान देंवता आसतना गोंयचो 'दूदसागर आपली वाट चुकून अल्तिनार बी पावलो काय' अशें दीस.

शंकरांची आनी म्हजी वळख एका नाटकाक लागून जाली. 'एक रूख चार झोंपां' हें श्री. दत्ता नायक हाणी बरयिल्लें नाटक, तातूंत मुखेल पार्ट 'विष्णूबाब' तो हांव करतालों. शंकर केन्ना केन्ना येसाय पळोवपाक येतालो.

त्या नाटकांत विष्णूबाब काजेल मारता ! नाटकांत कांय खऱ्यांनी काजेल मारूंक उपकारना न्हय ! ताच्या बदला हांव उदकच पियेतालों. कांय वेळान शंकरान म्हाका सांगलें, 'तूं उदकच पिये, पूण तूं उदक पियेता अशें दिसूंक फावना.'

'म्हळ्यार कितें शंकरबाब ?' हांवें म्हळें.

'हें पळय. घोंट मोटो मारूंक फावना.'

काजेलाचो मोटो घोंट केन्नाच मारीनात. आनी तो घोळोवन गिळूंक जायना. ल्हान ल्हान शिरपो घेवंच्यो, आनी गळ्याक सिगार तोपून कच्च जाल्लेभाशेन गिळचो, ना जाल्यार सोऱ्याचो फाल्त रेश्पैत जाता. तो जावंक फावना.' अशो शंकरबाबान म्हाका मोलाच्यो कितल्योशोच शिटकावण्यो दिल्यो. नाटकय बरें रंगलें. नाटक जातकच ताणें म्हजी खूब तोखणाय केली. तोखणाय करतनाय शंकर म्हजी फिरकी घेतालो.

‘ पारज, तुजें काम बॅटर घॅन ओरीजिनल. त्या खरेल्या विष्णुबाबापरस तुजें काम बरें जालां.’

कितें समजप हांवें ह्या उतरांचो अर्थ ? खऱ्यापरस बरें म्हळ्यार समा न्हय. म्हळ्यार काम बाबत जालें असोय ताचो अर्थ लावं येता. मागीर शंकरबाब अमुरपिको हांसलो. आपली फिरकी म्हाका कळ्ळी म्हूण धादोस जालो.

त्या नाटकांत निमाणें विष्णुबाब मरता. ‘ मरपा कामाविशीं कितें सांगशात शंकरबाब ?’ हांवें ताका म्हळें.

‘ ना, तें मरपाचें काम तूंच बेस बरें करता.’ अशें म्हणून तो परतोय मुमुरखो हांसलो आनी म्हजी फिरकी ताणें तिरकयली.

फाटीं आंध्र प्रदेशाक मोटो हुंवार आयिल्लो. लोकांची हिसपा-भायर दैना जाता अशें रेडिओचेर, पेपरार सरकारान पेरगांव घालें. त्या लोकांक आदार दिवपाखातीर लोकांक पारातले.

आमी एक नाटकुलें काडून दुडू पुंजावचे आनी तांकां धाडचे अशें खूब जाणांच्या मनात आयलें. तातूंत शंकर हो मुखेल ! शंकराक लागून म्हाकाय त्या नाटकुलयांत पार्ट करचो पडलो. भाशण पाठ करप, प्रॉम्पिटगार सितीद दिवप हीं कामां आतां जमनात. आमी त्या नाट-कुल्याचो मुळावो गाभो राखून येवजत तें उलोवप अशें थारायलें. तातूंत शंकरबाबान नाटक कपनींच्या मालकाचो पार्ट केल्लो. तें नाटक इतलें बरें रंगलें की, लोक दर्यार ल्हारां कशे फसफसताले ! उणेच म्हळ्यार चाळीस–पंचेचाळीस हजार रुपया उबे करून ‘ आंध्र रिलीफ फंडाक ’ धाडून दिले. गोंयच्या तन्नाच्या चीफ सेक्रेटरीन आमची खूब तोखणाय केली.

ह्या मनशाच्यो वता थंय वळखी. म्हजो गांव काणकोण. हांव ताका गांव दाखोवपाक एक फावट काणकोणां घेंवन गेलों.

‘ भांडारीबाब, बरे आसात मूं ? ’ बसींत कंडक्टर आपुलकायेन ताची खबर घेताले. बसींतले कितलेशेच पॅसेंजर ‘ भांडारीबाब, तुमी हेवटेन खंय ? ’ म्हणून ताका हटकीताले.

मागीर हांव म्हज्या गांवच्या लोकांसरीं ताची वळख करून दिवंक लागलों. ' हे म्हजे आमीग शंकर भांडारी. '

' वळखतां हांव. ओपिनियन पोलावेळार खूब भाशणां आयकल्लीं तांचीं. ' अशें जण एकलो सांगूंक लागलो. म्हजो पुराय गांव म्हजेपरस ताकाच चड वळखता अशें म्हाका दिसलें.

आमचें गोंय वरेंच ल्हान देखून गोंयचे थळावे लोक एकमेकाक रोखडेच वळखतात, तातूंत शकरासारको फालादोर आसल्यार कांयच विचारूं नाका. पूण शंकरबाब गोंयाभायर लेगीत खूब फामाद आसलो.

आमी एक फावट शणै गोंयबाब जल्मशताब्दे निमतान मंगळुरा गेल्ले. त्या प्रोग्रामाचे मंगळुकार येजमान आशिल्ले. ताणी आमची वेवस्था बऱ्या हॉटेलांत केली. त्या हॉटेलाच्या मॅनेजराक म्हळें, ' तुमच्यांत शंकर भांडारी म्हणून कोण आयला ?'

आमी म्हळें, ' हय, कित्याक ?



' तुमच्या मुखेल येजमानाचो ताका सकाळच्यान कितल्या फावटीं फोन आयलो. तो शंकर भांडारी आयला काय विचारतालो.' ताणें सांगलें.

मॅनेजरान त्या मनशाक रोखडेच फोनार शंकर भांडारी आयला म्हणून कळयलें.

सांजेवेळार तो मुखेल येजमान आनी एक व्हडले बँकेचो चॅरमन शंकराक मेळूंक आयले.

' भांडाऽऽरी माम्मू ? तुमी एवकाच म्हण्ण लेकिल्लें. भाऽऽरी संतोश जालो. तुम्मी ताने बिने घेवन आऽऽराम करातीं. आमी कट्टेर येवन भेटतात.' अशें म्हणून ते खासा वेवस्था करपाक हॉटेलाच्या लोकाक ताकीद दिवन गेले.

मागीर, एक दोन वरां उपरांत एक पाद्री आयलो. तो थंयचो नामनेचो कोंकणी कवी. तो आपल्यो कविता शंकरमामाक वाचून दाखोवपाक मुद्दाम आयिल्लो. शंकराक लागून म्हाकाय तें आयकुपाचो चान्स मेळ्ळो. आपली एक कविता वाचून दाखोवन अशें विचारतालो. 'तुमगेल्लो अभिप्राय कितें शंकर मामू ?'

भांडारी ताच्यो कविता तोखणायेन आयकतालो. आपलें बरें–वायट मत ताका सांगतालो. अशी वरभर चर्चा करतकच तो पाद्री उठून शंकराक नमस्कार करूंक लागलो.

'तुमी अशींच कवनां बरयात. बरें जातलें, मागीर एक पुस्तक काडया. देव बरें करूं.' अशें म्हणून शंकरान पाद्रीक आशिर्वाद दिलो !!

'भाऽऽरी संतोश जालो.' अशें म्हणून त्या पाद्रीन निरोप घेतलो.

त्या हॉटेलाच्या रूमांत मध्यानमेरेन अशे कितलेशेच लोक शंकराक सोदूंक येताले आनी शंकर रुमांत नासल्यार म्हजी त्या जुवाजिनाभाशेन आवतिकाय जाताली.

'भांडाऽऽरी माम्मू आसत वॅ ?'

'भांडाऽऽरी माम्मू खंय गेल्ला ?'

'भांडाऽऽरी माम्मू आयिल्ले ना वॅ ?'

अशें जण एकलो येवन विचारतालो आनी दर एकल्याक तो मनापासून जाय आसलो. अशे तीन चार दीस आमचे मंगळूर बोवाळांत गेले, मागीर गोंयां येतकच त्या दिसांची रूच बरोच तेंप उरली !

शंकराबराबर एकचार वाडोवचो अशें म्हाका दिसलें. हांवें ताका बायले भुरग्यांक बी घेवन एक दीस म्हगेर जेवणाक येवपाचें आमंत्रण दिलें. शंकर बरो वेळ ओग्गी राबलो आनी मागीर सांगूंक लागलो, 'म्हजी बायल आजून कुळाराच आसा !!'

'केन्ना येतली ती ?' हांवें विचारलें.

'म्हाका कांयच खबर ना' अशें म्हणून शंकर परतो गंभीर जालो.

म्हाका दिसलें हांवें बेठोच नाका थंय हात घालो. तांची आनी बायलेचीं केस्तावां बी जालीं काय तेंच म्हाका कळ्ळेंना. पूण आतां विचारलेंच न्हय ? थोडें जाणां जावया.

हांवें परतून म्हळें, 'खंय तिचें कुळार ?' शंकर म्हणूंक लागलो, 'हांव नकळ!!' हें कितें गौडबंगाल म्हाका कळना जालें. 'कितें ? तुजे बायलेचें कुळार तूं नकळ ? आनी कितले दीस जाले कुळारा आसा ती ?'

'ती जायतसावन कुळाराच आसा अशें दिसता.' शंकरान सांगलें.

'आब्बा ! जायतसावन कुळाराच आसा ? कित्याक तर ? हांवें अजापान विचारलें.

'तिचें लग्न जालें ना ! देखून !!'

हाय सायबा ! आपलें लग्न जावंक ना हें सांगपाक शंकरान फातर्पेंच्यान गोंय लागीं केलें. अशी ताका कुवाड्यांनी उलोवपाची सवंय आशिल्ली. लग्न जातकच घोवाक बायलेचें नांव आनी बायलेक घोवाचें नांव घेवपाक उमाणीं आसतात, पूण आपलें लग्न जालेंना म्हणून सांगपाक आनी उमाणीं आसतात हें म्हाका शंकराकडच्यान कळ्ळें.

शंकराक पळेल्यार ताजें एक फावट तरी लग्न जालां आनी ताका भुरगींय आसात अशें म्हाका दिसलें. शंकर जरी आंकवार आशिल्लो तरी सदांच संवसारी मनशाभाशेन वावुरतालो. आपल्या भावांच्या संवसाराचो हुसको करतालो. तांच्यो चलयो लग्नाच्यो जाल्यात तांचें बरे भाशेन जाग्यार पडूंक जाय हें सदांच येवजीतालो. तशेंच भयणीचें; तिच्याय संवसाराचो हुसको करतालो.

आमी एक फावट गाडयेन हुबळी वतनाची गजाल. शंकराची भयण थंय रावता हें हांव जाणां आसलों, देखून हांवें ताका आपयलो. शंकरय उमेदीन आमचेवांगडा आयलो. वांगडा ताणें आपले भयणीक पापड, आळवा माडयो, सुके बांगडे, कणगां बी घेतिल्लीं.

जुवाजिनाकडेन शंकर आसा अशें म्हणून विचारपी लोकांनी

ताचे घरचेय लोक आसताले. ते घरच्या वेव्हारांत ताचो जबाबदार सल्लो घेवपाक मुद्दाम माशेलांतल्यान पणजे येताले. तांचेकडेन उलयताना शंकर बरोच सिरीयस दिसतालो. चाळीस मनशांच्या संवसाराचो हो मुखेल अशें दीस. घरच्यांचे सगले प्रस्न तो शांततायेन आयकून घेतालो आनी आपले परीन ताजेर तोड काडटालो.

'शंकर आसा ?' अशें म्हणणान्यान ताजे साहित्यीक इश्टय आसताले. तांचेबरोबर गजाली करताना शंकर सोडा बाटली फोडटात तसो हांशार हांशे फोडटालो.

इंग्लीश–मराठी मिक्स करून नाटयसंगीत गावपाक शंकराक खूब उमेद येताली.

डाँऽऽच्यूवरी डाँऽऽच्यूवरी ।
जागृत गिरीधारी ।
ॲम्पल रायस करी ।
जागृत गिरीधारी ।।

हें खास शंकरछाप कवन. तें शंकर जेन्ना नाटय संगिताचे धाटणेन म्हणटालो तेन्ना आमच्या पोटांत हांसून गुळो येतालो !

गोंयच्या चडशा कोंकणी प्रोग्रामांनी येवकार दितना शंकराच्या....

गोड गोड गोड गळयान
गोमटें गोंय गायता
संगिताच्या निजान ताच्या
निर्मितल्याक होरायता १
नाचता तालार ल्हारार ल्हार
ज़ुवारेचीं पांयजणां
वाजता सुरान एकतान
मांडवीचीं मांदोलीनां २
माड माडयो म्हणटी मांडे
शब्दुल्यांचीं दुलपदां

जायां जुयां परमळान
आबोलेचीं मोनीं पदां ३

सोबीत सुकणीं नाचता देखणीं
रूखा रूखा कणकणीं
वाजपा नादार झेमता पळय
जाग्रणाची रातराणी ४

मृदंगाचो बोल जसो
दुदाचो घसघसो
पानां पोवनां मारता मोखून
वाऱ्यावांगडा पिंपळ पिसो ५

सुर्या हांसता दर्या गाजता
धर्तरेक होरायता
गोड गोड गोड गळ्यान
आमचें गोंय गायता ६

जणगणमन अधिनायक
मेकळ्या गोंयचे गीत आयक
दो रे मी फा....
सा रे नी सा....
आमचें गोंय गायता ७

ह्या गितान सुरवात केल्यार ती पयल्याच बोलाक सिक्सर मारिल्ले भाशेन जाता !

कवीसंमेलनाक शंकर हाजीर आसल्यार ' गणा गणा गणा ' असो कितल्योशोच फर्माईश येताल्यो. चुनो ना जाल्यार पान रंगना तसो शंकराचो गणा ना जाल्यार कवीसंमेलन रंगना ! देखून लोक शंकराक गणा म्हळेबगर सोदिनासले. असो हो शंकराचो गणा.

**गणा**

कितलीं वर्सां जालीं आयज
गणाचें आयलां राज

कोण गणा कोण जाणा
भुरगेपणांत आयकलेलीं
आणकू-माणकू खेळटाना
आदू गोदू फिरंगी चारी
पांचवो आसलो एक गणा
हो बी काय तो गणा ?
हो गणा तो दिसना
ह्या गणाचे जैत सदां
हार हाका खबर ना
ओमकाराचे राज खंय हें
गणराजा गणपती
घोवा नांवान कुकमा आदार
प्रजे बाबडे अबरगतो
ओमकाराची आसनमांडो
मकराची पोटा गोंडी
ब्रह्म जरी गिळ्ळें हाणें
मात पुणून तोडशेना
सोंड हाची दावेवशीं
खिणाभितर उजवेवशीं
तटस्थ शी भासली जरी
मदल्या मदीं लांबताना
सुपा येदे कान हाजे
केद्योय बोबो मारल्यो तरी
मातशी हिंसा केल्याबगर
आमचो गणा बाडगना.
गणा नांवार झुजाची सुजां
आंध्र आनी तेलंगणा

विदर्भ नी मराठणा
मदीं उजो लेगीत वचना
गोदेच्या उदका पासत
दीसरात वाटपणां
ओमकाराचें रूप जरी
गणराया गणपती
तिनूय मात्रा गावल्यो जरी
अर्दी मात सांपडना
देखून घडये गणराज्यांत
खिणा खिणाक आवर्शणां
कोण गणा
कोण जाणा...

'शंकरबाब आसा ?' अशें म्हणून सोंदप्यांनी चडशे व्हकलांचे बापूय आसताले. सोयरिको करप हाचो शंकराक कवनां इतलोच घोस्त आशिल्लो. ताच्या बोलसांत कितल्याशा व्हंकलांचे आनी न्हवऱ्यांचे फोटो आनी पत्रिका संवसाराची वाट पळेत रावताले. लग्न जुळोवपाक शंकर आपल्या बोल्साक खार लावन कितलेय पयस वतालो. एकाद्री सोयरीक जुळ्ळी जाल्यार धादोस जातालो ! अशो कितल्यो सोयरिको शंकरान केल्यात ताचे कौंत ना. विस्कटायल्ले कितलेशे संवसार जोडून दिल्यात पूण आपूण मात जीणभर सादोसुदो रावलो ! पुरुसभर उदकांत बुडून काश्टी सुकी म्हणटात तसली गजाल !

हांवें एक दीस शंकराक ताजें लग्न ना जावपाचें कारण विचारलें.

'भुरगेपणांत भुरगो म्हणून लग्न जावपाचें येवजलेंच ना ! लग्ना पिरायेचेर राजकारणांत पडलों आनी लग्न जावपाक वेळच मेळ्ळोना ! आतां जाणटो जालों देखून चली मेळना ! अशी आंबाडच्या रूखाभाशेन म्हजी गजाल जाल्या.' अशें शंकर कॉमीकपणान सांगतालो. आपलें लग्न जालेंना म्हणून ताका कसलीच खंत नाशिल्ली.



'भांडारी सायब आसा ?' अशा सोदप्यांनी नोकरी वा प्रोमोशनाखातीर येवपी लोक आशिल्ले ते बावडे शंकर येसर पासीयेंस काडून बसताले. शंकर येतकच आपलें काम जातलें हाची तांकां पुराय खात्री आसताली. इतल्या लोकांक शंकर सिर्विसो कशो दितालो आनी प्रोमोशनां कशीं दितालो तें तोच जाणा ! पूण तो लोकालें काम कर-तालो कित्याक तर ते लोक मागीर शंकराचे मुद्दाम उपकार मानूंक येताले. मागीर शंकर आपल्या बोल्सां-तले पयशे मोडून तांकां च्या–पाणी करतालो.

'ईझ मिस्टर भांडारी इनसायड ?' अशें जुवाजिनाक विचारपी लोकांमदीं चड करून भाशणांखातीर येवपी लोक आशिल्ले. शंकर तांकां भाशणां बरोवन दितालो आनी ते सभत आपल्या नांवान ठोकताले. ताळयांर ताळयो घेताले. कांय लोक वेचणुकां वेळार घोशणा बरोवन घेवपाक येताले. मुदयर थीक कशो घोशणा बरोवपाक शंकराक वगत केन्ना लागनाशिल्लो. वेचणुकीतल्यो शंकर छाप घोशणा आपशीच वळखूं येताल्यो.

कांय लोकांक प्रेसनोट, एलैसांवाचो मॅनीफेस्टो, जायराती, असलें तयार करपाचें आसतालें. शंकराचो हात लागना जाल्यार हारो बरो भाजना अशें तांकां दिसतालें, त्या खातीर ईझ मिस्टर भांडारी इनसायड ? अशें म्हणत ते ताका सोदूंक येताले.

चडशे जाणटे भाटकार आनी पुर्तुगेझ वेळावयले ॲम्प्रेगाद ताका आपले पुर्तुगेझ दुकूमेंत इंग्लिशींत भाशांतर करूंक जाय आशिल्ले ते 'सिन्योर भांडारी इश्ता देंत्रा!' अशें म्हणून शंकराक सोदीत जुवाजीना-कडेन येताले. तांचे दुकूमेंत ट्रान्सलेट करप, भारतीय कायदे तांकां समजावन सांगप आनी केन्ना केन्ना फामिलीं मदल्या झगड्यांत मध्यस्ती करप हेंय समाजकार्य शंकराक लागतालें.

शंकर हो एक जे. कृष्णमुर्ती भक्त आनी टॅलंट हंटर. जे. कृष्णमुर्तीच्या भाशणाच्यो टेपी आयकुपाक हांव शंकरावांगडा कितलेशेच दीस भोंवलां. आध्यात्मीक नवो विचार खंय आसा म्हणून जर कळत जाल्यार शंकर आफिसाक खाडो मारून थंय वतालो. पणजे मळ्चांत 'प्रजापिता ब्रह्मकुमारी इश्वरीय विश्वविद्यालय' जाग्यार कितल्याशा बिरेस्तारा रेगुलार वचून प्रवचनां आयकतालो. तितलेच उमेदीन 'बहाई' धर्माच्या केंद्रार वचून ताची जाण घेतालो. 'कर्मण्यो वा धिकारस्ते मा फलेषु कदाचन।' हें गीतेतलें वचन ताका खूब आवडटालें. 'लोक संताच्या उतरापरस चमत्काराक चड भाळटात हें समा न्हय.' अशें तो म्हणटालो.

'चडशा संतांनी चमत्कार करूंक नात. लोकांनीच ते तांकां तेंकयल्यात. थोडचाभोव संतांक लोकांचें आतेंसांव मेळपाक चमत्कार करचो पडटालो जावये. तशो ताणी करूंक ना जाल्यार लोकच आपल्या मनांत तो करताले. आपूणच संताक चमत्कार हाडून तेंकयताले. खरें म्हळचार संताचीं उतरां होच मोटो चमत्कार.

वेद अनंत बोलीला।
अर्थ इतुकाची साधीला।
विठोबाशी शरण जाणे।

केदें मोटें कवन हें? पूण लोकांच्या लक्षांत तुकाराम सदेह वैकुंठाक पुष्पक विमानान गेलो हेंच उरलें. ज्ञानेश्वराचें पसायदान कुशीकच उरलें. ज्ञानेश्वरान रेडया तोंडांतल्यान वेद म्हणून घेतलो. वणटीर बसून तो चांगदेवाचे भेटेक गेलो. इतलेंच लोकांचे तकलेंत उरलें. जेजू क्रिस्त म्हळचार भोग आनी भावार्थ हाचेंच एक मनीसरूप! ताका खुर्सार मारता आसतना लेगीत तो, 'मारप्यांक भोकशीय. ते कितें करतात तेंच तांकां कळना' अशें म्हणून देवा धनयालागीं तांकांच बरें मागतालो. केदो मोटो देवाचो पूत तो! पूण लोकांनी ताचे कडल्यान कितें घेतलें? तो मेल्लो जिवो जालो. ताणें उदका सोरो केलो. असल्यो गजाली लोकांमदीं चड रिगल्यात. हो दोश एकट्या दुकट्याचो न्हय. हो दोश सगले मनीसजातीचो, म्हळचार समाचोच

दोश अशें म्हणचें पडलेंना ? अशी खंत ताणें खूबदां परगटायल्ली.

'सुखी माणसाचा सदरा' असो आमकां शाळेंत एक धडो आशिल्लो. एक राजा दुयेंत जाता. 'ताका सुखी मनशाचो सदरो घाल्यार ताचें दुयेंस बरें जातलें' अशें दोतोरान सांगलें. राजाल्या मनशांनी सुखी मनीस सोदपाक सगल्या वाटारांत धुल्ल कांडलो. पूण तांकां तसो सदरो आशिल्लो सुखी मनीस मेळना जालो. देखून जण एकल्याक जो कोण सुखी असो दिसता ताका राजाले मनीस विचारताले, 'तूं सुखी आसा ?' पूण दर एकलो आपली कसली ना कसली पिरगण तांच्या मुकार मांडटालो.

उपरांत एक मनीस तांकां मेळ्ळो. तो तळये देगेक काश्टी मारून धादोस बशिल्लो. तो खूब सुखी आसलो. राजाल्या लोकांनी प्रस्न करतकच ताणें आपूण खूब सुखी आसां अशें सांगलें. राजाल्या मनशांक खोस जाली. ताणी ताचो सदरो मागलो, पूण त्या मनशाकडेन सदरोच नाशिल्लो. ताजेकडेन आशिल्ली एक काश्टी. तो राजा आयज आशिल्लो जाल्यार ताका शंकराचो धवोफुल्ल सदरो धाडून दीवं येतालो. असो सदरो आशिल्लो सुखी मनीस म्हळ्यार आमचो शंकर भांडारी !! ताका केन्ना जोर आयलो, तकली कणकणली, ना जाल्यार पोटांत चाबलें अशें केन्ना आयकलेंना.

एका दिसा मात शंकर फिग्दाचे पिडेन दुयेंत पडलो. दुयेंस बरेंच चडार पडिल्लें. शंकराची सूद लेगीत गेल्ली. ओशिपतालांत ताका पळोवंक आनी बरें मागूंक लोकांनी जात्राच केल्ली. तातूंत समाजांतले सगल्या जातीपातीचे, सगल्या पांवड्यावयले लोक आशिल्ले. शंकर ह्या संवसारांतल्यान सोंपलो अशी अफवाय उठिल्ली. ती आयकून लोक आनीक गर्दी करताले. पूण सोंपल्लो शंकर जिवो जालो. थोड्या तेंपान तो सणसणीत बरो जावन आकाशवाणीचेर कामाक वचूंक लागलो. आपल्याक यमराजा तोंडांतल्यान सोडोवपी दोतोराचे आनी बरें मागप्याचे ताणें पेपरार जाहीर उपकार मानले.

हांवें एक दीस फकाणांनी ताका म्हळें, 'शंकर, यमराजा तोंडांतल्यान तूं कसो सुटलो ? कापाझ मरे तूं !'

'ताची एक मांडणी आसा. हांवें त्या दिसा यमाक उत्तरेकडच्यान

रेड्यार बसून येतालो तो पळयलो. ताचो रेडोय बरोच फुरफुरतालो. अशें जातलें हें हांव जाणां आसलों. हांवें एक फळिल्ली म्हस त्या रेड्याचेर सोडली. घे ! म्हस पळेनाफुडें तो जो उधळ्ळो तो यमाकच आनीक एक यम दिसूंक लागलो. हांवें थंयच्यान फुज्यो काडली.' अशे तरेन ताणें सदांभशेन शंकरछाप जाप दिली.

असलीं नाडग्णां करपाची शंकराक सवंय आशिल्ली. पूण ताचीं नाडग्णां यमराजालागीं धरत अशें केन्नाच दिसलेंना.

यमराजाकच ताचें अजाप जालां जावंये. पूण तो केदो खांपो. दुसरे फावट भेळ्शिल्ल्या रेड्यार तो आयिल्लो जावं येत. शंकर वर्साभितर परतो अचकीत दुयेंत जालो. परतोय ताका ओशिपतालांत व्हेलो आनी ताच्या दुसऱ्याच दिसा शंकराच्या मर्णाची खबर पेपरार वाचली.

फाटीं एक फावट आमी कळंगुटे पिकनीक काडिल्ली. पिकनिकेंत बरोच जाम जावन हांव एका काजू झाडापोंदा मातसो आड पडलों. तेन्ना शंकर आनी म्हज्या हेर आमिगांनी म्हजीं फकाणां केलीं. कितें केलें जाणां ? म्हाका चार जाणांनी उखलून एक किलोमिटर मेरेन म्हजी प्रेतयात्रा काडली. तसो हांव जागोच आशिल्लों. पूण ओग्गी रावलों. म्हळें पळोवया हे कितलीं फकाणां करतात तें.

मागीर शंकरान म्हज्या मर्णाचेर भाशण केलें आनी म्हाका श्रद्धांजली ओंपली. तें करताना म्हज्या मर्णाचेर शंकर खुब्ब रडलो. हांव ताच्या मर्णाचेर खूब रडलों.



एक निश्काम कर्मयोगी संवसारांतल्यान सोंपलो ! पूण दोळ्यांमुखार धवोफुल्ल असो !

जय शंकरा....

# फोंडू

फोंडू म्हाका जायत्या तेंपान पयर मंगेशीं मेळ्ळो. मुंबयसावन म्हजे वांगडा सोयरे आयिल्ले. तांकां देवळां दाखोवपाक हांव मंगेशीं गेल्लों.

देवळांत देवा म्हऱ्यांत हात जोडून फोंडू उबो आशिल्लो. हांव पयलीं ताका वळखूंक ना. हांव तो भटच म्हणून समजलों. कित्याक जाणात ? तागेलो भेस भटांभाशेन आशिल्लो. तांबडे देगेचो परकाळो, खांदार मोटें जानवें, गळ्यांत रूद्राक्ष माळ आनी आंगभर भस्म. अशा भेसांत फोंडूक पळोवन म्हाका अजाप जालें.

भट, फोंडू नांवान देवाक गाराणें घालतालो, 'देवा सायबा, मंगेशा ! हो फोंडू आदोगाद आयज तुजे म्हऱ्यांत तुज्या पांयाकडेन आयला. ताच्या धंद्यांत ताका मनासारकें येस येना. तूंच ताजेर कृपा करून ताच्या धंद्याची उदरगत कर. ताचे बायले–भुरग्यांक आरोग्य, संतत, संपत दिवन वयर काड. ताजें नांव सगल्या वाटाराक परजळचें. अशें म्हणून ताणें नैत्रेध–अभिशेक केला तो मानून घेवन ताचें कल्याण करचें ! !'

भटाच्या उत्तराकणकणीं फोंडू ' हय सायबा ! हय सायबा !' अशें म्हणत नंदीबैला भाशेन मान हालयतालो. फोंडू आदोगाद जाला

हें म्हाका तेन्ना कळ्ळें !

फोंडू आनी हांव वांगडा शिकपी. तकलेन मोटो हुशार मनीस ! एके परीक्षेंत बॉम्बे युनीवर्सिटींत ताका गोल्डमॅडल मेळ्ळें. फ्रँच आनी इंग्लीश विशय ताका केन्नाच शिकचे पडनाशिल्ले.

परीक्षे पयल्या दिसा तो त्या पुस्तकाक हात लायतालो. पूण सगल्यां परस चड मार्क ताकाच पडटाले. इतिहासांत ल्यो सनावळी पाठ करप हें आमकां एक व्हडलें वजें जातालें, पूण सगल्यां परस फोंडूक तातूंत खूब उमेद येतालो. कुतुबमिनार कोणें बांदलो ? केन्ना कॉमेंस केलो ? केन्ना कंप्लीट केलो ? कितले



लोक मेले ? कितले लोक वावुरले ? बहामनी राज्याचे कुडके कितले जाले ? हें सगलें तो न्हिदेंतल्यान उठयल्यार लेगीत ल्हायो फुटल्ले भाशेन सांगतालो. गणीत ह्या विशयांतच तो खांपो ! असो हो हुशार मनीस तेन्ना पुराय नास्तीक आशिल्लो.

'देव म्हणून कांयच ना ! आनी आसाच जाल्यार तो मनशान निर्मिल्लो देव ! मनशाक देवाची कांयच गरज ना ! उरफाटें, देवाकच मनशाची गरज आसा. आमीच ना जाल्यार ह्या देवाच्यो वाऱ्यो जातल्यो इतलें मात खरें !' अशें तो आमकां आंतऱ्यापयऱ्यान लॅक्चर दितालो. असो हो फोंडू आयज मंगेशा मुखार नाक घांसतालो आनी पोले फोडून घेतालो.

'आरे फोंडू, तूं रे हांगा खंय ?' हांवें अजापान ताका विचारलें.

'देवाक एक अभिशेक करपाक आयिल्लों.'

'देवाक रे कित्याक अभिशेक ? तूं देव म्हणून कांयच ना म्हणटा मरे !'

फोंडू पयलीं म्हाका थंय पळोवन मातसो नेर्वोज जालो. म्हज्या मनांत हो विचार येतलो हें तो जाणा आशिल्लो तें आनी मनांत दवरीनासतना दिरेत फोंडूक विचारलें.

फोंडून मातसो सिरीयस जावन जाप दिली. 'आपल्या आंगार शेंकतकच देव बी सगलो दिश्टी पडटा ! शाळेंत शिकतना मास्तरच व्हड दिसता आनी ताचे मुखार देव लिपता. मेळुया केन्नाय. हाजेर उलोवया एक दीस.' अशें म्हणून फोंडू थंयच्यान फासळिल्लो. मागीर आमी आमचें देवस्पण करून कवळ्यां गेले. उपरांत उरिल्लीं देवळां पळोवपाक गेले. सांजे वेळार घरा परत.

त्या दिसा आमी कितल्याशा देवाचें दर्शन घेतलें. कितलींशीं सैमाचीं ठिकाणां पळेलीं. कितलेशे मनीस मेळ्ळे. पूण तकलेंत उरलो तो फोंडू ! फोंडू !

फोंडू इतलो खडेगांठ नास्तीक मनीस आयज देवामुखार पोले फोंडून घेता आनी नाक घांसता तें पळेलें. हें अशें कशें घडलें ? हेंच म्हाका कळना. म्हाका दिसलें सूर्य एकादो अस्तंतेक उदेत, म्हशीगेर

पाडो जायत पूण फोंडू केन्नाच आस्तीक जावचोना! पूण अप्रूप घडिल्लें हांवें दोळयांनी पळेल्लें.

फोंडू देन ना म्हणटालो पूण जात, पत्रिका, गिऱ्याचो परिणाम हें मानतालो. ताचो एके चलयेचेर मोग आशिल्लो. तो मोग तोंकाक वचचे पयलीं ताणें तिची पत्रिका पळोवन मोग मुखार व्हेलो. चलयेची पत्रिका एकदम बरी जुळ्ळी. दोगांयनी लग्न करपाचें थारायलें. साकरपुडो बी बरो दबाज्यान जालो. पूण निमाणें देवस्पणाक लागून लग्न मोडलें!

चलयेच्या बापायन साकरपुड्या पयलीं देवाचो प्रसाद घेतलो ही गजाल फोंडुक कळ्ळी आनी ताचे तकलेक भिरभिरी मारली.

'लग्नांत आपूण देवस्पण कांयच करचोना. लग्नापयलें देवकार्य, मंत्रदेवता, भट मंत्र, सप्तपदी, अं हः' असलें कांयच करचोना.

लग्न म्हळयार रेजिश्त सिवील करप. मागीर रिशेप्शन. कसलेंच देवस्पण न्हवरेकार आनी व्हंकलकार हाणी कोणेंच करूंक उपकारना?

हें कोन्दिसांव ताणें व्हंकलेक घालें, अशें तो आमकां सांगतालो, पूण व्हंकलेच्या बापायन देवाप्रसाद घेतलो हें ताका कळना फुडें तो तिडकीन त्या भटा म्हऱ्यांत गेलो आनी भटाकडच्यान ताची खात्री केली. मागीर व्हंकले बापायक रेकाद धाडलो, 'लग्न मोडलें!'

अशा ह्या देवस्पण ना करपाच्या कोन्दिसांवाक लागून फोंडून कितल्योशो सोयरिको सोडल्यो.

लग्ना बगर फोंडूची पिराय वाडत वताली. तो आवय बापायलो एकूच पूत. दर सोयरीक भायर उडोवचे पयलीं आवय फोंडूक काकुळटेक येवन सांगताली, 'पुता, हे फावट तरी न्हयकार दीवं नाका. काय बरी भांगरा सारकी चली आसा. देवाप्रसाद बवंदी ताका. कितें वायट केलां तुजें देवान?'

पूण फोंडू नखोटो तो नखोटो!

उपरांत तेंप वता तशें सोयरिको येवप बंद जालें. कोण पिराय वाडली म्हणून जाल्यार कोण हो तिरसुवार म्हणून सोडून दिवपाक लागले.

तरीय फोंडून दोन तीन वर्सां सोयरिकेची वाट पळेली. मागीर ताणें एक दीस पेपरार जायरात दिली.

' व्हंकल जाय !'

ताणें जायरातींत रांडांव, दिवोर्सी आनीक खंयचेय जातीची व्हंकल उपकरता. तिणें फोंडूक आनी जल्म, वेळ, तारीख, जल्मल्लो जागो हाची नोंद धाडून दिवची. लग्नाक भट देवस्पण मात कांयच उपकरना. हें कोन्दिसांव ताणें जायरातींत घालें. इतलेंय करून लेगीत एकूच रांडांव वा सवायशीण चली ताका सांगून आयली ना !

मागीर फोंडून तीन फावटीं जायरात रिपीट केली, देखून पेपर-वाल्यांनी चवथे फावट फुकट छापली. तरी फोंडूचें नशीब परजळ्ळेंना ! मागीर फोंडून देवस्पणाचीं कोन्दिसांवा फाटीं घेतलीं.

फोंडूचे आवयन आपल्या सोयऱ्या-धायऱ्याक पारातून एके चलयेक तयार केली. फोंडूचें लग्न जालें. ह्या लग्नाक फोंडून देवस्पणाक मान्यताय दिली, पूण तें आपल्या उक्त्या दोळयांनी पळोवचें न्हय म्हणून काळें गॉगल लावन तो भटा म्हऱ्यांत पाटार बसलो.

देवस्पणाक आपलो हात लेगीत लागचो न्हय म्हणून ताणें दोतोरा भाशेन हाताक लुवां घालीं. पडलो पूण भुंयेक फाट तेंकलीना !

फोंडू देवस्पणार जरी कांत्र आशिल्लो तरी कोणेंय देवाधर्माचेर अत्याचार केल्यार तो चवताळतालो. गोंयच्या स्वातंत्र्यापयलीं कांय पुर्तुगेझ सोल्दादांनी काणकोणां देवळाभितर वचून आबूज केला. ते सोरो पियेवन देवळाभितर सरले. इतलेंच न्हय, जाल्यार देवा गर्भ-कुडींत लेगीत भितर सरले. थंय थुकले आनी नाका नाका ती खूब हळशीक केली.

हें कळनाफुडें फोंडू सामको बेजार जालो. 'देवळांत जांणी हळशीक केल्या तांकां जिवे मारले बगर हांव अन्न उदक लेगीत घेवचोना.' असो ताणें सोपूत घेतलो. रोखडोच रानांतले चोरवाटेन कारवार गेलो, थंय स्वातंत्र्य चळवळीच्या तेरोरिस्तांक मेळ्ळो. ही गजाल आयकून तेय बी एकदम खुबळ्ळे.

तांणी देवळांत आबूज करपी जण एकल्याक तीन दिसांभितर

वेंचून काडून फारांनी मारले. काणकोणां त्या वर्सा बरोच मोटो बोवाळ जालो. पुर्तुगेझांनी गांवच्या कितल्याशा लोकांक धरून व्हेले. फोंडू मात तांच्या हाताक लागलोना !

मागीर ताणें गोंय स्वतंत्रताय चळवळीक आपलें, व्हीद ओंपले, उपरांत तो बेळगांवा गेलो. मदीं मदीं चान्स मेळत तेन्ना ताणें कॉलेज केलें. मागीर थंयसरच तो बी. ए. पास जालो.

अशें फोंडूच्या सभावांत विचित्रपण खूब आशिल्लें. देव करना, देवस्पण करना, पूण देवळांत आबूज केल्यार मात राग येता. प्रसाद घेना, पूण जातकच पळेता. नाकार राग पूण मायेक म्होंवो. बेळगांव-कारवार शिकपी भुरग्यांक फोंडूचो खूब आदार जातालो. कोणय गरजेक आयल्यार आपल्याच्यान जायत तशे तांकां पयशे दितालो. गोव्या मेटार कस्टमान परतिल्लें तांचें सामान तो त्या- त्या जाग्यार सेगूर पावयतालो.

आतां मूळ पदार येवया. फोंडू मंगेशीं देवळांत कसो ? ताका तोंडार विचारप म्हाका बरें दिसलेंना. फाटल्या धा वर्सांनी ताका हांवें पयलेच फावट पळेला तो पयर मंगेशीं देवळांत. हांवें ताका 'देवाक रे कित्याक अभिशेक ? तूं देव कांय मानना न्हय रे !' अशें म्हळें खरें पूण तो म्हाका सारकें सांगूंक सोदीनाशिल्लो. ताणें मागीर सांगतां म्हणून म्हाका वाटेक लायलो. त्या दिसा थोडचा वेळान म्हाकाय वायट दिसलें. कोणाचींय खाजगी दुखणीं आसतात तांचेर सट्ट करून हात घालचो न्हय. म्हाका तें अचकीत तोंडाक आयलें. एके वाटेन म्हाका ताची जाप जाय आशिल्लीच. फोंडू सारको तेमोझ मनीस आपल्या तत्वापासत कसो हालिल्लो हें समजूंकच जाय आशिल्लें.

दामू आमचो दोगांचोय आमीग. तो एक दीस म्हाका एका लग्नाक मेळ्ळो. हांवें ताका कुशीक व्हरून फोंडूची खबर विचारली. ताजे कडच्यान म्हाका फोंडूचो फाटल्या धा वर्सांचो सगलो इतिहास कळ्ळो.

गोंय स्वतंत्र जातकच फोंडून कितलेशे धंदे केले, पूण दर एका धंद्यांत लाखाचे बारा हजार जाले ! ताका गांवतां थोडेंभोव शेत-भाट

आशिल्लें. आपलें घर आनी भाटाबेंसाचेर नदर उरुंदी देखून ताणें गांवांत रावन करपासारको धंदो सोदून काडलो. गोंयां माड खूब देखून ताणें माडांपासून जें कितेंय करूं येत तो धंदो गोंयां बरो अशें येवजीलें.

माडांपासून पयल्या खिणाक येवजलो तो 'सोरो!' फोंडू देवस्पणाचेर काँत्र आशिल्लो. तसोच सोऱ्याचेरय काँत्र आशिल्लो. सोरो आनी देवस्पण दोनय गुंगे वखदां. सोरो पियेतल्याक जशी गुंगी येता तशीच देवस्पण करतल्याकय येता! देवळांत आंगार भार येता तो भगत आनी सोरोबेबदो हे सारके! दोगांकय आपूण कितें उलयता हाचे सितीद नासता. तप करपी चडशे साधू भांग घेताले, ना जाल्यार सोगें पियेताले. तांचे तकलेंतलो देवस्पणाचो उणाव ते असल्यो नकलाभी करून भरून काडटाले. संतांचे अभंग म्हळ्यार देवस्पणाचे गुंगेचो परिणाम. ते गूंगेक लागून तांणी बायल भुरगीं आनी संवसाराची दैना करून घेतली, आनी आतां तांच्या नाड्यार संवसारांत वता थंय बुवाबाजी चलता. कोणूय उठून हळडुवीं वस्त्रां गुटलायता आनी स्वामी जाता. हजारांत एकलोच खरो स्वामी आसता. उरिल्ल्या णवशें णव्याणव मनशांच्या आंगार गोडारोस ओतून मुयां हुमले सोडूंक जाय!!' अशें ताजें सड-सडीत म्हणप आशिल्लें. देखून ताणें सोऱ्या-धंदो करपाचो विचार केलोना.

माडाचीं सोण्णां आमी चडशीं जळोवपाक वापरून इबाड करतात. सोण्णां-सुमाच्यो कितल्योशो वस्तू करूं येतात. ताका दर बरी येता. सरकारी रीण मेळटा. अनुदानय मेळटा. ताका लागून ताणें सुमां फॅक्टरी घाली. तो फ्रिडम फायटर जाल्ल्यान सगलीं कामां सट्ट करून जातालीं.

फोंडून सगल्यो सरकारी राटी करून फॅक्टरी घाली. सरकारी तज्ञांनी ताका प्रॉजॅक्ट रिपोर्ट करून दिलो. कामाक मानांय कितले? कामेऱ्यां कितलीं? बुदवंत कितले? टायपिस्ट, क्लर्क हांचें लिस्ट करून दिलें. फोंडून पेपरार जायरात दिली. कितलेशे अर्ज आयले. ताणें कोणाकच फावोर करीनासतना तांची तोंडी परीक्षा घेवन खास करून गांवच्या आनी गरजेवंत लोकांक कामाक घेतले.

उद्येग खात्याच्या मंत्र्या हातान मेटचा दबाज्यान फॅक्टरीचें उक्तावण जालें. उक्तावणा दिसा फोंडूची धांदळ जाली. फॅक्टरी चालू करपाक सूम जाय जाल्यार सूम थंय नाशिल्लें. निमण्या वगतार गांवांतल्या कोणाकडच्यान तरी सूम हाडलें आनी फॉर्मालदाद केली.

मागीर फोंडून गांत्रासावन विकती सोण्णां घेवपाक कॉमेस केलें. दर एकल्याच्या पाडेपणाकडेन वचून फोंडून सोण्णां घेतालीं. ताची घरचीं सोण्णां फॅक्टरीक एक दीस लेगीत पावनाशिल्लीं.

सोण्णां घेतलीं म्हूण रोखडेंच ताचें सूम जायना. तीं वर्सभर तरी खाऱ्या रेब्यांत पुरून दवरचीं पडटात. तीं बरी कुसतकच तांचो काथो काडटात, मागीर तांच्यो जायत्यो वस्तू करप.

फोंडून हें येवजीलेंना ! पयलींत्र कामाक लोक नेमले. सोण्णां घाल्ले दुडू रेब्यांत गेले, आनी आतां लोकाक पगार दितना फोंडूच्यो भोयो-भोयो जाल्यो !

पयले दोन म्हयने फोंडून लोकाक बेकार दवरून पोसले, मागीर ताणें चिंतलें अशें उपकारना म्हणून. ताणें तयार केल्लो काथोच विकतो घेतलो. इतले मजगतीं, फोंडूक आपलें एक शेत विकचें पडलें आनी ह्या खर्चाची तजवीज करची पडली !

गांवांत घेतिल्ल्या काथ्याचो दर परवडना आनी तो काथो धा दीस पावल्यार वीस दीस लोक बेकार उरतात. तयार केल्ल्या सुमाक आजून मार्केट मेळना. रिणां आनी ज्यूर दिसानदीस वाडत वता. फोंडूक कितें करचें तेंच समजना जालें.

'रेब्यांतलीं सोण्णां कुसून मेळसर खोबऱ्या धंदो कर !' अशी एकल्यान ताका बुद्द दिली.

फोंडूक तें खरें दिसलें. ताणें आनीक एक भाट विकलें आनी नाल्ल घेतले. तांचें खोबरें फोडलें. त्या वर्सा आब्रिलांतच तडवो पावस पडलो. पडलो तो मिर्गामेरेन पडत रावलो. फोंडूचें खोबरें भिजून बुळबुळीत जाल्लें. तें सुकलेंच ना.

अशे तरेन फोंडूक वता थंय साडेसाती बाधूंक लागली. कांय मनशां हातांत माती घेतल्यार भांगर जाता आनी कांय मनशां हातांत माणीक

घेतल्यार माती जाता ! धंद्याच्यो कांय खुमो आसतात. त्यो जमता तो फॉलग मारता. मायंडाक शिरकल्लो मनीस भायर सरूंक सोदता तितलोच चड रेब्यांत भितर वता. इंग्लिशींत ताका क्वीकसॅण्ड म्हणटात. फोंडूची मांयडाक सापडिल्लेवरी गत जाल्ली.

लोकांक पगार वेळार पडना जालो. फोंडून आपलीं भाटां बेंसां आनी आसनाशिल्ली ऐपत फुंकली. फोंडू गरजेक आशिल्ल्यान लोकांनी ती सवाय तांगाक पंदरा पणस ह्या हिसबान म्हळचार फुकीसवाय घेतली !

आतां रीण काडचें जाल्यार फोंडूलागीं फातर लेगीत उरूंक ना. बोल्सांत पान दुडूय ना !

हेवटेन फॅक्टरींतल्या लोकांनी पगाराचो तगादो लायलो. थोडयांनी फॅक्टरींतलो म्हाल फारायलो. कोणें बिल्डिंगे पत्रे, लोखंड, कितें हाताक मेळत तें सुतलायलें आनी वयल्यान फोंडूचेर पयशे वसुलीच्यो गुमास्ता कायद्यान केशी घाल्यो.

फोंडूचें नशीब वायट, पूण नांव बरें आसलें. फोंडूचो एक आमीग व्हिसेंत आदोगाशी करतालो. ताचे गरजेक फोंडू ताका जायते फावटी पाविल्लो. ताणें फोंडूच्यो सगल्यो केशी फुकट चलोवपाक घेतल्यो. तितलोच फोंडूक मातसो सुसेग.

'उदकाक भरती– सुकती आसताच. तसो धंद्यांत चड– उतार आसता. तूं धीर सोडूं नाका. दुसरो कसलोय कॅश पयशे मेळोवपाचो धंदो कर.' असो ताच्या बरेमागप्यांनी ताका जायतो धीर दिलो. थोडोभोव पयशांचोय आदार दिलो. तो फ्रिडम फायटर आशिल्ल्यान आनी निजाचो बरो मनीस आशिल्ल्यान सरकारी खात्यांत ताची पत घाणली नाशिल्ली. दामू ॲनीमल हझबंड्री खात्यांत काम करतालो. फोंडू एक दीस ताच्या म्हन्यांत गेलो आनी ताणें ही सगली गजाल दामूक सांगली.

'दुदा धंदो कर रे ! आयज गोंयांत दूध बेळगांव, कोल्हापूर, जमखंडी अशें घांटावयल्यान येता. तुजो फॅक्टरीचो जागो आसा न्हय ? थंय काडया. तुका बोल्सांतल्यान एक पयसो लेगीत काडचो पडचो ना.

सगळें हांव तुका सरकारांतल्यान दितां.' अशें ताका दामून सांगलें.

जण एकल्या बरेंमागप्यान फोंडूक अशीच बुद्द दिली. फोंडूक परतो धंदो करपाक मुखार काडलो. तांच्या सगल्यांच्या आदारान फोंडून डेरी घाली. धा जर्सी गायो हाडल्यो. डेरी कॉमेस जाली. थोडे दीस धंदो बरो चल्लो. फोंडून थोडीं– थोडीं रिणांय फारीक केलीं.

आदोगाद ह्सिेंत फोंडूचो दॅमान फुकट चलयतालो, पूण फोंडूक आंतऱ्या पयऱ्यान ताजेसरीं वचचे पडटालें. ताका लागून ताणें डेरीचेर एक मॅनेजर नेमलो. इतले दीस फोंडू आपूण स्वता तो वेव्हार पळेतालो.

फोंडूचो मॅनेजर कामाक बरो हुशार आनी गांवान सगलेकडेन ताच्यो वळखी. वळख ना थंय देखून वळख करून घेवपाक चलाख ! फोंडूक हो मॅनेजर बरोच गोस्ताक आयलो. आपलो आदोगाद व्हिसेंत आनी मॅनेजर रामदास म्हळचार देवानच धाडिल्ले दूत ! तांच्या म्हालवजार आपलें सगलें चलता', अशें फोंडू लोकाक सांगूंक लागलो.

दिसानदीस वाडत गेल्ल्या दॅमांदाक लागून डेरीचो सगलो वेव्हार फोंडूल्या मॅनेजराक पळोवचो पडटालो. दिसाक १०० रुपया भरप सुरवे सुरवेक फोंडूक जड जातालें. केन्ना पन्नास, केन्ना साठ. केन्ना सत्तर रुपया अशे तो भरतालो. पूण मॅनेजर घेतसावन बॅंकेच्या पासबुकार चड पयशे जमा जावंक लागले. आतां उणेच म्हळचार शंबर. केन्ना एकशें धां, सवायशें रुपया जमा जाल्ले पासबुकार दिश्टी पडूंक लागले.

आपलेपरस बरो वेव्हारी मॅनेजर मेळ्ळो म्हूण फोंडू धादोस जालो. आता फोंडून सगलो डेरीचो वेव्हार मॅनेजराचेरच सोंपयलो म्हळचार जाता. केन्ना– केन्ना मनाक मारता तेन्ना फोंडू पासबूक पळेतालो; मागीर सातीश्फेद जावन शिळोणी घालतालो ! मडगांवां सावन येतना केन्ना केन्ना मॅनेजराक खोमसा लुगट ना जाल्यार कसलोय प्रेझॅंट हाडून मायेमोगान दितालो.

एका दिसा फोंडूक घराकडेन बॅंकेची नोटीस आयली.

' फाटल्या स म्हयन्यांनी तुज्या खात्यार एकूय पयसो जमा जावंक

ना, देखून झ्या ई झ्या पयशे भर.' अशी कडक नोटीस बँकेन दिल्ली.

'हें आनीक किते?' फोंडूक अजाप जालें. तो तसोच उठून पासबूक घेवन बँकेंत गेलो आनी ताणें पासबूक मॅनेजराच्या मेजार आपटीलो.

'मॅनेजर सायब हें किनें? दिसाक शंबर रुपया भरपाचें म्हजें उतर आनी हांव दिसपट्टे शंबरांवयर रुपया भरतां. हें पळयात. पयर सोमारा एकशेंवीस रुपया, शेनवारा एकशेंधा रुपया. अशें आसून ही झया ई झ्या नोटीस म्हाका कित्याक?'

'मातशे बसात. हांव लॅजर काडून पळेता.' अशें म्हणून मॅनेजरान क्लर्काक लॅजर घेवन आपयलो. पळय जाल्यार लॅजराचेर एक पानदुडू लेगीत फोंड् खात्यार जमा नाशिल्लो. मॅनेजरान फोंडूचो पासबूक तपासलो. पासबुकावयल्यो सगल्यो अँट्री फटीच्यो आशिल्ल्यो. मॅनेजरान फोंडूक पेमँटाच्यो रिसिटी घेवन येवपाक सांगलें.

फोंडू तिडकीन आपल्या ऑफिसांत गेलो. थंय मॅनेजर नाशिल्लो. ताणें पंदरा दीस रजेचो अर्ज प्युना लागीं दिल्लो आनी मेजाच्यो चावयो फोंडूच्या घरा धाडिल्ल्यो आनी आपूण गुल्ल जालो!

फोंडून प्युनाक घरा धाडून मेजाच्यो चावयो हाडल्यो.

सगलीं कागदां तपासलीं, पूण बँक रिसिटी खंयच मेळ्ळचोनात. मॅनेजरान आपल्याक तीन पानां केलीं हें फोंडूक कळ्ळें. तो तसोच व्हिसेंती म्हन्यांत गेलो.

व्हिसेंत आनी फोंडून वचून पोलिसेंत केश दिली. आठ दिसांनी मॅनेजरच अटकपूर्व जामीन अर्ज घेवन पोलिसेंत आयलो.

आतां फोंडूचो देमांद आनीक वाडलो. धंद्याक आयज एक कारण जाल्यार फाल्यां दुसरें. इतलें करून निमणें दरवटचार पणटी! फोंडून रेब्यांत पुरिल्लीं सोण्णां आजून रेब्यांतच आसात. तेल काडूंक केल्लें खोबरें नाल्लेकच दसून आसा! दूद काडपाक हाडिल्ल्यो गायो बँकेन पावणेर काडल्यो. पावणी मॅनेजर रामदासान पायली!! ताणें 'रामदास मिल्क प्रॉडक्ट' अशी नवी कंपनी काडल्या.

'आपणें फोंडूचो एकूय पयसो सुतलावंक ना. फोंडू सदां सांजवेळा

येवन पयशे व्हरतालो. ताका लागून ऑफिसांत दुसऱ्या दिसा सकाळीं केन्ना केन्ना खर्चाक लेगीत पयशे नासताले. तेन्ना आपणें आपल्या बोल्सांतल्यान पांच हजार रुपया खर्च केल्यात. ते ज्युरासयत फोंडू-कडच्यान येवपाक जाय. आपणाक सर्व्हिसेवयलो काडून उडयलो ताची भरपाय म्हणून पचवीस हजार रुपया फोंडूकडल्यान येवंक जाय. सगले मेळून तीस हजारांवयर रुपया फोंडू आपणाक देवीत आसा अशें मॅनेजर रामदासान कोर्टाक बरोवन दिलां.

आतां फोंडूची ‘ अळय ना, फळय ना आनी तळय ना ’ अशी गत जाली.

दामु, व्हिसेंत आनी फोंडूचे हेर आमीग परते एकठांय जाले. ‘ फोंडूक धंदो न्हय ’ अशें मत तांणी परगटायलें. व्हिसेंतीन फोंडूक म्हळें, ‘ फोंडू, तूं नेगोस करूं नाका. तुवें नेगोस केल्यार तूं बुडटलो आनी तुका साल्वार करपी हांवय बुडटलों ! ’

‘ मागीर फोंडून कितें करप ?’ दामून म्हळें.

फोंडून व्हिसेंतीच्या ऑफिसांत काम करप.

फोंडू तकलेन हुशार मनीस. ताचो व्हिसेंतीक आदार जातालो आनी व्हिसेंत फोंडूक आदार दितालो. ही मांडणी सगल्यांक पसंत पडली. दुसऱ्या दिसा थावन फोंडून व्हिसेंतीचो असिस्टंट म्हणून काम करपाचें थारायलें.

आतां फोंडूचें बरेंच जाग्यार पडिल्लें. व्हिसेंतीचीं कामां आतां सटासट जातालीं. केन्ना केन्ना फोंडून केल्ले मिनूत ( drafting ) आपले परस बरें जाता अशें व्हिसेंतच लोकाक सांगतालो. फोंडून येवजिल्ल्या कितल्याशा पॉयंटांचेर व्हिसेंत केशी जिखतालो. एके केशीक हाय कोर्टाच्या जुविजान व्हिसेंतीची खूब तुस्त केली. फोंडूक लागून व्हिसेंतीक खूब गिरायकां येवपाक लागलीं. व्हिसेंतीन फोंडूक आदोगादीचो कोर्स करपाक लायलो. फोंडूकय तें खरें दिसलें.

आतां फोंडू पार्टटायम लॉ कॉलेज करपाक लागलो. आदोगाशीचीं उरिल्लीं कामां फोंडू आनी व्हिसेंत रातचे करपाक लागले.

व्हिसेंतीक णव वरां उपरांत मातशें कॉपाचें जाय आशिल्लें,

देखून तांचें चितप–बरोवप कामीलाच्या बारांत जावपाक लागलें ! येदो व्हड नामनेचो आदोगाद आपल्या बारांत येता म्हूण कामीलान तांकां एक इश्पिसियाल रूमच दिलो.

रातच्या इकरा–बारा वरां मेरेन फोंडू आनी व्हिसेंत कामीलाच्या बारांत ऑफीस चलयताले. व्हिसेंतीक कॉपाचो नेट आशिल्ल्यान कितलीय रात जाली म्हणून उबगण येनाशिल्ली, पूण फोंडू सोडा ना जाल्यार लिंबू पियेतालो, तें घेवन कितलो वगत बसूं येता ? फोंडू इकरा वरां उपरांत सामको बेजार जातालो.

‘ पुरो रे व्हिसेंत. चल, या घरा !’ अशें करून फोंडू व्हिसेंतीक ताकतीक करतालो.

‘ राव रे मातसो ! हें बरय पळोवया !’ अशें करून व्हिसेंत आनीक एक कॉप मारतालो. व्हिसेंतीचीं कॉपार कॉपां जावन वरांचीं वरां वतालीं. रातचें एक देड बी जातालें.

सदांच फोंडू असो बेजार करतालो देखून व्हिसेंतीन एक आयडिया काडली. ताणें कामीलाच्या वेटराक लिंबाच्या ग्लासांत दोन थेंबे जीन घालपाक लायलें. जीन म्हळचार वास घाण नाशिल्लो सोरो. थोडे बायलेक वास बी येत म्हणून भियेवन पियेवपी आसतात. ते जीन पियेतात. थोडीं बायलांय बी जीन घेतात. जावं. तें आमकां लागना !

लिंबांत दोन जिनाचे थेंबे घाल्यार पियेतल्याचें मतींत सटकन येना. मुखार दीस वता तशें कामीलाचो वेटर फोंडूच्या ग्लासांत दोनाचे तीन, तिनाचे चार अशे थेंबे वाडयत गेलो. आतां फोंडूक आदलो सादो लिंबूसोडा उपकरना जा. ताका हो जीन–लिंबूसोडा बरो मानोवपाक लागलो. आतां त्या कामीलाच्या बारांत एक, दोन, केन्ना केन्ना फांतोड मेरेन ते बसूंक लागले. एक, देड वरां उपरांत व्हिसेंत वाजेतालो.

इतले दीस फोंडू वाजेतालो आनी व्हिसेंतीक ताकतीक करतालो. आतां परिस्थिती उरफाटी जाल्ली. आतां व्हिसेंत वाजेवंक लागलो आनी फोंडूकच ताकतीक करूंक लागलो.

‘ पुरो रे फोंडू. कितू वगत रे ? चल या घरा, ’ अशें म्हणून व्हिसेंत फोंडूक ताकतीक करतालो.

'राव रें मात गो. हें चींत. पळय,' अशें म्हणून फोंडू व्हिसेंतीक फोर्सान बसयतालो केन्ना केन्ना फांतोड लेगीत जाताली.

तीन वर्सांनी फोंडू आदोगास जालो. व्हिसेंत आनी फोंडून भागीदारीचेर प्रॅक्टीस सुरू केली. तांची प्रॅक्टीस नेटान चालू जाली. वता थंय तांका यस मेळूंक लागले. 'व्हिसेंत– फोंडू' हें नांव फामाद जालें. दुडू येता ताका आनीक सुमार उरलोना. फोंडून खूबशीं सर–कारांतलीं आनी बँकेचीं रिणां फारीक केलीं.

आतां तांचें ऑफीस चडशें कामीलाच्या बारांतच जावपाक लागलें. व्हिसेंत तसो रॅक्त. तो रातचोय घेवपी, पूण फोंडूक रात आनी दीस, सकाळ आनी सांज, मध्यान आनी फांतोड हांचें भान उरना जालें. सोऱ्या बगर तांचे पानय हालना आनी तोवूय हालना अशें जालें. तो सकाळफुडेंच कॉप मारूंक लागलो.

'हो सगलो संवसार शुन्यांतल्यान निर्मला, इतलेंच न्हय जाल्यार केन्नाय सॉम मारशी जाल्यार तें सदांच झॅर जाता. झॅर म्हळ्यार शुन्य. हो सगलो संवसार झॅर ! आनी जुवीज म्हळ्यार झॅर ! आनी ह्या संवसारांत सगलें कूऽऽय.' अशें सुमारा भायर बडबडटालो.

फोंडूची आदोगाशीची प्रॅक्टीस लेगीत सामकी झॅर जाली. बार काउन्सिलान ताचें आदोगासीचें कार्त काडून घेतलें. फोंडूसरीं आशिल्ल्या लोकाल्या केशींची वाट लागली आनी ताणें आपलेय केशीची वाट लायली.

ताच्यो खूबशो काथ्या फॅक्टरीच्यो केशी, खोबऱ्या केशी आनी डेरीच्यो केशी ताच्या हड्डयार पडल्यो. ताचे फॅक्टरीचे तोग जाण पंचायतींत वेंचून आयले; तातलो एकलो सरपंच जाला. ताचे डेरी फॅक्टरीचो मॅनेजर रामदास आमदार जाला. चान्स मेळ्ळ्यार मंत्री जातलो खरो ! आनी फोंडू धंद्यांत शेणलो ! आदोगासी वेवसायांत घाणलो आनी सरकार दरबारांत कोंडलो ! ! फोंडूक अळय, फळय आनी तळय ना जाली.

व्हिसेंतीक फोंडूची भागीदारी निमणें सोडची पडली. ताका खूब

वायट दिसलें. आमी येवजिल्लें कितें आनी जालें कितें ? हें तो चितूंक पडलो. ताणें फोंडूच्या दामू आनी हेर आमिगांची भेट घेतली आनी आपणाली खंत परगटायली.

फोंडूक ताच्या नशिबान सोडलो पूण आमिगांनी मात सोडूंक नाशिल्लो. ताणी 'आल्कोलीक अॅनोनिमस' म्हळचार सोरो सोडपाचो एक पंगड आसा ताची खबर काडली.

आयज येवरोप, अमेरीका आनी संवसारांतल्या सगल्या ल्हान-व्हड शारांनी ह्या पंगडाचे फांटे आसात. ते खूब व्हड काम करतात. चड सोरो पियेवन घाणपी लोकाक ते आदार दितात. त्या पंगडाचे सगले वांगडी एका वेळाचे फोंडूच्याकय पाश्ट घाणिल्ले बेबदे. ह्या पंगडाचो वांगडी जातकच तांणी सोरो साप्प सोडला. कोणें धा वर्सां, कोणें वीस वर्सां सोऱ्याक हात लावंक ना !

व्हिसेंतीनय पिकासांवान सोरो सोडलो. तो त्या पंगडाचो वांगडी जालो. थोडया दिसांनी समा खबर काडून ताणें फोंडूकय त्या पंगडांत व्हेलो.

आयज देड वर्स जालें. फोंडून सोऱ्याक हात लावंक ना. हें एक आल्कोलीक अॅनोनिमस पंगडाचे व्हडलें जैतच म्हळचार जाता ! दर दिसा तांची देवासरीं मागणी आसता, 'देवा म्हजो आयचो दीस सोऱ्यापसून वाटाय !' अशें करून दर फावट एक दीस, दिसांचे म्हयने. आनी म्हयन्यांचीं वर्सां करून ते सोरो सोडटात.

फोंडूचो आतां देवाचेर भावार्थ वाडला. देव मंगेश ताच्या सपनांत एक दीस आयलो, 'तुका अजून म्हजी याद जायना ! तुज्यो वादऱ्यो वादऱ्यो जाल्यो त्यो पुरो नात ?' अशें म्हणून मंगेशान फोंडूक तापयलो.

आतां फोंडू दर सोमारा मंगेशीं वता आनी देवामुखार नाक घांसता. ही गजाल म्हाका दामूकडच्यान कळ्ळी. पयर हांवें फोंडूची फिरकी घेतली हाचें म्हाकाच चड वायट दिसलें !



ही गजाल जाणां आशिल्लों जाल्यार त्या दिसा मंगेशाच्या देवळांत हांव तोमसुळा भाशेन, 'देवाक रे कित्याक अभिशेक? तूं देव म्हूण कांयच ना म्हणटा मरे !' अशें फोंडूक म्हणचो नाशिल्लों.

म्हाका मनाक खाल्ले भाशेन जालें. म्हणून हांव दुसऱ्या दिसा मंगेशीं गेलो.

देवा मंगेशालागीं चूक मागली. पोले फोडून घेतले आनी फोंडूच्या नांवान मनापासत अभिशेक करून म्हळें, 'देवा मंगेशा, आमच्या फोंडूक जाग्यार हाड! केगदीक शिरकल्लो राजहंस परतोय एक फावट मळबांत झेंपय !!'

●

# शॅ ऽऽ बाबा !



दुडवाक खंय दुस्मान ना ! देवाक लेगीत दुस्मान आसा· देव ना म्हणपी लोक आसात· देवाक गाळी घालपी लोक आसात, पूण दुडवा भाशेन अजात शत्रु दुडूच !! दुडवांक संवसारी–सन्याशी, देवूळ – मसंड, भट–भामटो असो सगल्यां कडल्यान सदांच येव-कार आसता !

असो दुडवासारको येवकार मेळोवपी आनी कोण आसत अशें म्हाका दिसूंक नाशिल्लें, पूण आमचो शेबाबा दुडवा परस चड मोगाळ ! दुडवाकय लेगीत फाटल्यान केन्ना केन्ना लोक वायट म्हणटात. आप-ल्याक मेळ्ळचार रोखडोच बोलसांत घालतात पूण आमचो शेबाबा हो सगल्यांक सदांच जाय असो मनीस. तो म्हजो आमीग. म्हजोच कित्याक सगल्या गांवागिऱ्याचो, वाटा-राचोच तो आमीग.

शेबाबा हें ताचें खरेलें नांव न्हय. ताजें खरें नांव रवळू म्हादेव राजकोंबो. पूण ह्या खऱ्या नांवान ताजो गांवचो कुरैंयकार लेगीत वळखना. तुमी गांवान कोणाकय रवळू म्हादेव राजकोंबो खंय रावता ? अशें विचारल्यार लोक अजापान तुमचे कडेन पळेतले आनी त्या नांवाचो कोणच हांगा रावना म्हणून सांगतले. खुद्द शेबाबाकय विचारलें जाल्यार तो लेगीत घुसपतलो. हरशीं ' राजकोंबो हे तकलेंत उरपा सारकें नांव. पूण तें देखून कोणेच तकलेंत धरलेंना. सगले लोक ताका शेबाबाच म्हणून वळखतात.

तो खुद्द आपली वळख शेबाबा अशीच करून दिता. केन्नाय शेबाबा आमगेर येता. दार बंद आसल्यार बॅल मारता. आमी भितर-सून ' कोण आयला भायर ?' अशें विचारल्यार ' हांवूच तो शेबाबा ' अशें म्हणटा. इतलें शेबाबा हें नांव ताचे आंगवळणीं पडिल्लें आसा

हरशीं मनशाक लोकांनी नांव दवरलें जाल्यार मानवना. कोणेंय असलें नांव दवरलें जाल्यार तो रोखडोच विस्मायेर व्हरता. बायलांक मात लग्न जावच्या वेळार दुसरें नांव दवरतात पूण तें सोडून अशें हुतहुतें, फुनफुतें, कोंग्र असलें नांव दवरल्यार तीं उजरावन काडूंक उणीं नात ! पूण आमचो शेबाबा मात ह्या कामाक आडवाद. ताका ह्या गांवान दवरिल्ल्या नांवाची मात लेगीत तिडक येना. उरफाटो थोडो गोस्तच आसा म्हळचार जाता. देखून ' शेबाबा ' हें नांव आमी अनसन नासताना घेतात.

ताका शेबाबा कित्याक म्हणटात जाणात ? ताका उलयता आसतना मदीं मदीं ' शॅऽऽबाबा ! ' म्हणपाची सवंय.

वाटेर ताका कोणेंय जर विचारलें ' कितें भाटकारा खंय गेल्लो गा ?' जाल्यार ' शॅऽऽबाबा ! ' म्हणून उलोवपाक कॉमेस करतलो. शॅऽऽबाबा ! 'हांव बाजारांत गेल्लो. बाजाराक पेटला उजो !'

आमकां भुरगेपणांत असलीं उतरां आयकतकच खरेलोच उजो पेटला काय दिशी आनी धुंवर बी दिसता काय म्हणून आमी बाजा-रावाटेन लेगीत पळेताले.

'आमच्या शेबाबाक बी खंय लागला काय ?' अशें म्हणून बारीकसाणेन ताजेकडेन पळेतालो. देवान बरें केल्ल्यान शेबाबा खंयच

हुलपना आसतना सुटलो म्हणून देवाचे उपकार मानताले. जावं ! सांगपाची गजाल म्हळ्यार तो दर उतराक कितलेशे खेपे 'शॅऽऽ बाबाऽऽ' म्हणटालो, देखून ताचें नांवच शेबाबा पडिल्लें. खंयच्याय अशा नाटकांत एक सवंग परतून परतून 'फट्ट म्हणता ब्रह्महत्या!' अशें म्हणटा. आनी त्या सवंगाक 'फट्ट म्हणता ब्रह्महत्या' ह्याच नांवान वळखताले. तशी गजाल आमच्या शेबाबाची. इतले सादो शेबाबा नांवाचो इतिहास.

शेबाबा हो सगल्या गांवाचो प्रायवेट सेक्रेटरी.

सकाळीं ताची स वराचेंर भोंवडी कॉमॅस जाता ती रातीं केन्ना सोपता तेंच हांव नकळ. रातचो लेगीत शेबाबाक आपल्या घरा वचूंकच जाय अशें ना !

'खूब रात जाली. शेबाबा राव तूं आयज.' अशें म्हळ्यार तो अनमननासतना गोठण मारता.

एक उशें आनी शेंद्री इतलें मेळ्ळयार ताजेर शेबाबा शेषशाही भगवान विष्णु भाशेन न्हिदता आनी एका मिनटांत बुकल्या भाशेन 'गुर्रऽऽ गुर्रऽऽ घोरपाक लागता. अचकीत गरज म्हणून उलो मारीत जाल्यार एका हातान दांडो, एका हातान बॅटरेदिवो घेवन खिणाभितर उबो रावता. तो सदां न्हिदता आसतना उशा पोंदा बॅटरेदिवो आनी दांडो घेवन न्हिदता. शेबाबा भोंवडी करतना ताच्या हातांत सदांच दांडो आनी पोती आसता तातूंत बॅटरेदिवो आसताच. हें कित्याक, अशें विचारल्यार तो दांडो आनी बॅटरे दिव्याक आपले फ्रँड म्हणटा. फ्रँड म्हळ्यार गरजेक पावता तो ! अ फ्रँड ईन नीड ईझ अ फ्रँड इण्डीडऽऽऽ !! अशी तो केन्ना केन्ना कॉमीक करता आनी आपूणच खूब वगत हांसत रावता !

गांवांत कोणाक कसली अडचण आसत जाल्यार शेबाबाक रोखडेंच कशें कळटा देव जाणा ! पूण कोणेंय ताची याद काडचे पयलीं शेबाबा थंय हजर जाताच शेबाबाचें मत घेतले बगर गांवचें शेवणें लेगीत उडना ! कोणाचें लग्नाचें काम आसूं, मर्णाचें काम आसूं, घरचे लोक 'शेऽऽ' म्हणचे पयलीं शेबाबा हजर ! पयर मोगऱ्या शिवाक

दिसांजोर आयलो. जोरान तो सामको हुलपतालो. शेबाबा ते वाटेन वतालो. ताका ही गजाल कशी कळ्ळी कोण जाणा.

'आरे, कितें पळेतात रे तुमी ? जोरान फडफडटा मरे तो ! चड कळाव केल्यार झीट येतली मरे ताका.' अशें म्हणून ताणें शिवाक उखलून बांयचेर व्हेलो आनी ताच्या आंगार बेगोबेग थंड उदका कळसुल्यो ओतल्यां. मागीर जोरान कंटाळिल्लो शिवा उठून बसलो.

चार दिसांनी शिवा बरो जालो. आतां नाल्ल पाडूंक बी वता. तो शेबाबाक देवमनीस म्हणटा. अशे जायते लोक ताका देवमनीस म्हणटात.

सोयरीक करप, ज्योतीश सांगप आनी वैजपण करप ह्यो तीन गजाली शेबाबाची स्पेशालिटी ! हरशीं शेबाबाक कळना अशें कांयच ना !

'चीन आनी पाकिस्तान हिंदुस्तानाचे शिमेर आसात हीं लक्षणां बरीं न्हय. एकलो म्हारू आनी दुसरो खेतळो. हे केन्ना आमच्यो गोमटचो धरीत तें सांगूंक जायना.' अशें शेबाबा आमी हिंदी–चिनी भाय–भाय म्हणटाले तेन्नासावन सांगीत आसलो.

'आमी भायल्या देसांचीं रिणां काडटात. तीं आमकां केन्ना पेजेक व्हरत हांचो नेम ना.' अशें शेबाबाचें आमचे फॉरेन पॉलिसीचेर मत. ह्या फिरंगी लोकांक केन्ना पातयेवंक जायना. शेबाबा सगल्या फॉरेनरांक फिरंगी म्हणटा. 'हे फिरंगी मातशें पळय म्हळ्यार बोट लावपी आनी बोट लावपाक दिल्यार पोट करपी. तांकां सामके उंवाळून उडोवक जाय.' असो फॉरेन मनशाचेर ताचो सदांच वैताग.

लग्नाक वाडिल्ल्या नमुचे आवयक शेबाबा दिसनाफुडं देवदूत दिश्टी पडिल्ले भाशेन जालो. तिणें रोखडेंच च्यायेक रांदनीर आदन दवरलें !

'शेबाबा, आयलो तूं ? कितले दीस जाले ? आमी तुजीच वाट पळेताले.'

'शॅ ऽऽ बाबा ! त्या हरी शणैक चड जालें. बेळगांवां काय खंय गेल्लो थंय चिकन खालें. आतां घरा येवन आठ दीस जाले तो

न्हिदून रावला, ताका निर्मळी जाल्या. ताका शापशीणी पाळ सोदून हाड, तातूंत मिरयां, लसूण घाल हे उचापतीत म्हाका भोंवपाक आनी खंय वचपाक वेळच मेळ्ळो ना. जावं आतां कित्याक आयलां जाणा मगे ? तागेलो गोपो मुंबय सावन बापूय दुअँत म्हणून आयला. तो दिसना फुडें म्हाका तुज्या नमूची याद जाली. आसा तुज्या मनांत ? जाल्यार हांव उतर घालतां. तें भायर पडपाचेंना !

नमुचे आवयन सोय वांत्तां–कां–त्तां म्हळें, ‘ राव आं ! इल्लो सांदो करतां. पयलीं साकर तोंडांत उडय. आमची गरज देवच तुमचे तकलेंत घालता जावये. ना जाल्यार मनांत येवपा खिणाक तुमी हजर ! देवाक म्हजी आंगवण पावली.’

‘ शॅ ऽऽ बाबा ! ताजें कितें आसा जाणा ? हरी शणैचा गोपो एकदम स्मार्ट ! हॅ ऽऽ हॅ ऽऽ हॅ ऽऽ शेबाबा केन्ना केन्ना कॉमीक करता आनी आपूणच हांसता. कितें कॉमीक केली ती मात लोकांक कळना.

‘ कित्याक हांसलो तू शेबाबा ?’ सोयरिकेचो प्रस्न मातसो नाजूक आसता देखून नमुचे आवयन दुबावान विचारलें.

‘ शँऽऽबाबा ऽऽ. आगे तो स्मार्ट, म्हळचार स्मार्ट. आनी स्मार्थ म्हळ्यार आडवो. तुमचें नमू स्मार्थ न्हय ? हॅ ऽऽ हॅ ऽ ऽ हॅ ऽऽ हांव मातसो कॉमीक जाणा मगे ? म्हजे जिबेर अत्रे बसला. अशें म्हणून ताळी मागपाक शेबाबा हात फुडें करता. ताका आयकुप्यान ताळी दिवपाक जाय, ना जाल्यार शेबाबा निर्शेता. गजाली चलतां चलतां नमुचे आवयन च्या आनी सांदो म्हऱ्यांत हाडून दवरलो.

‘ बरें ! चलो मुंबय कितें करता ?’

‘ शॅ ऽऽ बाबा... ! मुंबय कामाक आसा.’

तो मुंबय गवर्नर आसलो कितें काय गिर्णीर कामाक आसलो कितें, शेबाबा ताचो अदमास घेना.

‘ मुंबय कसलें काम करता ? खंय रावता तो ?’ नमुचे आवयन विचारलें.

‘ शॅ ऽऽ बाबा ! असल्यो पंचायती म्हाका नाकात. तुका नाका जाल्यार त्या धाकण्यागेर वचूं ? तागेल्या चंपाचें नक्षत्र म्हज्या बॉल्सांत

आसा. तो येतना वतना एकसारको पारातता, पूण तुका पयलें विचारचें जाल्यार तुज्यो किरकिऱ्यो चड.

रोपां पमऱ्यार लेंस लेगीन घेवपाक गेल्यार रोपेर सतग नसुने दाखयता तशें शेबाबा कितल्योशेच पत्रिका न्हवऱ्या मुखार दवरता.

हांव खूब तेंप न गांवाक गेल्लों. एक दीस अचकीत शेबाबाच्या कचाट्यांत सांपडलों. मात्रशेगेर वतना वाटेरच शेबाबा मेळ्ळो.

‘ आरे नारायणबाब, केन्ना आयलो ?’ अशें म्हणून शेबाबान म्हाका वेंग मारली.

‘ कशी चलता येणावळ– घेणावळ ? रावतलो मरे थोडे दीस ? काय रोखडोच कू ऽ ऽ य ? फाल्यां सकाळीं येतां घराकडेन. तुजे कडेन एक म्हत्वाचें काम आसा.’ अशें एकार एक प्रस्न करून शेबाबा रोखडोच ताकतिकेन गेलो.

आनी दुसऱ्या दिसा कावळे उठचे पयलीं घराकडेन हजर !

‘ आरे, काल मातसो कामांत अशिल्लों. शॅ ऽ ऽ बाबा हीं कामां केन्ना सोंपच नात. रागार जावं नाका. म्हाका ताकतिकेन वचचें पडलें. नारायणबाब, तुजो हात दाखय पळोवया.

शेबाबान बळयांच म्हजो हात ओडून आपल्या हातांत घेतलो आनी पारखूंक लागलो.

‘ हें आनी कितें शेबाबा ? भविश्य बी गजालीचेर म्हजो विस्वास ना.’ हांवे म्हळें.

‘ शॅ ऽऽ बाबा ! विस्वास ना म्हणजे कितें ? तुजें जल्मभविश्य हांवें केलां. तुका मॅट्रिकेक फर्स्टक्लास कसो मेळ्ळो ? हांवें केल्लें तें भविश्य. तुजी रास मकर न्हय ? तुजें पुराय नखेत्र म्हाका पाठ आसा.’

‘ जावं गा– पूण ह्यो गजाली कित्याक ?’ हांवें शेबाबाच्या हातांतलो हात सोडयत म्हळें.

हें पळय. भविश्य सांगपाक म्हाका हात नाका. हांव तोंडाक पळोवन भविश्य सांगतां मनशाचें. हॅ हॅ ऽऽ हॅ. मनशाचें ऽऽ हॅ हॅ हॅ ऽऽ शेबाबान कसलोतरी विनोद केलो जावंये. ताळी मागपाक हात फुडें केलो.

' हाव सॅर्त सांगतां. अंदू तुजे एकाचे दोन जावपाचो योग आसा. ना जाल्यार हांव शेबाबाच न्हय जायन.'

' एका दोन म्हळयार कितें शेबाबा ?'

' शॅ ऽऽ बाबा ! हें सादें कशें कळना तुका ?'

' एका दोन म्हळयार अंदू तुका लग्ना योग आसा.'

' कितें ? पूण तें कशें जातलें ?'

' पूण बीण कांय ना. योग आसा म्हणजे आसाच. ती चली खंय आसा तें हो शेबाबाच जाणा. '

लग्नाआदीं बिधी निपजतो तिच्या पतीते. हॅ ऽऽ हॅऽऽ. अशें म्हणून ताळी मागपाक शेबाबाचो हात फुडें. पूण हांवें ताळी दिली ना. शेबाबा एकदम मुडांत आसत जाल्यार दुसऱ्याचो हात ओडून आपल्या हाताक आपटून ताळी घेता.

' हांव तशें म्हणीना शेबाबा ! म्हजें मातशें...' 'ना ! ना ! ना ! म्हाका तुजें कांयच आयकुपाचें ना. शॅऽऽ बाबा !' अशें करून शेबाबा म्हाका उलोवपाक दिना आनी आपूण उलोवपाचो थारना. ' म्हाका दोन तीन मिनटां...' हांव उलोवपाक सोदतां.

' दोन तीन न्हय, एकच चली हाडल्या तुका. शॅऽऽ बाबा. पसंत पडल्यार बरें आसा, ना जाल्यार दुसरी. तीय ना जाल्यार तिसरी. मळबांत नखेत्रां आसात तशो चलयो म्हजे लागीं आसात.'

बरोच वगत हांव ताजे लागीं उलोवपाक सोदतां आनी शेबाबा म्हजीं उतरां तोडून आपलेंच फुटकें व्हडें मुखार धुकलता.

इतल्यान म्हजे घरकान्नीन च्याचें कॉप म्हऱ्यांत हाडून दवरलें.

शेबाबा च्याचो घोंट मारता त्या मोनेपणाची म्हाका मातशी फुरसत मेळ्ळी. हांवें मातसो नेट करून म्हळें, ' आगा शेबाबा म्हजें लग्न जालां ! ही म्हजी घरकान्न !!'

' जावं-जावं. तातूंत कितें हरकत आसा ? चली पळोवपाक किदे जालां ? पयशे पडनात !'

हें आयकून हांव शॉकाद. घरकान्न च्या दवरून भितर गेल्ली. तिचो हांसपाचो काय रडपाचो आवाज आयकूंक येतालो. दरवटयार

रावन कान शेळीन ती पळेताली जावंये.

‘ हें कितें ? शेबाबा, म्हजें लग्न जालां. म्हाका दोन भुरगीं आसात आनी आतां हांव चली पळोवन लग्न करूं हें गा कितें ?’

‘ तें मागीर पळोव येता. तुजें लग्न जालां हें व्हंकलकारांक खंय खबर आसा ? मागीर चली पळोवपाक तुजें कितें वता ? तुका ना जाल्यार तुज्या आमिगाक सुचय ! पूण सद्या ह्या निमतान च्या आनी शिरो खावन येवपाक तुजें कितें वता ? चल भायर सर पळो-वया. दारूगुळो पातशायाचो. मार फार ! फार मारूंक कितें जाता ? हॅऽ हॅऽ हॅऽ हॅं शेबाबा !’ अशें म्हणून ताणें ताळयेक हात फुडें केलो.

शेबाबान गांवांत जायत्यो सोयरिको केल्यात. ना अशें न्हय. लोकय ताचे उपकार मानतात. पूण म्हस फळटा ती धनयाक दूद दिवपाक न्हय ! आनी पाडकाकय दूद दिवपाक न्हय !! सोयरीक जाता थंय शेबाबा हकान भुसक्याक वतालो, ना जाल्यार च्या आनी शिरो हाजेर ताचो दोळो आशिल्लो !

शेबाबाली दुसरी हॉबी म्हळ्यार भविश्य ! शेबाबा वळख जाली की रोखडीच जलमतारीख विचारता.

‘ कित्याक बाबा म्हजी जलमतारीख तुका ?’ ‘ तुमचो तोंडा-वळो कुर्योजदादीचो दिसलो. कितेंतरी कर्तबगारी तुमच्या हातान घडपाची आसा. हांव सॅर्त सांगतां. तुमगेली पत्रिका सामान्य नासतली.’ अशे तरेन शेबाबा कोणाकच पंप मारपाक अनमनना !

मागीर आयकुपी मातसो फुलता. तो ताका जलमतारीख सांगता, ना जाल्यार हात तरी दाखयता. मागीर शबाबालो दीसवडो झ्येतान सुट्टा !

‘ तुमकां फॉरेनाचो योग आसा. तुमकां घर बांदपाचो योग आसा..’ आनीक कितें कितें येवजत ते बोकडे शेबाबा कातरता.

म्हाका शेबाबान अंदू फॉरेनाचो योग आसा म्हणून पांच फावट तरी सांगलें आनी हांव मात रस्त्यावयलो मैलाफातोर कसो धुल्ल खायत हांगाच आसां !

हांवें विचारलें लेगीत शेबाबाक. ताणें म्हळें, अमेरिका आनी

रशिया ह्या दोन देसांनी भविश्याची वाट लायली. येरवीं म्हजें भविश्य केन्नाच फट जायनाशिल्लें, पूण ह्या देसांक लागून ह्या शास्त्राचो इबाड जालो.

‘ ह्या देसाचो आनी तुमगेल्या भविश्याचो संबंद कितें शेबाबा ? बेठोच कांटयाक तोर आनी तोरीक कांटो कित्याक तोपता ?’

‘ ताचें अशें जालां. शॅऽऽबाबा ! तुमकां कळना कशें ? हे लोक मळबांत उपग्रह सोडटात ते पत्रिकांनी, नखेत्रांनी मेतेर जातात. चंद्र लेगीत आतां पयलींचो उरलोना ! शितळकायेचो आमचो चंद्र आतां तारवटी मिरसांगाच्या पापडाभाशेन जालो. चंद्रार वचून ह्या लोकांनी चंद्र भश्टीलो, मंगळाकय खंय ते आतां दुखोवंक सोदतात. तो पिडूंक लागल्यार हांकां पुकळी माल्या भशेन हागयतलो. शॅऽऽ बाबाऽऽ वतां थंय भश्टाकार. तुमी एक काम करात. तुमी अमेरिका आनी रशिया हांकां फोन करून कळयात. तांकां म्हणचें, ‘ तुमी मळबांत मेतेर जावं नाकात, आनी तुमकां वचचेंच्च आसा जाल्यार थोडें गायचें मूत आनी हरवळेंचें तीर्थ बाटल्यो भरुन व्हरात, त्या गिन्याचेर शिप-डायात, मागीर पळय म्हजें भविश्य कशें उतरता तें ! अशें शेबाबा उलोवपाक लागल्यार ल्हायो फुलिल्ल्या भाशेन उलयता. उतराक उतर ज्यूस्त मारता. ताचें हय म्हणप आनी हांसप आनी शेबाबाक ताळी दिवप हाजे खेरीज आनी दुसरें कांयच चलना.

शेबाबालें तिसरें अवतारकार्य म्हळयार वैजपण. ताच्या बोल्सांत जलमपत्रिका, व्हंकले न्हवऱ्याचे फोटे, पाळां–मुळां, ल्हान–ल्हान वखदां बुशेदां आसतात. तातूंत बारीक बारीक कसल्यो गुळयो आसतात तें शेबाबाच जाणा !

कॅन्सर जाल्या वायटकाराक फातर बोडयां पाळ, आबोल्याचो पालो हाजो कसाय करून दिल्यार कॅन्सर ज्या बरो जाता. असो शेबाबालो सोद. ‘ पूण ताका एक मांडणी आसा. हो कसाय दितना दुयेंतीचे दोळे धांपूक जाय. ’ अशें ताचें म्हणणें.

‘ दोळे कित्याक धांपूक जाय ?’ अशें विचारल्यार शेबाबान एक काणी सांगली.

शेष म्हळयार सोर्पां राजा. एक दीस तो दुयेंत पडलो. ताका

व्हडले दोतोर केले. सर्गांतल्यान आश्विनीकुमाराक हाडलो, पूण कांयच्च गूण ना. मागीर ताका पृथ्वीचेर रानकोंबो म्हण एक धन्वंतरी आसा हें कळ्ळें. तो म्हज्या कुळाचो म्हालपूरूस. त्या धन्वंतऱ्याक पाताळांत शेषा म्हऱ्यांत व्हेलो. ताणें शेषाक बगो करून तपासलो. दुयेंसाचो नियाळ केलो. पयलीं कितें कितें वखदां दिल्लीं तांची चवकशी केली. दुयेंसाचो नियाळ बरोबर आसा, दिल्लीं वखदां बर बर आसात, पूण एकूच चुकलें. वखदां दितना शेषाले दोळे धांपूंक नाशिल्ले.

'दोळे धांपूंक ना जाल्यार कितें जाता शेबाबा ?'

'शॅऽऽबाबा ! तुमचे तकलेंत वचचेंना तें. ताचें कितें आसा जाणा ? शेषा दोळ्यांतलें वीख त्या वखदार पडटा, ताका लागून वखदाचो एफैत वायट जाता. कॅन्सराकच न्हय जाल्यार सगल्या दुयेंतींक वखद दितना तांचे दोळे धांपूंक जाय. दोळे बांदून, धांपून ताका फातर फोड्याचो आनी आबोल्याचो कसाय दिल्यार पांच दिसां भितर काबार...'

'कोण काबार शेबाबा ?'

'कॅन्सर काबार.'

असो कॅन्सराचेर शेबाबालो सोद. मनशाक जिवो करपाची वनस्पत आसा पूण आमकां ती वळखूंक येना. ती एक दीस सोदून काडूंकच जाय. तो सोद लायलेबगर आपूण कसोच प्राण सोडचों ना अशी पैज शेबाबा मारता. 'आपूण पाताळांत वचून शेषाक बरो करपी रानकोंब्या वंशाचो' हाचो ताका चड अभिमान आसा.

शेबाबाक गांवचे सगले लोक आपलो घरचो कसो वळखतात, पूण शेबाबा रावता खंय ? ताका घरा बायल भुरगीं आनीक कोण सोयरे आसात ? हाची लोकांक चडशी खबर ना ! शेबाबाक सोदपाक ताच्या घरा कोणाक केन्ना वचचें पडलेंच ना. ताची याद जाल्यार तो रोखडोच हजर जाता, ना जाल्यार तिट्यार हरी शेटीच्या पसऱ्यार बशिल्लो मेळटाच !

काल सकाळीं पदेर धांवत आमगेर आयलो. ताचे तकलेर उंड्यां पांटलो बी कांय नाशिल्लो. ताका असो बेठो पळोवन म्हाका अजाप जालें.

‘ कितें रे पावलू ? आयज उंडे बंद ? हरताळ ?’ हांवें विचारलें.

पावलू बरो वेळ ओग्गी रावलो. मागीर जड उतरांनी विचारूंक लागलो, ‘ शेबाबा आसा ?’

‘ कितें रे ? कितें जाला ?’

‘ शेबाबाची बायल सकाळीं फांतोडेर भायर पडली.’

‘ अशें ? कितें जालें तिका ?’

‘ देव जाणा ! फाटलीं पंदरा वीस वर्सां तरी ती हांतुणारच आसताली.’

हें सगलें आयकून हांव बरोच शेवाळलो. इतल्यान घरचींच सगलीं जमलीं. पयर रातीं शेबाबा आमगेर आशिल्लो. काल सकाळीं च्या बी घेवन नाडकर्ण्यागेर वता म्हणून गेलो. ‘ ताच्या बापायलो काल बारावो. ताका लागून आपल्याक थंय वचूंकच जाय, कावळ्यान पिंडाक आफडूंक जाय न्हय ?’ अशें सांगून शेबाबा ताकतिकेन गेल्लो.’

हांवें पावलूक म्हळें, ‘ चल या नाडकर्ण्यागेर. हांवय येता.’

आमी दोगय नाडकर्ण्यागेर सकाळीं फुडें गेले. म्हाका आनी पावलूक पळोवन तांकां अजाप जालें. दामू तांबयो घेवन बांदार वतालो तो बेगाबेग भरिल्ल्या तांबयासयत परतलो.

‘ कितें गा ? कितें जालां ? तुमी इतले फांतोडेर शे ? आनी पावलू उंड्यां पांटलो खंय ?’

‘ तें आसूं. शेबाबा खंय तें पयलीं सांग !’ हांवें म्हळें.

शेबाबा आनी भाऊ काल पांचां बसीर बापायल्यो अस्ती घेवन नरसोबावाडी गेल्यात ! पूण कित्याक ? कितें जालां ?’

‘ आरे शेबाबाली घरकान्न खंय फांतोडेर भायर पडली. आतां कितें करया ?’ हांवें दामूक निर्शेवन सांगलें.

‘ राव.त. पयलीं मातशे बसात, मागीर विचार करया.’ अशें म्हणून दामू तांबयो घेवन बांदार गेलो.

हांव आनी पावलू भायर बांकार बरो वेळ बसले. पावलूक नरसोबावाडी, अस्ती ही भानगड कितें कांयच कळ्ळेंना, देखून ताणें म्हाका विचारलें, ‘आमी इंगा कित्याक बोसल्यात ? चोल वोसया...’

‘ आरे, दामून राव म्हळां न्हंय ? मातसो राव.’

थोड्या वेळान दामू हातपांय धुवन आयलो. मागीर तीगय जाण शेबाबाल्या घरासरीं गेले. शेबाबालें घर हांव आनी दामू पयलेच फावट पळेताले.

बरें राजांगणाचें घर. भायलो बल्कांव लोकांनी गच्च भरिल्लो. भितरूय खूब लोक आशिल्ले. घराक कितल्योशो कुडी आनी सगलो काळोख. एके कुडींत दिवली पेटत आसली. थंय एके शेंद्रेर हाडकुळें अशें शेबाबाले घरकान्नीचें प्रेत दवरिल्लें, भोंवतणी फुलां धाल्लीं. ते सवाश्णीक पांयां पडून आमी भायर वसऱ्यार आयले. भायर बसपाक कदेल–बांकडो कांयच नाशिल्लें. आमी बेठे एके कुशीक उबे रावले. आतां कितें करचें हें कोण सांगत काय? होच विचार तकलेंत घुंवतालो!

दुसरे एके काळखा कुडींतल्यान एक दादलो किळांच मारतालो. 'सोडात म्हाका. सोडात म्हाका' अशें आड्डतालो.

'कोण तो?' हांवें म्हऱ्यांत उबो आशिल्ल्याक विचारलें.

'तो शेबाबालो एकलोच भुरगो. ताच्या भुरगेपणांत खंय ताचे तकलेंतल्यान जोर गेल्लो ताका लागून तो पिशांतरा भाशेन करता.' म्हऱ्यांत आशिल्ल्यान जाप दिली.

'आनीक कोण कोण आसात शेबाबाक?'

'ताची धूव आसा. तिका घोवान सोडल्या. लग्न जातकच पयल्याच बाळंटेराक कुळारा धाडिल्ली ती परती व्हरूंकच ना! ती कोणागेर ओलीं उमळून, आयदनां घांसून सांबाळटा हो संवसार. शेबाबा एक दीस आसल्यार एक म्हयनो नासता. म्हाका त्या मनशान थोडेभितर परिस्थितीची जाणविकाय दिली. पूण आतां फुडें किदें कशें करचें? हें कोणच सांगूक नकळ!

शेबाबा परतो केन्ना येत तेंय कोण नकळ. आतां फुडलो विधी कोणें करप? प्रेत कितलो तेंप घरांत दवरप? हें कोण सांगूक नकळ.

इतले मेरेन सगलो गांव थंय पावलो. शेबाबा जरी ना जालो तरी गांवांत सगल्यांक तो जाय आशिल्लो, देखून शेबाबाली घरकान्न भायर पडल्या ही खबर कळटकच थोड्या वेळा भितरच सगलो गांव

थंय लोटिल्लो, तातूंत हरी शणैक पळोवन माका मातशें बरें दिसलें. हांव ताकतिकेन ताच्या म्हऱ्यांत गेलों.

'हरीबाब, आता कितें करया ?'

हरीबाबान थोडो वेळ विचार करून म्हळें, 'ह्या शेबाबालें कितेंच धड न्हय. तो नरसोबावाडी सावन शिर्डीक वचत आनी शिर्डीसावन आनीक खंय वचत. ताका रावंक उपकरना. तागेलो एक सवतीभाव सावंतवाडी आसा. थंय वचून ताका पयलीं हाडल्यार बरें.'

जांव. हरी शणै कडच्यान एक हिण्ट मेळ्ळी. ताणें लाकडाची बी सगली वेवस्था करपाची जापसालदारकी घेतली. शेबाबाल्या सवतीभावाक सावंतवाडी वचून हाडपाचें म्हजेर सोंपयलें.

हरी शणैली मोटरसायकल घेवन हांव वाडीक गेलों. नशीब कांय सगलेंच वायट नासता. म्हाका त्या पत्त्या प्रमाण शेबाबालो सवतीभाव ज्युस्त मेळ्ळो.

सांजे पांच वरांमेरेन हांव ताका घेवन शेबाबाल्या घराकडेन पावलों. मागीर फुडलो विधी सादसून घेतासर रातीचीं णव वरां जालीं. सगलो गांव शेबाबाले बायलेच्या फुनेरालाक लोटिल्लो !



घरा परतत जण एकलो विचार करतालो जावंये की, नारदा भाशेन याद काडल्यार हजर जावपी शेबाबाली याद आयज सगलो गांव काडटालो, पूण आयज शेबाबाच नाशिल्लो. कितें ही देवाली करणी ? म्हाका बाकीबाबाच्या उतरांचो उगडास जालो.

नियती गे बाये
कितें आडायला हो कावो
कितें तुजो हावो
आजून भाजूंक ना ! भाजूंक ना !

●

# मुकुंद



गोंय ही कलाकारांची भूंय. अशी सगल्या संवसारांत आमची कीर्त आसा. वाजप, गावप, नाटकां करप आनी चित्रां काडप ह्या कलांनी गोंयचे कितलेशे खांपे लोक आयज संवसारांत परमळतात. ह्या कलांभायर गोंयचे लोक कांय नकळ अशें मात न्हय. दोतोर, इंजनेर, शास्त्रज्ञ ह्याय मळांनी गोंयकार चकचकतात.

नाटक हे गोंयकारांचें एक पिशें, नाटक तियात्र हांचो घोस्त नाशिल्लो गोंयकार तपासून पळोवचो पडटलो. आयज धा लाख वस्तेच्या गोंयांत उणींच म्हळ्यार वर्साक पांच हजार तरी नाटकां जातात.

आमची नाटकांवळख सामकी भुरगेपणांत सावन. पयलें नाटक खोबऱ्या- खळार ना जाल्यार बांगड्यांवेळेर. शारांतल्या भुरग्यांक शाळेच्या गॅदरिंगाक नाटकाची पयली वळख जाता. कोण कोण आपल्या घरांतच नाटक करतात !!

आमची नाटकांवळख जाली ती खोबऱ्या खळार. मुकुंद हो आमच्या नाटकाचो म्हालगडो. नाटक करपाची मांडणी ताची. आमच्या सारक्या सात–आठ भुरग्यांक घेवन तो खोबऱ्याखळार नाटक करतालो.



खोब्रें राखपाक कणणां बडयो आनी मल्लाचो ल्हानसो माटव घाल्लो आसतालो. तेंच आमचें नाटकां थेटर. साकाचे पड्डे. कावळे आमुडपाक दबे आसताले. तें आमचें तबला वाजप. पिडचाच्यो तलवारी. आमचीं नाटकां चडशीं दिसाउजवाडे जातालीं. ताका लागून दिव्यांची गरज पडनाशिल्ली, पूण आमी स्टेजीर दोनय वाटांनी लांपयांव हुमकळावन दवरताले. जाता तितलो खरेल्या नाटका भाशेन आव हाडप.

आमकां येवजता तें भाशण. म्हळ्यार नाटक बरोवपी, डायरेक्टर आनी कलाकार आमीच ! जाका पार्ट ना ताणें भायर वचून बसप आनी मुकुंद सांगता तेन्ना भितर येवन पार्ट करप. म्हळ्यार प्रेक्षकय आमीच ! नेपथ्य आनी प्रकाश येवजणय आमीच !

‘ जळीं मळीं वता थंय आपूणच. आपले खेरीज आनीक कांयच ना ! ’ अशें खंय कृष्णान गितेंत सांगलां, पूण आमच्या नाटकांत तो कृष्णय बी आमीच !! आमगेले सारकी स्वतंत्र संस्था संवसारांत खंयूय आसत अशें म्हाका दिसना !

मुकुंदान पयलो पार्ट करप. तो पद म्हणत स्टेजीर येतालो. पद म्हणटा आसतना फुडें बशिल्ल्या एका भुरग्यान दब्यार तबल्याचो आवाज काडप आनी दुसऱ्या एका भुरग्यान तोंडान 'कूऽऽ कंऽऽ पीऽऽ पीऽऽ साऽऽ रेऽऽ गऽऽ गऽऽ मऽऽ पदनीसाऽऽ' असो आवाज करप, ती पेटी.

वामन या मना
कामना बामणा
खायना हुमणा
तुजीं गोरवां
म्हज्या वायंगणा

अशें तोंडाक येत तें पद तो म्हणटालो. मागीर हांवें स्टेजीर येवप.

'तुजीं गोरवां म्हज्या वायंगणा कशीं रे पावलीं ?' अशें मुकुंद भाशण करतालो.

मागीर म्हजें भाशण : 'त्या कुळण्यांतले बांगडे कुणी रे खल्ले ? देखून म्हजीं गोरवां तुज्या वायगणा' हांव म्हज्या तोंडाक येत तें भाशण करतालों.

मुकूंद : 'दुसऱ्याच्या सांगण्यावरून तूं मला उलयतोम ? (पद)

परवशता कल्ली खाता ।
कांटा गळा लागता ।
मग हो मरणाला तयार
( पद )
मारीन झोडीन फोडीन तोडीन ।
तंगडी मोडून सुण्यास घालीन ।'

हांव : 'तूं म्हजी काय तंगडी मोडटलो ? हांवच तुका शिकयतंय. घे देवाचें नांव...' (पद)

शतखंड हाची दंड ।
गोमटी मुड्डुनी ।
दोणांत घालीन
आंबली म्हणुनी
तोंडाक लायन ।'

मागीर पिड्याच्यो तलवारी घेवन आमी लडाय करताले. केन्ना केन्ना नाटकांतलीं झगडीं खऱ्यार पडटालीं. मागीर आठ दीस एकमेकालागीं उलोवप ना. उपरांत काय दिसांनी आमी परते एक जाताले. परतून मुकुंदान नाटक करपाची आयडिया काडप.

'नाटक बिटक कांय नाका. मागीर तूं झगडीं करता !' अशें म्हणून हांव ताची आयडिया भायर मारतालों.

मागीर मुकुंद म्हणटालो, 'आमी समाजीक नाटकां करया तातूंत झगडीं बी कांय नासतात.'

उपरांत आमचें समाजीक जातालें. समाजीक म्हळयार चड मराठी बी उलोवप ना. मराठी उलयल्यार केस्तांवांच चड जातालीं. झगडी बी कांयच करप ना ! असो सोरूत घेवन आमी समाजीक नाटक करताले.

मुकुंद : (पद)

'रघुपती राघव राजाराम ।
पतीत पावन सीताराम ।।

कितें रे ! तुजे पेरीक पांटलोभर पेरां आशिल्लीं तीं कोणें सुतलायलीं?'

हांव : रातचे पाखे येवन तांणी पेरीचो सत्यानाश केलो !

'मुकुद म्हऱ्यांत येवन कानांत सांगतालो, सत्यानाश अशें मराठी उलोवं नाका. केस्तांवां जातलीं !'

हांव : रातचीं पाख्यांनी पेरां कावार केलीं.

मुकुंद : (पद)

'उड रे पाख्या
मार रे झेंपू
पिकलेल्या पेरारू'

(पद)

हांव : 'आरे पाखो गेलो
पाखो गेलो
पोणजेच्या पाट्यारू'

मुकुंद : (पद)

पोणजेच्या पाट्यार गो मानः

पोणजेच्या पाटचारू
मांडवीचे देगेरू
एक चेडूं गोरोयता
आनी पाकल्याक फारायता...

हांव : 'तूं पणजेच्या पाटचार काय काय पायलेंस !'

मुकुंद : ( कानाकडेन तोंड हाडून ल्हवूच )

शूं ऽ समाजीक उलय.

'ओ दूर जो नदियाँ बहती हैं ।
वहाँ एक अलबेली रहती है ।'

हांव : 'सून भैया वहो मेरी भाभी है ।'

मुकुंद : तूं जावून भायर बस.

( पद )

'बसते बसते, परबत परबत
जाता जाये बंजारा
जाता जाये बंजारा'



मागीर हांवें फुडें बसून पेटी वाजोवप आनी पेटये वयलो देंवून हांव स्टेजीर येतालों. तो हिंदी पदां बरीं म्हणी. हिंदी पदां म्हळ्यार आमगेलीं केस्तांवां जायनाशिल्लीं.

उपरांत, काम धंद्याक लागून आमी विगड

विगड फाफसलें. हांव शिकपाक बेळगांवां आनी मागीर मुंबय गेलों देवूचो टॉलर बी घेवन नुस्त्या धंदो बरो चलता. मुकुंदान गांवांतच सिगार विडयांचो गाडो घाला, पूण नाटक सोडलेंना ! गांवांत खंयच्याय नाटकांत मुकुंदाक पार्ट आसूंकच जाय. त्या भायर, आतां गांवा भायर ताका आपोवणें येता.

मुकुंद नाटकांत पार्ट करताना समरस जाता. इतलेंच न्हय, जाल्यार नाटका पयलीं आनी मागीर थोडे दीस तो नाटकाचेच भूमिकेंन वावुरता.

एक फावट फातर्प्यां नाटकाक आपोवणें आयलें. 'आगऱ्यांतून सुटका काय असलेंच कसलें तरी इतिहासीक नाटक आसलें. तातूंत शिवाजीचो पार्ट करपाक मुकुंदाक व्हेलो. नाटक बेस बरें जालें मुकुंदाच्या कामाक लोकांनी ताळयार ताळयो मारल्यो.

फांतोडेर चार वरां उपरांत नाटक सोंपलें. सकाळफुडें स वरांचेर घरा येवपाक बस आसा. देखून मुकुंद देवळांतच बल्कांवार तेंकलो, आनी ताका मातशी झेम लागली. तो बरो दनपारां बारा वरांचेर जागा जालो.

आपल्याक उठपाक खूब कळाव जालो हें ताचे तकलेंत आयलें आनी तो तसोच प्रासार बस धरपाक धांवलो. ताणें तोंडाचो रंग बी कांय पुसूक नासलो आनी शिवाजीचो अर्धावयर भेस. गळयांत माळो-बिळो तशोच आशिल्ल्यो. बसींत भितर सरतना दारामखार हारसो आशिल्लो तातूंत आपलें तोंड दिसतकच तो एकदम शिवाजीची पॉझ काडून थंयच्याच एका सिटार बसलो. रोखडीच बस सुटली.

थोडया वेळान कंडक्टर 'तिकेट तिकेट' करीत पयशे मागपाक मुकुंदा म्हऱ्यांत आयलो .

'खंय वता ? पयशे काड.' त्या कंडक्टरान मुकुंदा लागीं पयशे मागले. आतां मुकुंद मुकुंद नाशिल्लो. तो आशिल्लो छत्रपती शिवाजी महाराज.

'शब्द तोलून वापरा. चाकराने धन्याशी कसं वागायचं याची काही जाऽऽण ?' असो ताणें पयशे मागपी कंडक्टराक शिवाजीचे भाशेन

ओडीर काडलो.

'फकाणां नाका रे तुजीं. रातचो पार्ट हांगा कित्याक ? पयशे काड पळोवया.' कंडक्टरान परतो नेट केलो.

'खामोश ! सचोटीने वागलास तर गळ्यांतला कंठा सुद्धा बक्षीस देईन, नाहीतर हत्तीच्या पायांखाली देईन. भिंतींत चिरडून ठार करीन. कडेलोट करीन.' 'शिवाजी' एकार एक तापूंक लागलो.

कंडक्टर पयशे मागता आनी मुकुंद इतिहासिक सँतँस मारता अशें बरो वगत जालें. बसींतले लोकय उबे रावन पळोवंक लागले. ही कॉमीक पळोवन लोकांचो वेळ बरो गेलो. ड्रायवर बस थारावन 'कितें जालां रे ?' म्हणून पळोवंक लागलो.

ड्रायवरान मुकुंद भानार ना हें पारखीलें. ताणें कंडक्टराक म्हऱ्यांत आपयलो आनी कानांत कितेंतरी फुतफुतलो, मागीर आपूणच शिवाजी म्हऱ्यांत आयलो.



‘आज महाराजांची स्वारी कुणीकडे?’ ताणें नम्रतायेन कुर्निसात केलो आनी आदर राखून विचारलें.

‘रायगडला जावं म्हणतो.’ शिवाजीन राजेशाही थाटांत जाप दिली.

‘महाराजांचा जयजयकार असो!’ अशें म्हणून ड्रायवर आपल्या मिटार बसलो.

मागीर परतून ड्रायवर कंडक्टराच्या कानांत कितेंतरी फुतफुतलो आनी बस नेटान चालू जाली.

थोडचा वेळान करमलघांट आयलो. करमल घांटामाथ्यार अटंग रानांत ड्रायवरान बस उबी केली.

कंडक्टर ‘रायगड रायगड’ अशें आड्डलो. तें आयकून शिवाजी एकदम उबो रावलो. ‘सात तोफा डागा आनी मां साहेबाना आमचा निरोप कळवा, की आम्ही रायगडाचेर सुखरुप पोहचलों.’ अशें म्हणून ताणें गळचांतली मोतयां माळ सटकन काडून कंडक्टराचेर सेंवटीली.

‘महाराजांचा जयजयकार असो!!’ अशें कंडक्टर आड्डलो आनी मुकुंद सडसडीत शिवाजीच्या थाटांत करमलघांटार देंवलो. ‘छत्रपती महाराजांचा जयजयकार असो. छत्रपती महाराजांचा जयजयकार असो.’ अशो बसींतल्या पॅसेंजरांनी मोटमोटचान घोशणा दिल्यो. ड्रायवरानय ‘महाराजांचा जयजयकार असो,’ अशें म्हणून बस चालू केली.

बस काणकोणां गेली आनी मुकुंद करमलघांटार उरलो!

आनीक एक फावट एका पुराणीक नाटकांत मुकुंदाक अर्जनाचो पार्ट आशिल्लो. म्हाका दिसता तें ‘संगीत सौभद्र’ नाटक जावंये. नाटक धा वरांचेर कॉमेस जावपाचें. सगले पार्टी आठ वरांचेर मेकअप करपाक हजर जावपाचे, पूण मुकुंद आयलोना. मुकुंदाक बरोच कळाव जालो. तो साडे आठांक पावलो.

‘आरे, मुकुंद खंय रे तूं? इतलो कळाव कित्याक?’ हांवें मुकुंदाक विचारलें. ‘देवूगेर गेल्लों आर्म हाडपाक. तो भायर सरिल्लो

देखून राव राव रावलों. कितलो वगत रावतलों ? ताका 'आर्म हांगा हाड ' असो रेकाद दवरून ताकतिकेन आयलों.

'आर्म रे तुका कित्याक ? तूं अर्जून मरे ! तुका जाय धनुश्य आनी बाण. तो आसा मरे हाडिल्लो. ' हांवें म्हळें. म्हाका ताचें आर्म काँत समजलेंना.

'तुका नाटकच समजलेंना ! आरे म्हाका ॲक्टींग आसा. हांव बरयलां तशीं ॲक्टींग करपी. हें पळय. हे पद म्हाका आसा अशें म्हणून ताणें नाटकांतलें पद म्हणून दाखयलें.

कांते ' फार तुला
श्रम सखये
मजसाठीं पडले...'
हें पळय. 'फार तुला' अशें बरयलां.

हें आयकून हांवें कपलार हात मारलो. 'आरे, 'फार' म्हळचार तो आर्म फार न्हय ! तुवें घेवपाचो धनुश्य आनी बाण.'

' बाण ? कसो तर बाण मारपाचो आसल्यार '

' कांते ' बाण ' तुला '

श्रम सखये मजसाठीं पडले...

अशें बरयता आशिल्लो. लेखक कितें पिसो ? आनी तूं चड शाणो ? शॅबाबा ! म्हणून ताणें म्हाकाच ओडीर काडलो.

आमी पिशें काय तकलेंतल्यान सोडलेंना ! निमणे मेरेन आर्म कांय पावलेंना ! पूण मुकुंदान धनुष्य बाण कसोच हातांत धरलोना. तो रिकाम्या हातांनी स्टेजीर गेलो. धनुष्य बाण बी कांयच घेतलोना ! त्या पदा वक्तार ताणें खांदाक आर्म आशिल्ले भाशेन ॲक्टींग केली.

' कांते फार तुला . . . . ठो ' तोंडान म्हणून खांदाचें आर्म काडून जोखिल्ले भाशेन केलें. ती ॲक्टींग पळोवन लोक लागले हांसूंक !! हांसप न्हय जाल्यार कितें करपाचें ?

लोकालें हांसप खेबाडाचें हें मुकुंदाक कळ्ळें, आमी अँक्टींग करप समा न्हय जावंये देखून ताणें तें पद परतून घेतलें.

कांते ' फार ' तुला ठरररर ठरऽऽर

श्रम सखये मजसाठीं पडले.

ताणें स्टेनगनीची ॲक्टींग केली. आता सुदारिल्लें जग. पिश्तोल पोन्ने जालां जांवये म्हणून ताणें स्टेनगनीची ॲक्टींग केली, तरीय लोक हांसतात. आतां मात ताका तिडक मारली. निमणें ताणें रागान गनलाची ॲक्टींग केली.

कांते फार तुला ढो ढो ढुम ..

'खाया पोरांनो ! म्हाका ॲक्टींग कळना ?' अशें म्हणून तो रागान विंगेभितर गेलो.

आनी एक हांवें आयकल्ली मुकुंदाली गजाल ! तें नाटक आशिल्लें 'द्रौपदी वस्त्रहरण' हें पुराणीक नाटक. पुराणीक नाटकांत खूब चमत्कार आसतात. ताका लागून स्टेजीक खूब जुळोवन घेवचें पडटा.

ह्या नाटकाचो कथाभाग असो ..

पयलीं केन्ना कौरवांलो अपमान जाल्लो आसता. तो राग काडपाखातीर कौरव पांडवांक द्यूत खेळपाक आपयतात. द्यूत म्हळ्यार एक जुगाराचो नमुनो. जुगार खेळपाक येवकार दितकच ताका ना म्हणप म्हळ्यार लजेची गजाल. राजाक जाल्यार तें मेल्ले परस पाश्ट अशी त्या काळची रीत ! देखून पांडवांक कौरवां वांगडा जुगार खेळचोच पडटा. शकुनीमामाले नकलामेक लागून पांडव त्या जुगारांत घाणटात. सगलें राज्य वगडावन बसतात. निमणें द्रौपदीकय ते द्युताक लायतात आनी तालूंतय शेणटात.

मागीर कौरव द्रौपदीक ताब्यांत घेतात. तांचो मुखेल दुर्योधन तिका भर बसकेंत नागडी करपाक आपल्या भावाक दुःशासनाक फर्मायता.

'मय सभेंतला वचपा कौरव आज काढणार !' अशें म्हणून दुःशासन द्रौपदीची साडी सोडटा.

त्या वेळार द्रौपदी, त्वमेव माता पिता त्वमेव । त्वमेव बंधु । सखा त्वमेव.. अशें म्हणून कृष्णाची प्रार्थना करता. ताका लागून चमत्कार जाता.

दुःशासनान साडी ओडल्यार द्रौपदीच्या आंगार दुसरी साडी तयार. तीय सोडल्यार आनीक एक तयार. अशो साड्यो सोडून दुःशासन खर्शेता, पूण द्रौपदी नागडी जायना !

हें नाटक बसयता आसतना डायरेक्टराक जुळोवन घेवचें पडटालें. ताणें थारायलें.

द्रौपदीन एका भितर एक अशो पांच साड्यो न्हेसप. दुःशासनान मेजून साड्यो सोडप आनी चौथे साडयेच्या पदराक हात घालतना कृष्णान स्टेजीर येवप.

'द्रौपदी हा पहा तुझा कृष्ण.' हें भाशण कृष्णान म्हणटकच दुःशासनान भियेवन स्टेजी भितर वचप अशी डायरेक्टरान केल्ली जुळवण.

नाटकारातीं थारायल्ले परमाण द्रौपदी पांच साडयो घेवन आयली. त्यो ग्रीन रुमांत दवरून द्रौपदी मेकअप करूंक बसली.

ह्या नाटकांत सगल्यांत पयलीं– सुरत्रेक–सुत्रधाराची अँट्री आसता. ताचे मागीर सबंद नाटकांत ताका आनीक काम नासता. ह्या सुत्रधाराचें काम करपी लोक चड करून धंदेवाईकच आसतात. ते एके रातीक कितलेय कडेन सुत्रधाराचें काम करतात. ताका लागून ते सदांच ताकतिकेंत आसतात.

ह्या नाटकाक सुत्रधार आपल्या माथ्याक बांदपाक फेटो घेनासतना आयलो. ताका हातालागीं द्रौपदीच्यो साडयो मेळच्यो. ताणें तातुंतली एक साडी माथ्याक रेवडायली, आपलो पार्ट केलो आनी तसोच तो दुसरेकडेन गेलो.

द्रौपदी आपलो मेकअप बी करून ग्रीनरूमांत साडी न्हेसपाक आयली. पळेता जाल्यार थंय चारच साडयो. द्रौपदीचेर आकांत आयलो, पूण तिणें बोवाळ केलोना. कित्याक तर दुःशासन चौथे साडयेक हात घालता तेन्ना कृष्ण धांवून येता.

'द्रौपदी हा पहा तुझा कृष्ण.' हें कृष्णालें भाशण आयकून दुःशासन कूस मारता. देखून पांचवी साडी न्हेसूंक ना म्हण कांय घात जावचोना. तशेंच, पांच साडयो न्हेसून ती कुलचांव गुटलायिल्ले

भाशेन दिसतली आसली. ते नदरेन पळेल्यार चारच साडयो न्हेसप कांय सामकेंच वायट न्हय. देखून ती बोवाळ करीनासतना चारच साडयो न्हेसून रावली.

रातच्या एक वराचेर द्रौपदीक नागडी करपाचो तो आकत कॉमेस जालो. दुःशासनान द्रौपदीक भरभरीत ओडून स्टेजीर हाडली. मागीर दुर्योधनान तिका नागडी करपाचो हुकूम मोडलो. दुःशासनान 'मय सभेंतला वचपा कौरव आज काढणार' अशें म्हणून द्रौपदीची साडी ओडपाक कॉमेस केलें.

द्रौपदी : 'त्वमेव माता पिता त्वमेव
त्वमेव बंधु सखा त्वमेव
त्वमेव विद्या द्रविणम् त्वमेव
त्वमेव सर्वम् मम देव देव'

अशें पद म्हणत वाटकुळी धुंवपाक लागली. दुःशासनाक साडी सोडोवंक सोपें जावचें म्हणून तिका वाटकुळी घुंवपाक डायरेक्टरान सांगिल्लें. त्या प्रमाण ती आपलो पार्ट बरो करताली.

कृष्णाक ताचे पयलीं पार्ट नाशिल्लो. तो भितर मातसो आड पडिल्लो थंयच ताका दोळो लागलो. डायरेक्टर कृष्णाक सोदूंक लागलो. पळेत जाल्यार कृष्ण घोरेता !!

'कृष्णा, ऊठ मरे ! तुजी ॲंट्री मरे आतां.' अशें म्हणून तो कृष्णाक उठोवंक लागलो.

भायर स्टेजीर एक साडी सोडटकच परतोय दुःशासन दुसरी साडी सोडटालो.

'मय सभेंतला वचपा कौरव आज काढणार दोन.' अशें म्हणून डायरेक्टरान थारायिल्ल्या प्रमाण यादीन मेजून साडी सोडटालो. अशें करत करत ताणें चौथे साडयेक हात घालो.

द्रौपदीचेर आकांत आयलो. ती हेवटेन–तेवटेन कृष्ण दिसता काय पळोवंक लागली, पूण कृष्णाचो पत्तोच नासलो !

तिणें दोनय हातांनी साडी घट्ट धरली आनी घुंवपाचें बी बंद केलें.

'हे शेवटचें वस्त्र आहे मेल्या !' अशें म्हणून तिणे किळांच मारली.

दु:शासनाक कितें जालां तेंच समजना थारायल्ल्या प्रमाण कृष्ण येना. तोय त्रासांत पडलो. थोडो वेळ कृष्णाची वाट पळेत उबो रावलो. ताणें हळूच विंगेकडेन तोंड करून, ' कृष्णा यो मरे बेगीन ' अशी कुरू केली, पूण कृष्ण कांय दिसलोच ना.

दु:शासनाक कमरार हात घवन उबें रावप काय कितें अशेंच दिसंक लागलें. ताणें चिंतलें, वट्ट पांच साडयो आसात. आपणें चौथी साडी सोडली म्हणून कांय घात जावपाचो ना. ताणें परतुनय साडी ओडपाक कॉमेस केलें.

' मय सभेंतला वचपा कौरव आज काढणार –चार '

हे वाटेन द्रौपदीन आनीक मोटचान किळांच मारली.

' खबरदार आनीक साडी सोडशील तर ! हें खरेंच शेवटचें वस्त्र आहे.'

' शेवटचें वगैरे कांही नाही मी मोजल्या आहेत साडचा. ही चौथी साडी आहे.' म्हणून दु:शासनान जबरदस्तीन चौथीय साडी सोडलीच.

आतां द्रौपदी म्हळचार आमचो मुकुंद एके काश्टेर स्टेंजीर उबो जालो.

' हें आनी कितें बाबा ?' लोकांनी शिळोण्यो मारल्यो. दु:शासनाक कांय हात्री नाट नाशिल्ली. ' केलें कितें आनी जालें कितें' तो येवजुपाकच पडलो.

सगले लोक हुयेळी मारपाक लागले. द्रौपदी स्टेजीर एके कुशीक रागान बेतकाठी कशी कडकडटाली. तिणें एक हात काश्टेर आनी एक हात हड्डयार धरिल्लो. कृष्ण फुटूं पूण कोणें पड्डो तरी उडयल्यार बरें जाता आशिल्लें अशें तिका दिसलें.

इतल्यान ' द्रौपदी, हा पहा तुझा कृष्ण आला !!' अशें म्हणून ओंठार मुरली तेंकयत अँट्री घेतली.

कृष्णाक पळेतकच द्रौपदीक म्हळचार मुकुंदाक अशी भिरभिरी मारली, ' रांडेच्या ! आतां कशाला काश्टी सोडायला आलास ?' अशें म्हणून ताणें कृष्णाल्या मुस्कटार ठोऽऽ करून एक लायलें. ते सरशीं कृष्णाच्या दोळयांलागीं जोगलावल्ले भाशेन जालें !

कृष्ण, ताची मुरली, दोन नाल्ल्यो मुखार बशिल्ल्या पेटीवाल्याचेर पडल्यो. मागीर रोखडोच पड्डो पडलो !!

कांय नाटकां तातूंत वांटो घेवपी पाटर्चांक लागून फामाद आसतात, तशें आमच्या गांवांत दौपदी वस्त्रहरण मुकुंदाक लागून चड फामाद. लोक त्या नाटकाक ठोऽऽ मुकुंद म्हणून वळखतात. मुकुंदालो नाटकां मोग लोकाक फकाणां दिसलीं जावये, पूण मुकुंदान आपली पिराय नाटकांकच ओंपल्या ती सामकी काळजांतल्यान !

नाटकां नादाक लागून मुकुंदान लग्न केलेंना. 'आपलें लग्न नाटकां लागीं !' अशें तो सांगता. आपल्याक कितल्याशा सिनेमा कंपनीचें आपोवणें आयलें, पूण आपूण गेलोंना. आनी केन्नाच वचचोंना !' अशें तो नेटान सांगता.

सिनेमांतली ॲक्टींग ही भेळशेल्ली ॲक्टीग. सिनेमा पळोवप हें झेलांतलें नुस्तें खाल्ले भाशेन. आमी गोंयकार ताजें फडफडीत नुस्तें खावपी ! तशेंच, डायरेक्ट स्टेजीर ॲक्टींग करपी. भाटीचेर वचून ताजे हुर्राक मारपी. आमकां भेळशेल्ल्याची नसाय.' अशें तो छाती फुलोवन सांगता.



ताळचो पडूंकच ना अशें मुकुंदालें एकय नाटक जावंक ना ! खूब नाटकां जालीं. आनीकय जातालीं, पूण मुकुंदा सारको कृष्णाक लेगीत जोगलां दाखोवपी नाटकांघाडी मुकुंदच !!

# म्हजो न्युटन



हांवें एक दीस एक बातमी वाचली.

' पांयांत रबराचें जोतें वा रबरी सोल आशिल्ले बूट वापरीत जाल्यार मनशाची तकली इबाडटा ' म्हाका हे गजालीची याद कित्याक जाली जाल्यार म्हजो चलो एक फावट तिसरेंत काय चवथेंत शिकता आसतना परिक्षेक गणितांत नापास जालो, कारण कितें म्हळ्यार परिक्षेक वतना आवयन ताच्या पांयांत बूट घाले. पांयांत बूट घाले म्हूण गणितांत नापास !!

ताचें अशें जालें. हांव कॉलेजींत गणीत शिकयतां. म्हाका एक भुरगो, ताचें नांव आमी दवरलें न्युटन !!

न्युटन नांव कित्याक दवरलें ? म्हाका गणीत आनी शास्त्र हांचो अभिमान मिरोवपाचो गोस्त, आनी दुसरें म्हळ्यार, म्हजो भुरगो मोटो शास्त्रज्ञ जातलो हाजो म्हाका विस्वास. तिसरें कारण, नावांचो मनशाचे वागणुकीचेर कितेंतरी परिणाम जाता. हांवें धोंडो, रवळू, पिसो अशीं नांवां दवरलीं जाल्यार तो शास्त्रज्ञ कसो जातलो ? त्या भायर आनीक एक कारण. खरो न्युटन मिनैरां भाशेन आपल्या नांवाची रॉयल्टी कांय मागना ! तेन्ना फुकेंसवाय बरें नांव दवरपाक मेळटा तें कित्याक वगडावचें ? निमणें, हो सगलो फाटलो फुडलो नियाळ करून आमी आमच्या भुरग्याचें नांव ' न्युटन ' दवरलें.

एके खेपे हो न्युटन परिक्षेक गणितांत नापास जालो. सामको झॅर फुटलो ! न्युटनाची मम्मी म्हळचार म्हजी घरकान्न, करंदाय मारीत म्हज्या म्हन्यांत आयली आनी किर्ते किर्ते उलयली. कॉंत आनी हिशोब ना ! तिणें किल्ल सोलतात तसो म्हाका सोल्लो !

' आगे, कितें जालें ?' हांवें विचारलें.

' हें घे. तुजो पूत गणितांत नापास. एकदम शुन्य मार्क ! दुदी! दुदी !! खायात तो भाजी करून !!

ओस्पितालांत हेड मॅट्रन हाताखालच्या नर्सीक जशी पिसुडटा वा इस्कोलांत हेडबाई क्लास टिचरीक जशी उजरायता तशी ती म्हाका उजरावंक लागली !

' तुजो पूत गणितांत नापास !' हांगा एक फिरकी आसा. म्हजो पूत म्हळचार कितें ? तिचो न्हय? पूत आमचो दोगांचो ! चड तिचो! तिच्याच पोटांत तो जाल्लो. दादल्यांक केन्ना भुरगीं जातात ? तिणें णव म्हयने पोटांत सांबाळ्ळो. व्हडा कश्टांनी जल्म दिलो. तो पोर जातना पांयांनी जालो आनी तिची दैनाच जाली. आतां तो गणितांत नापास जाला म्हणून ती ' तुजो पूत!' म्हणटा.

फाटीं ताका चारशें मिटर धांवपा सर्तींत इनाम मेळिल्लें. व्हडलें कॉप मेळिल्लें तेन्ना ' म्हज्या पुताक कॉप मेळ्ळें ' म्हणून आयिल्ल्या गेल्ल्याक दाखयताली. फोन करून लोकाक आपल्या पुताचें कॉप पळोवपाक आपयनाली. सालांत मदीं मेज दवरून ताजेर कॉप दवरलें. येत्या वत्याची नदर ताजेर पडची ही मांडणी. भायर गेटी देगेक उबी रावन केन्ना हटकीना त्या बायलांक लेगीत हटकिताली, ' ए माल्रू, कितें गो आयज बगीन आयलें ? यो मगो भितर ' अशें म्हणून ताका भितर आपयताली. मागीर तांचे नदरेक तें कॉप पडप, उपरांत हिची कॅंपेन सुरू ....

' हें म्हज्या नटूक चारशें मिटर धांवपा सर्तींत मेळ्ळां !!' मायेचे उबेन अक्षर कडलां ताका लागून न्युटनाचो नटू जालो. जावं. अशे तरेन तिणें एक म्हयनोभर कॅंपेन सुरू केली. चम्पा, मोगरें, जायू सगल्यो तिच्यो इश्टिणो कदेलां तापोवन गेल्यो. च्याक दूद पावना

म्हणून दुदादबे हाडले. दबे उपकारना म्हणून सरबत हाडलें. सरबत उपकारना तांकां आयस्क्रीम दिलें. बॉडभद्र केलें.

आनी एक फावट म्हज्या पुताक दिसांजोर आयलो. तेन्ना मात ती 'आमच्या पुताक जोर आयला.' अशें लोकांक सांगताली. विगड–विगड वेळांचेर विगड–विगड मालकी जाताली.

नापास जाता तेन्ना म्हजो पूत ।
इनाम मेळटा तेन्ना तिजो पूत ।
दुयेंत जाता तेन्ना आमचो पूत ।

अशे तरेन म्हज्या पुताची मालकी मुदार जाताली.

आतां भुरगो नापास जावप ही वायट गजाल ! पूण ही एकदम गान्न्यार जाल्ले भाशेन नेट करता. कित्याक जाणात ? हांव गणिताचो प्राध्यापक न्हय ? देखून ताका गणीत आनी शास्त्र शिकोवपाची जापसालदारकी तिणें म्हजेर घाली. हेर विशय तीच ताका शिकयताली, तातूंत शिकोवपाचें कितें आसता तें देव जाणा ! पूण ती शिकयता त्या विशयांत तो झेतान पास जालो आनी हांव शिकयतां त्या गणितांत नापास जालो.

म्हजें घाणप म्हळ्यार तिचें जिखप अशें तिणें थारायलां अशें दिसता !

तें जावं ! हें गरजेभायलें. अशीं केस्तावां झगडीं दर सुखी संवसारांत आसतात, आनी आसूंकच जाय अशें म्हणटात. ना जाल्यार खंय सुखी संवसाराक दिश्ट लागता ! त्या भायर if stones are removed brook ceases singing झराचें गावप तातुंतल्या फातरांक लागून आसता, ते फातर काडले जाल्यार झर खंय मोनी जाता. देखून उरूं ते फातर ! !

आतां मुळपदार येवया ! म्हजो भुरगो नापास कसो जालो ? आनी ताका एकदम झॅर मार्क कशे पडले ? हांगा म्हजो प्रेस्टीज, भुरगो नापास जाल्ल्याची खंत आनी झॅर मार्क कशे पडले हाची कुर्येज ! असो 'थ्री ईन वन्' प्रॉब्लेम जाल्लो आसा. हो कोण सोडयतलो ? हांवें आमच्या न्युटनाकच विचारपाचें थारायलें.

‘ न्युटनबाब, हें मातशें सांगात पळोवया ’ हांव भुरग्याकडेन रेश्पैत दिवन उलयतां. कित्याक तो एक मोटो शास्त्रज्ञ जातलो अशी म्हजी खात्री आसा. त्या भायर ती एक मनीस घडोवपाची रीत. जिजाबाई शिवाजी लागीं उलयताना शिवबा, शिवराया, राजे अशी रेश्पैत दिवन उलयताली. तिणें ‘ ए ऽऽ शिवा, हांगा यो पळोवया ’ अशें केन्नाच म्हळेंना, हांवें ती देख शिवाजीचे आवय कडच्यान घेतली आनी न्यूटनबाब म्हळें.

न्यूटनबाब म्हज्यांत आयले आनी म्हज्या तोंडाकडेन पळेन उबे रावले. हांवें विचारलें, ‘ तुमी गणितांत नापास कशे जाले आनी एकदम झँर कसो फुटलो ?’

‘ मम्मीन पांयांक बूट घाले आनी हांव नापास जालों ! ’ आवयक मम्मी म्हणपाची देख म्हजी न्हय. जावं ! न्युटनान भोळेपणान ना खंत ना उमेदीन जाप दिली.’

‘ आगा, हें गा कितें ? पांयांत बूट घाल्यार तकलेंत तूट येता ? काय पांयांनी जाल्लो म्हूण पांयांत मेंदू आसता अशें हाका दिसलां काय कितें ? मदीं आमी थोडो तेंप पुण्याक आशिल्लो तेन्ना तो मदीं-मदीं मराठी बी उलयतालो. एक दीस तो आपल्याक मराठी कळटा अशें म्हाका नेटान सांगतालो. हांवें ताका मराठींत विचारलें.

‘ तुझे नांव काय ?’

‘ माझे नांव न्युटन.’

‘ तुला डोळे किती ?’

‘ दोन.’

‘ दाखव बघू तुझे डोळे.’

ताणें आपले दोळे दाखयले.

‘ तुला कान किती ?’

‘ दोन.’

‘ दाखव बघू तुझे कान.’

‘ हे माझे कान ’ अशें म्हणून ताणें आपले कान दाखयलें.

‘ तुला डोकी किती ?’

‘ दोन ’

अब्बा ! हो आपल्याक दोन डोकी कशें म्हणटा काय ?

‘ दाखव बघू तुझी दोन डोकी ! ’

ताणें आपले पांय वयर करून दाखयले.

‘ ही बघा माझी डोकी.’

आयस् सायबा ! मराठींत नाकाक नाक. कानांक कान, दोळ्यांक दोळे म्हणटात न्हय देखून हाणें दोंक्याचें डोकं केलें. शाबी बाबी पौकु दिफरैंस ! ! असो अर्दकुटो मराठीचो परिणाम जाला देखून पांयांत बूट घाल्ल्यान हो नापास जालो काय कितें ? म्हजें कोंफुसांव आनीक वाडलें.

आनी समजा पांयांतच मेंदू आसा अशें हाणें धरलें तरी बूट घाल्यार नापास कित्याक जावंक जाय ? तकलेंत मेंदू आसा अशें समजुपी तोपी ना जाल्यार पगडो घालनात ? ताका लागून ते किदें निशें जातात ? आमचे सी. वी. रामन् पगडी बांदताले. ते व्हड शास्त्रज्ञ जाले, तांकां नोबेल पुरस्कार मेळ्ळो. आमचे आदले राष्ट्रपती डॉ. सर्वपल्ली राधाकृष्णन पगडी बांदताले. ते तकलेन फॉर्त आशिल्ले, मागीर पांयांत बूट घाल्यार नापास जावपाक रझांव ना !

हांवे परतून ताका म्हळें, ‘ न्युटनबाब, गणितां हीं तकलेन करपाचीं आसतात न्हय ? पांयांनी न्हय. आनी पांयांत बूट घाल्ल्यान तुमी कशेकात नापास जाले ?’

‘ तुका समजुचें ना ! तूं म्हाका गणीत घाल मागीर तुका दाखयतां.’

‘ बरें कर हें गणीत ! णव आनी सात कितले जाले ?’

आमच्या न्युटनान दोनय हातांचीं धांतलीं णव बोटां मेजलीं. उरिल्लें एक बोट आनी एका पायांची स बोटां मेजलीं आनी सोंपता थंय पेन्सील खोयली आनी मागीर सॉम मारलें. सॉम मारप म्हळ्यार सगलीं बोटां परतून मेजप. तीं जालीं सोळा. न्युटनान पांयाची पेन्सील दाखयत जाप दिली.

आतां म्हजे तकलेंत ट्यूबलायट पेटली. धा परस सुबेझ सॉम

जाल्यार न्युटनाक पांयाचीं बोटां मेजचीं पडटात. सोंपता थंय पेन्सील घालची पडटा. पांयांक बूट घाल्यार ह्यो उचापती करूंक मेळनात. देखून बूट घालतकच तो गणितांत नापास जालो ! केन्ना केन्ना तो जनेलांचे वारांव, कदेलां, तांचेर बशिल्ल्या मनशांच्यो तकल्यो मेजतालो. कित्याक तें आतां म्हजे तकलेंत आयलें.

सदां तो जोतें घालून शाळेंत वता आनी खासा परिक्षे दिसा म्हजी बायल ताका बरे कपडे आनी बूट घालून शाळेंत कित्याक धाडटा हें म्हाका अजून कळ्ळेंना !

त्या दिसा– गणिता पेपरा दिसा– आवय ताका बूट घालताली आनी न्युटन हुयेली मारतालो !

'आगे, म्हाका बूट घालूं नाका. बूट घाल्यार हांव नापास जातलों.' अशें काकुळटीक येवन तो सांगतालो. तरीय तिणें ताका बळयां बूट घालेच आनी तोय बी आपल्या म्हणण्या प्रमाण नापास जालो ! !

जाल्यार ही गजाल येवजली ते बातमेक लागून. रबरी जोतें म्हळ्यार बूट घाल्यार मनशाची तकली इबाडटा हो सोद लावपाक धा वारा शास्त्रज्ञांक कितलींशीं वर्सां येवजप करचें पडलें, आनी म्हज्या न्युटनान मात णवव्या वर्सा पतटूच करून हो सोद लायलो. हाजेर प्रॅम बी जर दिवपाचें आसत जाल्यार तें म्हज्या न्युटनाकच मेळूंक जाय ! !

# सपन

राणू नायकागेर वावराडी तिगना तशें म्हज्या ॲम्बीशनाचें सपन आयज मेरेन तिगलेंना. ॲम्बीशन म्हळचार आपल्याक मुखार कोण जावचो दिसता ताची मोख. थोडे लोक ताका ध्येय अशें म्हणटात. म्हाका ध्येय हें उतर बरें मानवना. चडशे जानवाळ लोकच तें वापरतात. ध्येय, कर्तव्य, जिज्ञासा हीं उतरां वापरल्यार म्हाका शेणिल्ले भाशेन दिसता.

म्हजें ॲम्बीशन आयचें फाल्यां ना. आनी फाल्याचें परवां ना. अशें दिसानदीस मुदार जायत वता. मळबांत जशीं मोटां एका वेळार व्हड दोंगर कशीं दिसतात, मागीर तांचो राकेस जाता, उपरांत हत्ती जाता. आनीकय किलें किलें जायत वता. निमाणें माकोड लेगीत जाता. तशें म्हजें ॲम्बीशन !

ल्हानपणांत म्हाका रामराय शणै जावचो अशें दीस. रामराय शणै हो आमच्या गांवांतलो पसरकार. आमी रावताले थय लागींच ताचो पसरो. तो सकाळीं धा वराचेर येवन पसरो उक्तो करतालो तो दनपारां एक मेरेन. मागीर सांजे चारांक उक्तो करतालो तो सातांक बंद. आपलो सुसेगाद. केन्नाच कामाची ताकतीक ना.

म्हाका रामराय शणै जावचें दीस तें कामाची ताकतीक ना देखून न्हय. म्हजी ओड आशिल्ली ती दुकानांत आशिल्ल्या पिपीरमिटां, चॉकलेटी, बिस्कुत्यो आशिल्ल्या भरण्यांचेर मुखार हुमकळटल्या



केळी घडाचीं केळीं 'खा रे म्हाका... खा रे म्हाका...' अशें करून आपयतालीं, पूण त्या रामराय शणैची म्हाका भिरांत दिसताली. विकत घेवन खावपाक बोल्मांत पानदुडू नासलो. चोरून खावपाक कुराझ्य नाशिल्ली. देखून हांव रामराय शणैय जर जालों जाल्यार जाय तितल्यो चॉकलेटी, पिपीरमिटां, केळीं खा. कोण विचारपी ना, पूण रामराय शणैक केन्नाच एक पिपीरमीट तोंडांत उडयतना, चॉकलेट खातना ना जाल्यार केळें खातना देखूंक ना.

इतली सगली संपत म्हन्यांत आसतना तोंडांत उडय नासताना कशें रावं येता हाचें म्हाका अजाप दिसता. तो एक म्हान योगी आसूंक जाय दोतोरान बी ताका खाय नाका म्हण सांगलां. पूण सगलेच पसरकार रामराय शणै भाशेन. केन्ना कोणाचेंच खावपाक तोंड

ह्यलयल्लें दिश्टी पडना. सगलेच पसरकार एक तर दुर्येत ना जाल्यार योगी. हांव रामराय शणै जाल्यार तसो जावचाना. हांवें खावन उरलें जाल्यार लोकांक. लोकांनी खावप आनी आपणें बेठें तांच्या तोंडा कडेन पळोवचें हें गा कितें ?

हांवें तेन्नाच थारायलें. दोन वर्सांनी चवथी परीक्षा जशी जाली, मागीर पास जावं, नापास जाव, शाळा सोडप आनी बऱ्यांतलो एक पसरो घालप. चवथी मात जावंक जाय. काँतां करचीं पडटात त्र्य? ताका लागून हांव गणिताचेर चड सितींत दितालों. चवथी बरे भाशेन जावची म्हण ह्या विशयाकय घोळयतालों देखून चवथेक म्हजो पयलों नंबर आयलो.

चवथी एकदम बेस बरी जाली. इनामांय मेळ्ळीं, पूण उपरांत रामराय शणै जावपाचें ॲम्बीशन शेणलें ते केन्ना शेणलें हांवच नकळ. म्हाका आतां रसुल जावचें शें दिसूंक लागलें.

हांव चवथेक आशिल्लों त्या वर्साक आमच्या गांवांत एक नवो रस्तो जालो. ताजेर एक कारैंर जाली कारैंर म्हळ्यार आतां भाशेन मिनीबस.

रसुल ह्यो कारैंरीचो ड्रायवर. मडगांव सावन सांजे चार वरांचेर सुट्टा ते कारैंरीचेर तो आसतालो. आमच्या गांवांत ती सांजे सात वरांचेर पावताली. रातीक ताका आमच्याच गांवांत रावचें पडटालें सकाळी स वरांचेर तो मोटार घेवन परतो मडगांवां वतालो. भायर आमच्या सोंप्यार ताका न्हिदपाक आमी जागो दिल्लो. सकाळीं उठ्ठकच ताका आमी च्याय दिताले. तो मडगांव सानन सांजेवेळा येतना म्हाका चॉकलेटी, पिपीरमिटां, कार्तोशी बी ह्याडी. एक दीस ताणें म्हाका साकरेची पिल्लूक ह्याडली. हांवें ती दीसभर वाजय वाजय वाजयली. दर खेपे वाजयतना इल्लो कुडकोच मोडून खावप, मागीर ती वाजना जातकच आख्खी पिल्लूकच मोडून खाली. साकरे पिल्लूक ही आयडीयाच म्हाका बरी गोड लागली. वाजयल्यार वाजयली, ना जाल्यार मोडून खाली.

रसुल वॉल्ताक बी वच तेन्ना म्हाका फुडल्या सिटार घेवन

वतालो. तेन्ना म्हाका बेस बरें दीस. रस्त्यान चलत वचपी लोक म्हाका कुस्कुटा भाशेंन दिसताले. तांकां हांव हिणायतालों. रसुला मुखार तो रामराय शणै म्हाका पोको दिसूंक लागलो.

रसुलाचे गाडयेंत फुडल्या सिटार बसून वतना मज्जा येताली. एकदम लिडर जाल्ले भाशेन दिसतालें. वाटेन चलत वचपी लोक सामके किकाँत कशे दीस.

रसुल आपलो कामिन्यांव घेवन पणजे, मडगांवां, फोंड्या सगल्याक भोंवतालो. देव सगले कडेन आसता अशें म्हाका एक फावट आज्जेन सांगिल्लें. आमचो रसुलय सगले कडेन आसता देखून रसुल हो एक देवच काय कितें अशें म्हाका दीस.

एक फावट रसुलान म्हाका पणजे– मडगांवां भोंवडावन हाडलो. रसुलाचे मोटारीक कंडक्टर किलींडर कोण नासतालो. लोक भाडचा पयशे रसुलाकडेन दिताले रसुलाचीं खोमसां बोल्सां, पॅण्टी बोल्सां पयशांनी फुगिल्लीं. वाटेन बऱ्याच हॉटेलासरीं तो मोटार थांबयतालो. मागीर आमी दोगय भाजी–पाव खाताले. रसुल आपल्या बोल्सांतल्यान मूठ मारून पयशे काडटालो. ताच्या हातांतल्यान हॉटेलवालो आपले कितले ते पयशे काडी. चड बी काडूंक ना मूं? हाची खंत रसुलाक नाशिल्ली. ताका चिल्लर पयशांचें काँतच नाशिल्लें. वाटेर केळीं, अनसां, काळगां कितें दिश्टी पडटा तें मुजरत घेतालो. तांकाय मूठ भरून पयशे दितालो. वाटेवयले पोलीस लेगीत रसुलाक सलाम मारताले, देखून म्हाका रसुल देवापरस मोटो दिसूंक लागलो. हेंच बरें. हांव व्हड जातकच रसुल. म्हळचार ड्रायवर जावप अशें हांवें थारायले.

थोडचा दिसांउपरांत कामिन्यांवाचेर रसुल येना जालो. रसुला जाग्यार दुसरो ड्रायव्रर येवपाक लागलो. ताचें नांव तिळू. हांवें तिळू-कडेन रसुलाची खबर घतली.

‘ रसुल पयशे खावपाक लागलो आनी सोरो पियेवन आजनेरी करपाक लागलो देखून पात्रांवान ताका सिर्विसेचो काडलो ही गजाल म्हाका तिळून सांगली.

‘ पात्रांव ? आनी खंयचो पात्रांव ? रसुलापरस व्हड आनीक कोण पात्रांव आसता हें म्हजे तकलेंतच येना. हांव रसुल म्हळ्यार पात्रांवाबापूय समजतालों. देव लेगीत रसुलाचे ऑर्डीन रावतात अशें म्हाका दीस. रसुलाक पात्रांवान सिर्विसेचो काडलो हें कळटकच म्हज्या ॲम्बीशनाक वेर गेली. बोमाडच्यांतलो वारोच गेलो.

हांव म्हयनोभर सामको बेजार जालों. आतां कोण जावप कांयच समजना जालें. सपन नासतना जगप म्हळ्यार येरें नाशिल्ल्या व्हड्या भाशेन, ना जाल्यार स्टिअरींग नाशिल्ले मोटारीभाशेन. म्हाका हांव सामकोच बोडके बायलेभाशेन दिसूंक लागलों.

थोडचा दिसांनी आमचे शाळेचो वाडदीस आयलो. शाळेच्या वाडदिसाक मास्तरान आमची प्रभातफेरी काडली.

विद्येनेच मनुष्या
आले श्रेष्ठत्व जगामाजी...

अशें मोटचान गायत आमची प्रभातफेरी भोंवडी करताली. मागीर मास्तरान एक भाशण ठोकलें.

‘ शिक्षण हें चडांतचड म्हत्वाचें आसा. आयज मनीस मोटो जाला तो शिक्षणाक लागून. शिक्षणाइतलें व्हड जगांत कांयच ना. भटांबेसांक आतां कोणच विचारना.

‘ तो कितें शिकला अशी वासपूस करतात. पयशाक लेगीत चालोर ना. राजाक लेगीत आपल्याच देसांत रेस्पैत मेळटा, पूण शिकिल्ल्या मनशाक वता थंय सगले धर्तरेर रेस्पैत मेळटा.’

हें मास्तरालें भाशण आयकतकच म्हज्या आंगार कांटो फुल्लो !

हांवें खूब शिकपाचें ॲम्बीशन धरलें. रसुल बी जावप काँताक येना. पात्रांवान सिर्विसेचो काडटकच पिरंगत गेलो घरा. असलीं फालतू सपनां आमकां उपकरनात. आमकां आँर्दिद जियेवपाक मेळटा तसलें ॲम्बीशन जाय.

आमगेर एका दिसा एक सोयरो आयलो. आमी ताका चंदाद म्हणी. ताचें नांव रामचंद्र हें म्हाका खूब उपरांत कळ्ळें. तो आमचो कसो सोयरो हें हांव नकळं, पूण केन्नाय आंतऱ्या पयऱ्यान तो आमगेर

यतालो. एक–दोन दीस रावतालो आनी वतालो.

‘ तुजें ध्येय कितें रे ?’ अशें ताणें म्हाका एक दीस विचारलें.

भुरग्यांक लागनात ते प्रस्न विचारपाची ताका खूब सवंय आशिल्ली. एक दीस ताणें म्हाका माकोड लांब काय शेंपडी लांब ? असो प्रश्न विचारलो.

हांवें ताका शेंपडी लांब अशें सांगलें. ‘ माकडाचें धड आनी शेंपडी दोनूय म्हळ्यार माकोड. देखून माकड लांब. शेंपडी न्हय.’ अशें तरेन ताणें म्हजें उतर चूक थारायलें.

अशा कितल्याशाच प्रस्नांनी तो आमकां पिसो करतालो. हाका लागून चंदादाच्या प्रस्नांक जाप दिवपाक हांव थर्त भियेतालों.

‘ तुजें ध्येय कितें ?’ अशें चंदादान विचारतकच हांवें ‘ खूब शिकप ’ अशी नेटान जाप दिली. आतां म्हजे लागीं ‘ रेडीमेड ध्येयां ’ खूब आशिल्लीं.

‘ शिक्षण ? शिक्षण हें ध्येय कशें आसूं येता ? ध्येयाक लागून शिकप ! ध्येय हें वेगळें सांग तुजें ध्येय कितें ? शिकून तूं कोण जातलो ?’

अशे तरेन चंदादान म्हजें ध्येय विस्कटायलें. आतां उत्तर कितें दिवप तें हांव येवजुपाक लागलों.

‘ शिकून मास्तर जातलों ! ’ त्या वेळार म्हाका मास्तर जावपाचें येवजलें. हांवें तेंच उतर ठोकलें !

‘ मास्तर जातलो ? बरें आसा. बरें करून शीक ! ’ अशें म्हणून ताणें कांयच आडमेळे हाडी नासतना समारोप केलो. हांव बरे भाशेन ताच्या तोंडांतल्यान सुटलों.

आतां हांवें मास्तर जावपाचें थारायलें. मास्तर म्हळ्यार गुरू. गुरूक सगल्यांत पयलो मान. श्री गुरुभ्यो नमः अशें म्हणून देवापयलीं गुरूंक नमस्कार करतात. देव आपलेपरस दुसऱ्यांक चड मोटो केन्नाच करीना, पूण गुरूंक मात आपलो शिश्य आपलेपरस व्हड जावचो अशें दिसता, देखून देवापरस गुरू मोटो. अशीं गुरूचे व्हडविकायेचीं कितलीशीं उतरां हांवें एकठांय केल्लीं. दळवी मास्तर, साने गुरूजी,

हिरवे गुरूजी, रामदास मास्तर अशी मोटमोटया गुरूंची चित्रावळ म्हाका दोळयांमुखार दिसूंक लागलीं.

गुरूचे हे वयवाटीक हांव सोबूंक जाय. आतां तवनासपणां बी कांय करूंक उपकारना अशें हांवें थारायलें.

हें म्हजें फाल्द तशें वायट वचूंक ना. नेटान अभ्यास केलो. आतां हांव दर वर्सा सडसडीत पास जावपाक लागलों. मॅट्रिकेक फर्स्ट क्लासांत येवन पयलो नंबर मेळ्ळो.

मॅट्रीक जातकच हांवें घरच्या वेव्हारांत लक्ष घालचें अशें म्हज्या बापायक दीस, पूण मॅट्रीक झ्येतान जाली देखून ताका म्हाका कॉलेजींत धाडचोच पडलो.

'भुरगो तुजें नाव वयर काडटलो. फुडें शिकय ताका. घरा दवरूं नाका.' असो लोकांनीच ताका फुलयलो. हांव कॉलेजींत दाखल जालों.

कॉलेजींत वतकच म्हज्या मास्तर जावपाच्या ध्येयान खूब सुदारणा जाली. शाळामास्तर म्हाका बाबतसो दिसूंक लागलो. म्हाका दिश्टी पडिल्ले चित्रावळींतले मास्तर म्हाका अळणी दिसूं लागले. गांधी तोपी, सदरो, धोतर, धोतराचें एक पोंत, खांकेंत सत्री, दुसऱ्या हातात पोती अशें दिसप म्हळयार सामको बप्पा कसो दिसप.

ताच्या बदला सूट, बूट टाय, मारपी कॉलेजीचो प्रोफेसर जाल्यार कशें ? आमचे कॉलेजींत जायते प्रोफेसर झ्येतान येताले. ते म्हजे नदरेंन भरलें, देखून मास्तर जावपाचें अॅम्बीशन फाटीं पडलें. दुकरान केळींयडाय खालो म्हणटात तसो प्रोफेसरान मास्तराक खालो !

कॉलेजींत वतकच आंतऱ्या पयऱ्यान अॅम्बीशनां मुदार जावपाक लागलीं. आतां अॅम्बीशनाचीं सपनां बदल्ल्यांत. 'आतां दोतोर ना जाल्यार इंजनेर जावपाची फॅशन आयल्या.' हें म्हाका वरोबरच्या भुरग्यांकडेन गजाली करतना समजलें.

प्रोफेसर जावपाचें अॅम्बीशन कोणाकच नाशिल्लें. आमच्या पंगडांत त्या वेळार तिनशें भुरगे आशिल्ले, तातूंतल्या दोनशें जाणांक दोतोर जावपाचें आशिल्लें. तांच्या मुखार म्हजें प्रोफेसर जावपाचें

अँम्बीशन सामकें पोकें-पोकें दिसूंक लागलें. देखून हांवें तें मनांतल्या मनांत चिडिलें आनी दोतोर जावपाचें थारायलें. जालें, आतां दोतोरान प्रोफेसराक खालो.

म्हजी मॅट्रीक मराठी मिडीयमांतल्यान जाली. कॉलेजींत सगले विशय इंग्लिशींतल्यान. म्हाका अटंग रानांत शेणिल्ले भाशेन जालें. एक दोन डिफीकल्टी आसल्यार दुसऱ्यांक विचारूं येता. म्हाका सगल्योच डिफिकल्टी ! प्रोफेसर कितें शिकयता तेंय समजना. समजना अशें म्हणपाकय जायना. पिशेपण कबूल करप परवडना. असो हांव सगल्या वाटांनी घुसमटलों. दोन-तीन म्हयन्यांभितर सगलोच नर्वस जालों. पयल्याच टर्मिनलाक म्हजी दैना-दैना जाली ! दर विशयाक आंकडयांतले आठ-णव चडांत चड, म्हळयार पंदरा मार्क पडटाले.

हांगासावन साटली-पोटली बांदची पडटा हें तकलेंत आयलें तरी पळोवया फायनलीक कितें जाता तें अशें म्हणून नेट केलो. फायनलीक सगल्या विशयांनी मेळून शेंकडयाक तेरा मार्क पडले.

आतां परतें कॉलेजीचें तोंड पळोवप ना आनी म्हजें तोंड कॉलेजीक दाखोवप ना ! हें सॅर्त ! म्हाका कॉलेजीचें नाव काडल्यार कलकलो सुटपाक लागलो.

शाळा जशो भारतीय थळावे भाशेंत आसतात तशें कॉलेजय थळावे भाशेंत नाका ? भारतीय भाशेंत शिकल्यार मनशाचो आपल्या देसाचो अभिमान वाडटा. तो आपल्या देसाविशीं चड आंवडेता. हें आमच्या सरकाराक कळना कशें ? ताका लागून ध्येयवादी तरनाटे आदवोगाद. दोतोर, इंजनेर जावपाचे शेणटात आनी देसाचें केन्नाच समा जायना अशें लुकसाण जाता हें आमच्या सरकाराचे तकलेंत कोणेंय घालें जाल्यार मोटे उपकार जायत !

भायले भाशेक लागून मनशाची तकलीच भायली जाता. आतां वता थंय पश्चिमी राष्ट्रांची नक्कल चल्ल्या. दादले तशें बायलो, जण एकल्याक दोन इंग्लीश उतरां कळ्ळीं म्हणटकच आपूण येवरोपेव ना जाल्यार अमेरीकन जालों अशें दिसता.

पयलीं जोतीं भायर दवरून घरांत भितर सरताले. भायले

कपडे मुदार करून घरांत वेगळे कपडे न्हेसताले. देवाकुडींत न्हाले बगर, सवळें न्हेसले बगर वचनाशिल्ले. आतां सगलें 'फिरंगण' जालां पँट, बूट बी घालून घरांत सगल्याक भोंवतात. येवरोप, अमेरीकेंत देवाकूड नासता देखून आमी घरांतली देवाकूड काडली. मेजार गार्फां–कुलेरां घेवन जेवण जेवतकच तोंड धुवा ना. तोंड कागदाच्या लेंसाक पुसप आनी नाका नाका तीं बुरशेपणां आपणावप अशें चल्लां. जाणट्यांक रेश्पैत दिवप ना. लग्न जातकच वेगळें रावप असो विस्कट–विस्कट जालां. वसुदैव कुटुंबकम् ही आमची वेद पुराणांतली संस्कृताय वचून एक शेंपडी एक गडगडी असली संस्कृताय आयल्या.

हे दळिद्रे संस्कृतायेंत सोरो पियेवप हें एक गुंगे वेसन आशिल्लें. तातूंत हशीश, गांजा, आनी कितें कितें घुसलां तांचीं नांवांच हांव नकळ. ताका 'ड्रग्स' अशें म्हणटात. हें सगलें फॉरेन संस्कृतायेक लागून जालां.

जाव फुट्टं. पाड पडूं. म्हाका आतां ॲम्बीशन बदलचें पडलें. ॲम्बीशनाची नवीं सपनां येवजीतां येवजीतां रिवर्सांत येवपाक लागली. परतें मास्तर ड्रायवर ना जाल्यार गाडेकार... अशें चित्र दिसूंक लागलें.

देस घट्ट करात...
देसाचे फौजेंत
सामील जायात...
आयज देशाक
तरणाट्यांची गरज आसा.

अशी एक पाटी हांवें भोंवतां–भोंवतां वाचली. हांवूच नव्या ॲम्बीशनाच्या सोदांत आशिल्लों. म्हजें ध्येयवादाबरोबर हें देसप्रेमाचें जोत बरें जाता अशें दिसलें.

हांवें पणजे मिलिटरी ऑफिसांतल्यान पुराय खबर काडली. फुडल्या म्हयन्याचे अठरा तारखेक ते तरणाटे उमेदवारांचो इंटरव्यू घेतले हें बी कळ्ळें. तांकां जाय आशिल्लें वजन, उंचाय, हड्डुचें माप, पिराय, हें बेस बरें जुळ्ळें.

हांव म्हजो जल्म दाखलो, सर्टीफिकेटी आनी लागता तीं सगळीं कागदपत्रां घेवन इंटरव्यू दिसा मिलीटरी ऑफिसांत गेलों. म्हजेसारके तरनाटे थंय इंटरव्यू दिवपाक आयिल्ले. एकल्यान ऑफिसांत आमचीं सगल्यांचीं नांवां बरोवन व्हेलीं आनी आमकां एका हॉलांत बसयले.

इंटरव्यू सुरू जालो. ते जण एकल्याक भितर आपोवपाक लागले. भितर तांकां कितें विचारताले देव जाणा, पूण जण एकलो इंटरव्यू सोंपोवन भायर येतना नर्वस दिसतालो.

भायले सात–आठ जाण ताचे भोंवतणी घुरी घालताले आनी ताका आनीक नर्वस करताले. तो बेजार जावन घाम पुसत–पुसत बेगाबेग वतालो.

थोडे नेटान शिळोणी घालीत कॅबिनांनल्यान भायर सरताले. परतून भायले उमेदवार ताचे भोंवतणी घुरी घालताले आनी ताचेर प्रस्नांचो मारो करताले.

'कितें विचारलें सायबान ?'

'जपानाची राजधानी.'

'तुवें कितें सांगलें ?'

'सायोनारा.'

'कितें तर ?'

'जपानाची राजधानी लव ईन् टोकियो. आनी सायोनारा म्हळ्यार गुड बाय.'

'अशें ? म्हाका दिसलें सायोनारा म्हळ्यार जपानाची राजधानी आनी लव ईन टोकियो म्हळ्यार गुड बाय.'

'शॅऽऽ. खालो वागान. बरें सायोनाराऽऽ गुड बाय !!' अशें म्हणतच ताणें फुज्यो काडल्यो.

हिंदी सिनेमा पळोवन हे आपलें गिन्यान वाडयतात देखून वडासाल पिटळाक आनी पिपळासाल वडाक अशें जाता. निमाणें हिशोब एक. झयेलाद पिकासांव.

हे सायब लोक असले नाका ते प्रस्न कित्याक विचारतात तेंच म्हाका कळना. आमकां मिलिटरींत वचपाक फार मारपाचें, आर्मीचें

कितेंय विचारचें सोडून जपानाची राजधानी कित्याक जाय ? कोणाक तांणी कुतूबमिनार कोणें बांदलो तें विचारलें. आमी रावतात ती बिल्डींग कोणें बांदली लेगीत आमी नकळ. कुतूब मिनार आनी खंयचो ?

इंटरव्यू म्हणटकच याद जाली. एकदां मोटरसायकलीचो एक पायलट कार्त काडपाक आर. टी. ओ. खात्यांत पणजे गेलो. थंय ताची एझाम घेतली आनी मागीर इंटरव्यू घेतना सायबान ताका विचारलें,

'नांव कितें रे तुजें ?'

'मारयान कार्दोझ.'

'खंय रावता ?'

'तालैगांव'

'आतां एक सांग. तूं हांगासावन फोंड्यां वेता. बाणस्तारी पुलाआरो पावला. फुडल्यान एक लोडाचो ट्रक येता. जाल्यार तूं कितें करतलो ? तूं पोयलें पूल क्रॉस कोत्तोलोय ? आँ ट्रकाक पोयलींच सोडटोलोय ? अशें ताका एक प्रॉब्लॅम घालें. पयलीं अशीं प्रॉब्लॅमां घालताले.

ताचेर मारयानान जाप दिली. 'हें गा कितें किचारता ? हांव फोंड्यां कित्याक मरूंक वतलों ? हांव रावतां तालैगांव. म्हाका कार्त जाय घरासावन पोणजे येवपाक आनी पोत्ते वचपाक तालैगांव ! हांव फोंड्यां मोटारसायकलीन केन्नाच वचचोंना.' मारयान बावडो सादो. ताची जाप सायबाक रुचलीना. ताणें ताका नापास केलो. जावं. आतां आमच्या ॲम्बीशनाचें पळोवया. थोडे दारा बुराकाक दोळे लावन भितर कितें चल्लां तें नियाळटाले. हांवें एक फावट बुराकाक दोळो लायलो.

सायब आपले सुसेगाद पंख्यापोंदा च्या मारताले आनी मदीं मदीं दोळो मारिल्ले भाशेन करताले. फुडें एक भुरगो बेताळा म्हन्यांत मारूंक व्हेल्ल्या बोकडयाभाशेन बावडो जावन आशिल्लो.

ताका सायबान 'ताचें ॲम्बीशन कितें ?' अशें विचारलें.

'राष्ट्रसेवा !' अशें ताणें सांगलें.

' सगले अशेंच सांगतात. सिर्वीस मेळटकच टी. ए, डी. ए ओ ओ. टी., असलीं बिलां करून सरकाराक नाडटात आनी देस फोंडात !' सायबान ताका बरोच बेजार केलो.

खरें पळेशी जाल्यार हे सायबच ताचे पाश्ट चरतात. हांगा व्हडल्यो व्हडल्यो गजाली सांगतात आनी नुस्त्या बाजारांत मानांकडेन किरमीतात. हांगा इंटरव्यूचीं शेंना चकाटां मारतात, पूण करया कितें ! सध्या शेंडी तांच्या हातांत न्हय ?

म्हाका आपयलो तेन्ना हांव भितर गेलों. म्हाकाय सायबान म्हजें ॲम्बीशन विचारलें. म्हज्या पयलीं भुरग्याच्या ॲम्बीशनाक लागून वाद्रचो जाल्ल्यो. देखून हांवें तांकां रामराय शणै ते कॉलेज प्रोफेसर आनी मागीर इजनेर अशी ॲम्बीशनाची कितें दैना जाली तें सांगलें. तें आयकून सायब पोटभर हांसले. हांवें मागीर परतें सांगलें, आतां म्हजें ॲम्बीशन म्हळचार पोट. जंय बरे भाशेन पड सुट्टा थंय हांव सिर्वीस करपी आनीक म्हाका कांयच येवजना. हांव सामको नर्वस जालां.'

'नर्वस ? कित्याक नर्वस ?'

'तुमचो इंटरव्यू जातकच भुरगे ह्या कॅबिनांतल्यान भायर वताले. इंटरव्यू बरोच कडक आसा म्हणटाले, देखून म्हाकाय भिरांत दिसली.'

'तूं कांय भियेवं नाका. ह्या इंटरव्यूत तूं पास जाला.'

अशे तरेन सायबान म्हाका व्हडविकाय, कॉदिकां विचारी-नासतना पास केलो.

भायर सवंगड्यांनी घुरी घालतकच हांवें तांकां तेंच सांगलें. 'हांव नर्वस जालों अशें सांगतकच सायबान म्हजी काकुळट केली आनी म्हाका पास केलो.

उपरांत जायत्या भुरग्यांनी सायबाक ' आपूण नर्वस जालां ' म्हूण सांगले. तांकां दिसलें तशें सांगल्यार सायबाक काकुळट येता आनी मागीर तो पास करता. पूण तांचीं तीं शेंना धरलींनात. खऱ्यांनी जाल्लो नर्वस आनी शेनां करून जाल्लो नर्वस सामके कळटात. ' नर्वस

जाला ? दुसरे फावट सारको शिकून यो !' अशें सांगून तांकां सायबान धांवडायले.

'मिलिटरींत वचप म्हणजे मरपाक वचप' अशें आमच्या लोकाक दिसता. हांव मिलिटरींत वेतां म्हणून आवयन आकांत केलो. मामाक तेलेग्राम करून आपोवन हाडलो. शेजारी-पाजारी दुखेस्ताक मेळपा येतात तशे मेळपाक येवपाक लागले.

घरचे शेजारी, सोयरे-धायरे सगले नाका नाका तीं आडमेळीं हाडूंक लागले. हांव कॉलेजींत घुस्मटलों ताच्याकय पाश्ट घरांत घुस्मटलों.

निमाणें मिलिटरींत वचपाचें सोडून दिवचें पडलें. आमचें भारताचें राखणे खातें एका ध्येयवादी मनशाक मुकलें. देवाच्या मनांत कितें आसा तेंच जातलें.

आतां गावांत बेकार पडलों. सगले आलेभाव कोलेभाव राखणे खात्यांतल्यान म्हजें पांय ओडपाक आयले ते आतां कोण उपकारना जाले.

गांवांत बेकार रावन आलमपेड्ड्यार जातलो म्हणून आवयन मामागेर धाडलो. मामाचें च्याचें दुकान आसलें. फुकटें कितें खातलों ? च्याच्या दुकानांत म्हाका गल्ल्यार बसचें पडलें.

हांव आदाराक मेळटकच मामान आपलो धंदो वाडयलो. ताणें आनीक एक कपडयाचें दुकान घालें.

दोन वर्सांनी म्हाका दुकानार वाज आयलो. मागीर हांवें कुवैटाक वचपाचें येवजीलें; पूण मामान परतोय आडायलो. दुकानार म्हाका पार्टनर घेतां म्हणून सांगलें आनी चिड्डिलों.

एकवीस वर्सां च्याचें दुकान चलयलें. मामाचे भुरगे व्हड जाले. म्हाका दिसलें ते व्हडले आदवोगाद, दोतोर बी जावचे. पूण एकलो च्याचें दुकान आनी दुसरो कपडयाचें दुकान आडावन बसलो. तिसरो म्हळचार निमणो आतां नवो धंदो करूंक सोदता.

हे मजगतीं मामान दुकान ताब्यांत घेतलें. हांव परतोय उबंतर पडलों. पयलीं एकलोच साडोसुडो आसलों. आतां बायल आनी सात

चलयो ! चलो जातलो म्हणून वावर केलो. तेन्ना हॉटेल हातांत आसलें. पोसपाचो पेंच नासलो. आतं बेकार जातकच ह्यो चलयो म्हळचार पावांमाळ गळचांत पडिल्ले भाशेन दिसलें. जावं. देव पळयतलो !

एकवीस वर्सां हॉटेलाचो अणभव. आतां दुसरें कितें करतलो ? गांवांत येवन एक हॉटेल सुरू केलें. अर्बन बँकेन आदार दिलो देखन जमलें तें. दोन वर्सां भितर म्हज्या हॉटेलाचो जम बसलो. बेस बरो. आतां पोटाचो प्रस्न सुटलो.

विधानसभा वेंचणुकांचें वारें गांवांत घोळपाक लागलें. म्हजें गांवांत बरेंपण वाडिल्लें. बरें मागप्यांनी फॉर्म हाडलो. म्हाका दिसलें, ' हांव मुळावो ध्येयवादी दाखोवया कितेंतरी करून ! '

सगल्यांचो तेंको मेळ्ळो आनी सगल्यांचे ओडीक लागून हांवें यलैसावांक उबो रावपाचे थारायलें.

हांवें ' हती ' ही वेंचणुकेची खूण घेतली आनी नेट धरलो. मडगांवां एक सर्कस आयिल्ली. तांचे कडच्यान एक हती भाडयान घेतलो. हतयार बसून व्हडलें पुरसांव काडलें.

गांवांतलीं सगलीं भुरगीं आमगेल्या पुरसांवाक आयिल्लीं. दुकानांतलीं पिपीरमिटां, चॉकलेटी, लाडू तशेंच घरांतलें आंब्यांसाठ भुरग्यांक वांटलें. एकदां वेंचून येवं, मागीर आपशीं सगलें कॉन्नार करया !

गांवांत वणटी वणटीचेर, लायटीच्या खांब्यापोलांचेर उदका पायपांचेर सगल्याक म्हजेच पोस्टर दिसूंक लागले.

म्हजो हतयाचेर बसून काडिल्लो फोटो पळोवन सगले तोखेताले. गोंयच्या सगल्या पेपरांनी म्हजी मुलाखत छापून हाडली. पळेत थंय रस्त्याचेर लेगीत म्हज्योच घोशणा नदरेंत भरताल्यो. म्हजें हॉटेल म्हळचार एक संस्थान जालें.

' येयात, खायात, पियेयात... '

असो हांवें बोर्डच लायलो.

लोक मुजरत म्हज्या दुकानांत येताले, तोंड भरून म्हजी तोखणाय करताले. खंय रस्तो करचो, खंय वांय मारची, कोणाचो

घराचो प्लांत पास करप, कोणाकोणाक पयस दवरप, प्लांत भायर मारप हाचो सल्लो, शिटकावण्यो दिताले.

हांवें गांवांत एक विमानतळ लेगीत बांदपाची घोशणा केली. तांदूळ साकर सामकीं सवाय करपाचें उतर दिलें. जण एकल्याक जायती भास, जण एकल्यान उलोवची, बरोवची. खरें म्हळ्यार मोन्यांनी जीं कामां जातात तीं बोब मारून जायनात. पूण लोक भाशेक इतले कित्याक झगडतात तेंच म्हाका कळना. जावं. लोकाक जाय न्हय ? सगल्योच भारतीय भासो राजभासो करपाची सगल्या संवसारांत नवी घोशणा हांवें केली !

आमचें वीद कोट–तोपी अशा भेसांत गेलें. आतां तें उपकारना. हांवें पँट घालपाचो सराव केलो. एक दूझ पॅण्टी शिवून घेतल्यो. बंद गळयाचे स कोट शिवून घेतले. फाल्यां खय उक्तावण करपाक आपयल्यार सोबपाक नाका ? खरें म्हळ्यार धोतर–पैरण ह्यातूंत वारें घोळून मेकळें–मेकळें दिसता तें ह्या भेसांत दिसना. पूण करतलो कितें ? राजकारणी जाल्यार सगलेंच सोंसचें पडटा ! राजकारण्याक कितलें अकीत जाता तें लोकाक कळना. तो एक मोटो त्याग ! मोटी तपश्चर्या ....

ह्या कलियुगांत सत्याक मोल ना. नकलामी करपी ओंठार एक आनी पाटांत दुसरें करपी असल्याच मनशाक दर आयल्या. देखून आमचे सारके ध्येयवादी लोक वतात थंय शेणटात. सगल्याच लोकांनी म्हज्या खुस्तार एक म्हयनो फॉलग मारलें. तोंडाक फेण येसर म्हजी तोखणाय केली आनी मतां मात दुसऱ्यांक घालीं. ह्या समाजाक रीत, नीत, भीत कांयच ना. म्हाका एलैसांवांत पडिल्ल्याचें दुख्ख ना. पूण सगलीं दोन मतां पडलीं. एक म्हजें आनी दुसरें बायलेचें म्हजें डिपॉझीट जप्त जालें. विस्वासघात जाता थंय मनीस कांयच करूंक शकना. म्हजें सारक्यान राजकारणांत पडूं नये हेंच खरें.

दोन दीस जाले. म्हज्या दुकानांत कोणच आयलोना. ना म्हळ्यार आयज भिकशणै आयलो.

'शॅऽऽ. ह्या लोकांचें कांयच धड न्हय. तूं कोणाकच पातयेवं

नाका. हांवें मात म्हजें मत तुकाच घालें.' भिकशणै अशो नकलामी करूंक लागलो. वेंचून आयला ताका कोर्टांत व्हरया अशें म्हाका फुलोवपाक लागलो.

'वेंचून आयलो ताणें धनुश्यबाण खूण घेतिल्ली. टी. वी चेर चलतालें त्या रामायणाचो ताका खूब फायदो जालो. म्हळचार, सरकारानच ताचो प्रॉपागांद केलो अशें जालेंना ? तूंच जिखतलो. घाल तूं केस. च्याचे पयशे बरोवन दवर आं.' अशें सांगून भिकशणै वचपाक उठलो.

मोटो वाड ! इतलेंय करून वयल्यान फुकट खावपी. म्हज्यान सोंसूं नज जालें. माकडान केळीं खाल्लीं परवडलीं पूण वेल्यान च्यॅक ऽऽ च्यॅक ऽऽ करून चाळोवन दाखयता तें सोंसना !

हांवें भिकशणैक भुजाक धरून ओडलो आनी एक लायलें. खरें म्हळचार ताजेर केन्ना थापट पडलें हें म्हाकाच कळ्ळेंना. कोट काडून घेतलो.

'चल वोस. पयशे हाड आनी व्हर तुजो कोट.' असो धेंकणो घालो. कोटा बोल्सांत एक पेन, एक विडयां बंडल मेळ्ळें तें दवरलें आनी कोट ताच्या आंगार शेंवटीलो.

मागीर पंदरा दीस काँतां भरपाक गेले. सर्कशीच्या हतयाचें भाडें, पेत्रोल, मोटारी भाडें, स्वयंसेवकांचो बोंब मारपाचो खर्च, छापपाचो खर्च, फोटे, बॅनरां बा ऽ बा ऽ बा ऽ! कितें कितें म्हणून ना. आनां हें कशें निस्तारावप तेंच म्हाका समजना.

तातूंत रामराय शणैन आपले बील दिलें. पुरसांवाक हाडिल्ल्या हतयान तागेले पचवीस केळींघडाय खाल्ले. कितलींशीं झाडांपेडां इबाडिल्लीं. हांव वेंचून येत म्हणून तो ओग्गी रावलो, पूण आतां ताणें पांच हजाराचे बील दिलां.

गावांत आनीक एक बोब जाल्या. गांवच्या सगल्या भुरग्यांक धाळार धाळ परसाकडेन जावपाक लागलें. हांवें तांकां वांटिल्लें आंब्यासाठ खावन तांचें पोट इबाडलें. अशें म्हणून तांच्यो आवयो बोब मारीत–मारीत तिनसांजे कात्रीर म्हज्या दुकानार आयल्यो.

थोडयाच वेळान दोनशें तिनशें लोक जमा जाले. त्या भिकशणैन पाड घालें. ताणेंच लोकाक फितोवन म्हजेर सोडले. लोकांनी म्हाका पापडापिठी बडयतात तसो बडय बडय बडयलो. कोणें दुकानांतले वांशे, नळे, बशो, आरमारी' भरण्यो कितें कितें हाताक मेळत तें फारायले. रातचें काळखांत कितें जाता तें कांयच कळ्ळेंना...



आतां हांवें गांव सोडला. बायल भुरग्यांक घेवन कुळारा गेल्या..

●

# वाश्कीत

वाश्कीत हो एक मिस्तीस ! मिस्तीस म्हळचार बापूय पुर्तुगेज पावलो आनी गोंयकान्न आवय हांकां जलमल्ली जमात.

गोंयकाराचेर ते बेठेच गरज नासतना जळटाले आनी नाका तीं आवटेपणां करताले. कोणाच्यो कोंबयो धरून व्हरप, दुकर मारून खावप. अशे आफोर्साद दुर्वळांक नागयताले. हांव एके फावट नुस्त्या-गांथन घेवन घरा येतालों. इतल्यांत सायकलीन एक मिस्तीस आयलो आनी हातांतली गांथनच घेवन गेलो. वयल्यान ह्यॉ ह्यॉ... करून हांसूंक लागलो. चोर खंयचो ! ताका लागून बायलां बी एकटीं दुकटीं भोंवनासलीं.

केन्ना केन्ना दयानंद बांदोडकारा सारके थोडे तरनाटे असल्या मिस्तिसांक सामके निर्णेसर मारताले, पूण चड करून मिस्तिसच लोकांक पिडटाले. ते दिसपाक पाखल्यां भाशेन गोरेपिट्ट दिस तरी काळजांतल्यान खापऱ्यां भाशेन काळेकिट्ट आसताले.

चड करून ते पुर्तुगेजांचें सिर्विसेक आसताले. पोलिसेंत, मिली-टरींत, फॉरेस्टांत कस्टमांत अशा घुर्घुर साणेच्या जाग्यांचेर आसताले. ताका लागून लोकांक पिडपाक तांकां आनीक फोर्स मेळटालो. माकडा हातांत कोलती दिल्ले भाशेन जातालें !

आता म्हापशेंच्या बाजारांत जशे जळामळा हिप्पी दिसतात तशे

गोंयचे स्वतंत्रताये पयलीं वता थंय मिस्तीसच मिस्तीस दिश्टी पडटाले.

बरे भाशेन पुस्तक वाचताना ना जाल्यार सभेंत उलोवप करताना हांवें खंयच्याच मिस्तिसाक केन्ना पळोवंक ना. तांचे भितर कसलीच संस्कृताय म्हाका दिसलीना. सोरो पियेवप, सिगारार सिगारां फुस्कावप, मांस खावप आनी लोकांक बेठेच पिडप. असलींच कर्तुबां करताना ते दिश्टी पडटाले. कितेंय चिंतूंक तांकां तकली आसताली अशें म्हाका दिसना. जो तांचो खड्डो दिश्टी पडटालो तो चेपें घालपाक, केंस वळोवपाक, ओक्ल लादपाक–असल्याच कामांक उपकारतालो.

'जयहिंद' म्हळ्यार ते सामके बेजारताले. आनी थर्त भियेताले. कोणाक घाम फुट्टालो, कोणाचीं काल्सांवा वलीं जातालीं, पूण जयहिंद म्हळ्यार खरेलेंच कितें हें कोणच मिस्तीस नकळ आसलो.

थोडे मिस्तीस 'जयहिंद' म्हळ्यार 'इंदियान पिश्तॉल' अशें समजताले. कोणाक जयहिंद म्हळ्यार फारार फार मारपाची ऑटोमेटीक बंदूक अशें दिसतालें. थोड्यांक जयहिंद हो हातबॉम ना जाल्यार गर्नाल काय कितें असो दुभाव मारतालो. थोडीं पुस्तकां शिकिल्ल्या मिस्तिसांक जयहिंद म्हळ्यार एक स्पोटक साहित्याचो प्रकार अशें दिस.

आयज जयहिंदवाल्यांनी पोलीस स्टेशन लुटलें. केन्ना पूल उडयलो केन्ना पाखल्यांचो जीप उमथायली. अशो खबरो मात आंतऱ्या पयऱ्यान पेपरार येताल्यो. त्यो वाचून तांचें मजगतीं गजाली जाताल्यो.

'कितें? बेतोचें पोश्त फोडलें? कोणें फोडलें?'

'ये लाद्रांव जयहिंजस!!

'आँऽऽ दियाब्लु!! ओशें कोशें झालें? कितले आसले जयहिंजस?'

'तेग.'

'आनी आमचे पुलीस कितले आसले?

'दीस.'

'मालांद्र! पुलिसां लागीं मेत्रादोर नासलोले?'

'आसलोले, पूण दुस्माना लागीं जयहिंजस आसले.'

'कितें अँ जयहिंजस ? वॉडलो मेत्रादोर ओ वॉडलो बॉम ? आमसो पुर्तुगेज आमकां जयहिंजस कित्याक दिना ? कुयताद !!'



वाश्कीत हे जमातींतलो चड शिरोफिरो मनीस. काणकोण पोळेचे पुर्तुगेज शिमेर ताची सिर्वीस. ताचो थंय हुद्दो कितें आसलो हांव नकळ, पूण तो आपूणच थंयचो राजा कसो वावुरतालो !

तांबडी पुर्तुगेज आनी अळणी तिखट कोंकणी अशी वाश्कीताची भास. आमचीं भारतीय मनशांचीं नांवां घेवपाक ताका चड कुस्तार जातालें, तातूतल्यान लाडू, शिवा, रामा अशीं सादीं जोडाक्षरां नाशिल्लीं नांवां ताका उलोवपाक बरोवपाक जमतालीं. पूण त्रिविक्रम, मश्चेंद्रनाथ, विश्वनाथ, त्र्यबकेश्वर, शत्रुघ्न अशीं नांवां आयल्यार ताची दैना-दैना जाताली ! खरें म्हळचार हीं नांवां आमच्याच थोडे-भोव

लोकाक जमनात. त्या वाश्कीताक फॉरेन नांवां सट् करून येतालीं आनी भारतीय नांवांची कायलोळी जाताली !

गोंय स्वतंत्रताये पयलींची गजाल. गोंयच्यो सगल्यो शिमो बंद आशिल्ल्यो. गोंयकाराक भारतांत वचपाक तशेंच भारतांत सावन गोंयां येवपाक काणकोण, पोळें, माजाळी, कारवार अशें पयशिल्ले वाटेन वचचें पडटालें. पेडण्यां सावन सावंतवाडी वतल्याक लेगीत कारवार सावन वचचें पडटालें.

पुर्तुगेज खंय पयलो गोंयां आयलो तो पुर्तुगाला सावन आफ्रिकेच्या ' केप ऑफ गूड होप 'क वॉल्त मारून, द्राविडी प्राणायाम करून आयलो. तशें आमकां पणजे सावन पासापोर्त घेवन पोळच्यां ' केप होप वाश्कोत ' हाका वॉल्त मारून बेळगांव, मुंबय वचचें पडटाले.

हांव बेळगांवां कॉलेजींत शिकता आसतनाची गजाल. एक फावट हांव सुटयेन गोंयां येतालों. पासापोर्त तपासपाक पोळच्यां मेटार आमकां लायनींत उबे केले. म्हजे मुखार एक पगडीवालो मनीस उबो आसलो. म्हेळें धोतर, वयर ताजें परस म्हेळें खोमीस, कानांत दोन-तीन कडेन ब्रिकबाळीं. तकलेक पगडी, ओंठार शंखासुरा भाशेन मिशो असो ताजो भेस.

हो मनीस पासपोर्ट तपासपाक वाश्कीता तोंडांत सांपडलो.

' नांव किते रे तुजें ? '

' कृष्णदेव रायप्पा मुंडणचंडी. ' ताणें आपलें पुराय नांव सटकन्न सांगलें, पूण वाश्कीताक कितें जालें कांय कळ्ळेंचना.

' नांव कितें रे तुजें ?' ताणें हेवटेन-तेवटेन पळोवन आवाज मातसो चडयलो. कृष्णदेव रायप्पा मुंडणचंडी. ' हें आयकून वाश्कीत सामको बेजार जालो आनी तापलो.

' सुसेगादीन सांग रे. बोबाट कित्याक मात्ता ? ' ताणें मुंडण-चंडीक बरोच खडसायलो.

' पोत्तून नांव सांग. '

' कृष्ण देव रायप्पा ... '

' राव मातसो. ' वाश्कीत ताजें नांव रजिस्टराचेर बरोवंक लागलो.

‘कि ऽऽस्ना . . . मागीर कितें ?’

‘देव रायप्पा . . .’

‘दे ऽऽव रा ऽऽयो ऽप्पा’ अशें करून वाश्कीतान खर्शेंत ताजें पयलें नांव बरयलें.

‘आनी मागीर कितें ?’

‘तिरूमुंडप्पा . . .’

‘ति ऽऽ रू ऽ मुं ऽ ड ऽप्पा’ इतलें बरयतकच वाश्कीताक दिसलें हाजें पुराय नांव आपणें बरयलें. ताणें पेन कुशीक दवरलें, एक सेर्वेज मागयली आनी मोर्तालीचें सिगार वळूंक लागलो.

इतल्यान मुंडणचंडीन आपलें निमाणें उरिल्लें आडनांव ‘मुंडणचंडी’ अशें म्हळें. ‘कितें ?’ वाश्कीत आड्डलो.

‘मुंडणचंडी.’

‘शेंडी ? शेंडी कितें कोत्ता ? काडटां तुजी शेंडी.’ अशें म्हणून वाश्कीतान मुंडणचडीची पगडी उखल्ली. पासपोर्ट आनी हेर पेपर्स ताजे पगडेंत भितर लोटले आनी ताका भुजाक धरून गोंयचे शिमे भायर शेंवटायलो.

‘व्हासीमोर !! तूं नाका गोंयां. वॉस इंदीयेन.’ अशें म्हणून वाश्कीत परतलो आनी व्हडान हांसलो . . . ‘हॅं ऽऽ हॅं ऽऽ असो वाश्कीत हांसताना रेल्वे दबे शण्टींग करताना येता तसो आवाज येतालो. रोमटांमेळ रावण तसोच हांसता.

मागीर आपले कदेलांचेर बसून ताणें एक सिगार फुसकायलें. उपरांत त्या मुंडणचंडीचें कितें जालें ते हांव नकळ.

आतां मुंडणचंडी फाटल्यान म्हजो नंबर आसलो. म्हाका कितें करप कांयच समजलेंना. म्हजेंय नाव मातशें कुस्तारच !

वाश्कीत सगलें काम सोंपिल्ले भाशेन सेर्वेज मारतालो. हांव ताच्या तोंडा लागीं पळेत उबो आशिल्लो.

मनांतल्या मनांत हांव वाश्कीताची तकली ते सेर्वेजीम हून जातली काय थंड जातली हाजो नियाळ करतालों. ताणें सेर्वेज सोंपयली. सिगाराचें पाँत पांया पोंदा चिड्डिलें आनी ‘नांव कितें रे

तुजें ?' अशें म्हणून म्हजेर एक धेंकणो घालो.

' लक्ष्मी–नारायण...' हांवें म्हजें सगलें नांव एकदम सांगलेंना. हांव भियेलों. कोण जाणा ! मुंडणचंडी भाशेन म्हजीय पोटली माजाळी शिमेर उडयल्यार करता किते ?'

' सगलें नांव सांग.' बाश्कीतान परतो म्हजेर धेंकणो घालो. हांव हाच्याच बऱ्याक नांव विगंड–विगंड करून सांगतालों. दुकर खंय मारूंक व्हेल्यार बोब मारता, आनी पोसूंकय व्हेल्यार बोब मारता ! तसो हो देंवचार. नांव सोपें केल्यार आड्‌डता आनी कुस्तारय केल्यार आड्‌डता. पाड पडूं म्हण हांवें सगलें नांव सांगलें.

' लोक्सीमी नारायण क्रिस्ना सिनाय पारोज !' तांतलें तातूंत हांवें म्हज्या नांवाक मातसो पुर्तुगेज कोर दिलो. ताका मातशें आपले-पण दिसचें हो हेत.

बाश्कीत म्हजी पासापोर्त हातांत घेवन बरो वगत पळेतच रावलो. उपरांत मेजार दवरली आनी एक सिगार फुसकायलें. म्हजेर नदर जोखून हेडमास्तर कसो दोनय हात कमरार धरून आड्‌डलो.

' चिकानां कोत्ताय इंगा ?'

देवा हें आनी किते जालें ? म्हाका कांय कळ्ळेंना, हांवें म्हळें, ' ना सायबा हांवें कांयच चिकानां करूंक नात. हांव बाँ रापाझ!' ताका थंडावपाक मातशीं पुर्तुगेज उतरांय लोटलीं.

' अँ किते शिकान ?' अशें म्हणून ताणें पासपोर्ट म्हजे मुखार धरलो.

पासपोर्टाचेर म्हजो नंबर कातरून दुसरो बरयल्लो आशिल्लो. तो कोणें कातरलो आनी कित्याक हांव नकळ, आतां हें दुसरेंच लचाण उपराशिल्लें. हांवें काकुळटेक येवन म्हळें, 'हांवें कातरूंक ना तो नोंबोर. म्हाका तसोच दिला तो.'

' तोहोच दिला तो ?'

ताणें म्हजो पासपोर्ट मेजार मारलो आनी म्हाका भुजाक धरून कचकचीत हालयलो. म्हाका रडूंक येना जालें. रडल्यार एकाद्रो सुट्‌टलों आशिल्लों. हांव ताका परतून परतून सांगतालों, 'हांवें कातरूंक ना, हांवें

कातरूंक ना, तें.' पूण बरो वेळ तो म्हाका कचाकच हालयता आनी हांवएकूच उतर घोळयतां. मागीर हांव नेव्हॉज जावन कितें उलयतालों तें हांवच नकळ.

मॅट्रिकेचे परीक्षेक पयल्या पेपराक जी आवतिकाय जाल्ली ताचे पाश्ट आवतिकाय हांगा जाल्ली. अर्जुनाक खंय कुरुक्षेत्राचेर अशेंच जातालें. पूण ताजो सांबाळ करपाक प्रत्यक्ष श्रीकृष्णच ताच्या म्हऱ्यांत कुरुक्षेत्राचेर आशिल्लो; आनी म्हजो बापूय कृष्ण घराकडेन आसलो. काय भाटांत पाडेपण करपाक गेल्लो देव जाणा ! पूण म्हज्या दोळ्यां मुखार त्या वेळार आशिल्लो तो कृष्ण म्हळ्चार काळोख !

' सेर्वेज घेवन वाश्कीन मातसो थड जातलो अशें दिशिल्ले. पूण हें नाका तें जालें. निमाणें नेट करून हांवें म्हळें, ' तें व्हेरिफिकार कर.'

अशें म्हणटकच वाश्कीत मातसो उबो रावलो, ताणें धरून म्हाका एके देगेक व्हेलो.

' पोणजे रादयेराचेर व्हेरीफाय कोत्तां, आनी मागीर काडटां तुजीं आंतां.' अशें म्हणून ताणें म्हज्या दोनूय भुजांक धरून म्हाका थयच चिड्डिलो. मागीर वाश्कीत म्हजो पासपोर्ट घेवन ते गर्देत सावन भितर खंयतरी गेलो आनी थोडचा वेळान परतो येवन कदेलीचेर बसलो.

मागीर उरिल्ल्या लोकाक आवियार करपाक लागलो. म्हजे फाटल्यान आसलो जुझे पेरैर...

' नांव कितें रें तुजें ? ' वाश्कीतान ताजेर धेंकणो घालो,.

' जुझे पेरैर.'

' कॉमिश्ता ? बोरो आहाय ? खंय सावन आयलोय ?' जुझे पेरैरा लागीं वाश्कीत मनशा भाशेन उलयतालो. सेर्वेजीची थंडाय आत्तां ताचे बोंबले लागीं पाविल्ली जावंये.

' बेंगलूर '

' बेंगलूर ? तिगा कोण कोण जयहिंजस् कोत्ता ?'

' हांव नोकों. हांव रोपा इंदुस्त्रीन काम कोत्तां. हांव मॅतॅर

जायना तांचें लागीं.' अशी जुझे पेरैरान ताका फुलां माळ्ळीं.

'आं ऽऽ नांत्र मेत. मुयतु बँ!! चॉल वॉस.' अशें म्हणून वाश्कीतान जुझे पेरैराक रोखडेंच आवियार केलो.

हांव जाणा आसलों हो जुझे पेरैर आमचे वांगडा बेळगांव सावन आयलां. तो बेळगांवां आसलो पूण बेंगलूर सावन आयला अशी ताणें फट मारिल्ली. ताच्या बॅगांत जायतीं भारतीय बनेरां आनी स्वतंत्रताय चळवळीचीं पोस्टरां बी आशिल्लीं, पूण तो नाड वाश्कीताक शिंगां लावन सडसडीत आवियार जाला आनी म्हाका मात बेठे शेळचा आंगार फुगांव आयले.

मुंडणचंडी बावडयाचें तरी बरें जालें. तो वाश्कीता तोंडांतल्यान तरी सुटलो. तो भारताचे स्वतंत्र भुंयेर सुसेगाद आसा. पोळयां शिमेर पुर्तुगेजाचें मॅट आशिल्लें, देखून म्हाका वाश्कीतान उबो केल्लो थंयसावन मुंडणचडो दिश्टी पडटालो. तो आनी दोग–तीग पगडीकार सुरी रुखापोंदा बसून भाकरी खाताले. ह्या लोकांचें एक बरें! रेल्वे स्टेशनार रेल्वेक कळाव आसा जाल्यार वा बस स्टॅण्डार बस सुटली आनी चुकली जाल्यार तांका खंत ना. ते आपली भुती सोडोवन तातुंतल्यो भाकऱ्यो आनी कुंवळ ना जाल्यार चटणी रगडूंक लागतात. वाश्कीतान मुंडणचंडीक धांवडावन घालो, पूण ताची कसलीच परवाय नासतना तो सुसेगाद सुरी रुखा पोंदा आवोन्ताद आशिल्लो.

हांव मात सकाळच्यान उदका थेंबो लेगीत नासतना लायनींत उबो राविल्लों. पासपोर्ट लायनी पयलीं इंजेसांवांची लायन आशिल्ली. दर एकल्याक गोंयां येवचे पयलीं इंजेसांव करून घेवचें पडटालें. तें दोतोर मनशांचे काय गोरवाचे कोण जाणा! ते दाबण कशी एकूच सूय सगल्यांक तोपताले. म्हजो इंजेसांव केल्लो हात सणसणटालो आनी वाश्कीतान मेल्ल्यान तोच हालोवन जाम करून उडयल्लो.

म्हज्या पोटांत उजो! हात सणसणटा आनी तकलेंत यम असो हांव कडकडत त्या कोनशाक उबो आशिल्लों. म्हजे फाटल्यान लायनीक उबे आशिल्ले म्हजे कडेन काकुटेन पळेताले. तांचो नंबर येतकच ते वाश्कीता तोंडांत पडटाले. कोण जुझे परैरा भाशेन सुट्टालो; दुसरो

त्रासांत पडटालो. वाश्कीत पयलीं ताजेर धेंकणो घालतालो. मागीर ताच्या बेगाचेर खोंट मारतालो. बेगोबेग सामान उसोवंक लायतालो.

'किते किते आळ्ळां ? फूंय आहा जयहिंजस ? दाकोय.' अशें म्हणून खडसायत ताच्या सामानाच्यो तिसत्यो वादऱ्यो करतालो. ताका दुभाव येत ताजें तो किते करीत हें सांगूं नज आसलें.

लायनीक एका हळडुब्या वस्त्राचो साधू आशिल्लो. ताणें तकलेचेर जटा बांदिल्ली. आंगाक भस्म बी लायिल्लें. वाश्कीताक ताचे लागीं जयहिंजस आसा असो दुभाव मारलो. ताणें ताका वयर सकला उजरावन काडलो. ताचो कमंडलू, जटा, झोळी पिसडून काडली आनी इतलेंय करून ताका दुसऱ्या एका मिस्तीसा सुवादीन केलो. ताणें त्या साधूक भितर व्हेलो. मागीर त्या साधूचें किते जालें हांव नकळं.

आनीक एका लागीं पितुळचें पींप आशिल्लें, तातूंत थोडे मोटे लाडू आशिल्ले. अर्धा किलाचे एकेक जावये, पूण वाश्कीताचेर जयहिंजसाचो म्हारू बशिल्लो. ताणें त्या मनशाक तें पींप पयस एका रूखा पोंदा दवरूंक लायलें. एका सोल्दादाक तें तपासूंक सांगलें.

तो सोल्दाद एक व्हडलो दांडो घेवन आयलो. ताणें त्या दांडयान पींप आडवें केले आनी पिंपांतले लाडू धोंगशी–धोंगशी धोंगशीले. लागीं लागीं पंदरा मिनटां धोंगसुपाचो आनी लाडू फोडपाचो प्रोग्राम चलतालो. सगले सरकारी वावुरपी आपलीं कामां सोडून हो खेळ पळेताले. म्हाका भितल्ल्यान हांसूंक येतालें पूण हांसो भायर फुटनाशिल्लो.

गोंयांसावन भारतांत वताले तांचेकडेन वाश्कीत असो वांस्वेला भाशेन वागनाशिल्लो, मनशा भाशेन वागतालो. तांचें सामान बी कांयच उस्तीनाशिल्लो.

'फूंय वेताय तूं ?'

'बॉमांय.'

अशें त्या मनशान उतर दितकच, 'वॉस. नेरूशा गांवां वोयता ? वॉस..' अशें म्हणून तांच्या सामानाचेर खडू ओडटालो.

'नेरूक मुझो रेकाद दी. हॅऽऽ हॅऽऽ' अशें रेल्वे शण्टींग केल्ले

भाशेन हांसतालो. ताचे कडल्यान नेहरूक तो आपलो रेकाद धाडटालो.

'त्या नेरूक सांग. सालाझारा लागीं चॉड मॅतॅर झावं नाका. तो बोऱ्याक सान्त आनी रागाक झुदेव ! मुळ्यार एकदम वायट. तूं वेता ती बॉमांय पुर्तुगेझाची. जाणाय मुरे तूं ? नेरून चॉड आंबूझ केल्यार आमी बॉमांय पोत्ती गेतोले, देकून नेरूक सांग– तूं सालाझाराक दिमी मार.. हॅऽऽ हॅऽऽ '

अशा मधांद वाश्कीताची छिदडीशी करची दिसताली, पूण कितें करतलों ? हांवच ताच्या तोंडांत सांपडिल्लों. तोच म्हजी किस्मूर करता काय च्योरिसां करता कांयच समजनाशिल्लें. आतां म्हाका देवाची प्रार्थना केले बगर आनीक कांयच उपाय नाशिल्लो.

इतल्यान आनीक एक सोल्दाद म्हजे म्हन्यांत आयलो आनी मोटमोटयान तापोवंक लागलो, 'तूं हांगा कित्याक उबो ? वॉस कुशीक.'

'म्हाका त्या सियोरान उबो केला हांगा. तूं ताका विचार.' अशें म्हणून ताका काकुळटेन सांगलें.

'ना. इंगा उबें रावपाशें ना.' अशें म्हणून ताणें आपल्या आर्माच्या दस्त्यान म्हाका दुसऱ्या कोनशाक माल्लो.

मागीर म्हाका त्या दुसऱ्या कोनशाक उबें रावचेंच पडलें. मनांतल्या मनांत हांवें नेटान देवाची भाकणूक चालू दवरली. म्हाका दिशिल्लें वाश्कीत हो एकलोच म्हारू. तो थंड जाल्यार म्हाका आनीक हुस्को उरचोना, पूण हांगा पळेल्यार एक देंवचार, दोग देंवचार, तीग देंवचार. देंवचारच देंवचार, देवचारांची जात्राच जात्रा !

म्हज्या दोळयां मुखार काजुले दिसूंक लागले. इतल्यान वाश्कीत हातांत पासपोर्ट घेवन म्हाका ताणें उबो केल्लो त्या जाग्यार येवन आड्डुपाक लागलो. 'आँदे आकेल रापाझ ? आँदे आकेल रापाझ ? तो त्या जाग्यार येवन म्हाका सोदतालो.

हांव हेवटेन मनांतल्या मनांत म्हणटालों.

माता रामो मत् पिता रामचंद्रः ।
स्वामी रामो मत् सखा रामचंद्रः ।।

म्हजो बोवाळ आयकून वाश्कीताची नदर म्हजेर गेली. देवा आतां कितें जातलें ? म्हाका फुडली रामरक्षा येवजना जाली.

'धांव पावरे गोविंदा ।

हाती घेवोनिया गदा ।

करी ह्यांचा चेंदामेंदा ।'

कितें येवजत तें म्हणपाक लागलों. 'सुखकर्ता दुःखहर्ता वार्ता विघ्नाची . . . ' वाश्कीत म्हऱ्यांत पावतां पावतां म्हज्या कानशिलां-तल्यान उजो भायर सरपाक लागलो, कालसांव भिजून वलें जालें. पयलीं दोळचां मुखार काजुले दिसताले आतां जगलावणें दिसलें आनी गडगड आयकूंक आयलो.

'तुका राव मुळो इंगां ? तूं गेलो तिंगां. मालांद्र!' अशें म्हणून वाश्कीतान म्हाका तडकायलो, पूण तो हांव येवजीता तितलो फुर्योज दिसलोना. घडये सेर्वेजीची थंडाय अजून बोंवले कडेन रिगिल्ली जावंये, देखून म्हाका मातसो नेट आयलो.

हावें ताका म्हळें, ' तो सोल्दाद तापलो म्हजेर. ताणें धुकल्लो म्हाका हांगा.'

'तापपाशें ना इंगां.' अशें म्हणून वाश्कीत परतो म्हजेर तापलो.

' फूय तुजें सामान दाकोय.'

हावें थंयचें म्हजें सामान पुंजायलें आनी बॅगां उक्तीं करूंक लागलों.

'नाका... नाका.. आसूं.' अशें म्हणन ताणे रजिस्टराचेर म्हजें नांव बरयलें.

'उसे रापाझ !'

हांवें उलो मारिल्लो खंयचो दैव म्हाका पावलो तेंच हांव नकळं, पूण आतां म्हजो देवा वयलो विस्वास खूबच वाडला !!

# सोंशेबाब



आमच्या गोंयांत कितलेशेच दानी लोक जावन गेल्यात आनी जातात. तशेच मुखारय जातले. तातूंत सोंशेबाबाचो नंबर बऱ्याच वयल्या पांवड्यार लागता. गोंयांत कितल्योशो संस्था तांणी उबारिल्ल्यो आसात. कितल्याशा शिकपी भुरग्यांक हात सोडून पालव दिल्लो आसा. तांतले कितलेशे व्हड नामनेन संवसारभर पातळ्ळ्यात. कितल्याशा लोकांक धंदो उबारून दिल्लो आसा. तांच्या घरांनी देवाम्हऱ्यांत सोंशेबाबाचो फोटो आसताच आसता.

गोंयांत खंयचेय संस्थेचो कार्यक्रम आसल्यार सोंशेबाबाचें भाशण आसतालेंच. आपलें भाशण सोंपतकच सोंशेबाब ते संस्थेक उण्यांत उणी पांच हजारांची देणगी आक्ताक दिताले.

सोंशेबाबाकय भाशण करपाची खूब उमेद. आपलें भाशण एकदम बरें जाता; आपूण प्रसंग एकदम दोळ्यांमुखार दवरतां अशें सोंशेबाबाक दिसे.

आमचो मुकूंद जसो नाटकांत खऱ्यांनी रंगतालो तसो सोंशेबाब भाशण करता आसतना... खूब ओपारी मारपाची सवंय आशिल्ली. 'म्हस फळटा ती धनयाक दूद दिवपाक न्हय' हो ओपार खूबकडेन वापरप आनी ती वापरतकच तो पाळिल्ले म्हशी भाशेन 'रॅऽऽक रॅऽऽक' असो आवाज काडून दाखयी. मागीर धनी दूद काडटा ताचो अभिनय करी. तेन्ना तोंडान 'चूऽऽळ्ळ चूऽऽळ्ळ' असो दुदाचो आवाज करी.

आमी तेन्ना सामके भुरगे. आमकां सोंशेबाबाचें भाशण आयकुपाक मज्जा दिसताली. लागसार खंयचेय संस्थेचो कार्यकम आयल्यार सोंशेबाबाचें भाशण आयकुपाक आमी शाळेक लेगीत दांडी मारताले. हांव जाणां, एकलो जोरान कुडकुटालो भुरगो चोरून सोंशेबाबालें भाशण आयकुपाक आयिल्लो.

हांवें सोंशेबाबाचें पयलें भाशण आयकलें एके शाळेच्या वाडदिसाच्या सुवाळ्याक. खूब लोकांचीं भाशणां जातकच अदमास पांच वरांचेर सोंशेबाब भाशण करपाक उबो रावलो.

' ढण–ढण... ढण् ढण्... ढण... सकाळच्या पांच वराचेर हांव हांगा येवपाक उठलों. प्रातःविधी स्नान संध्या जातासर ढण्... ढण्.. ढण्…ढण्… म वरां जालीं. आनी हांव गाडयेंत बसलों. आमच्या दारासिंग शोफेरान गाडी सुरू केली. ढूर्रऽऽ ढूर्रऽऽ कच्राक कच...

ढण्ऽऽ साडे सात वरां जालीं. आमी घोडयांव्हाळार पावले आनी अचकित गाडी बंद पडली. ढण् ढण्…(आठ फावट) आठ वरां जालीं. गाडी कांय जाग्यावयली हालना. ढण ढण (णव फावट) णव वरां जालीं. गाडीं तरीय हालना. ढण्…ढण् .. (इकरा फावट) इकरा वरां जालीं. तरीय गाडी हालना.

बारा वरांचेर सरस्वती पुजनाचो दबाजो. ह्या दबाज्याक हाजीर रावपाचें हांवें उतर दिल्लें. जल्मांत केन्ना हांवें उतर वगडायलेंना, पूण देवा सायबा ! आतां तें वगडता काय कितें ? अशी मनांत पाल चुकचुकली. हांवें आनीक वेळ केलोना. अरिश्ट निवारणाचो मंत्र म्हळो.

विनायकम् गुरूम् भानुम्
ब्रह्मा विष्णू महेश्वरम्
सरस्वतीं प्रणोम्यादौ
सर्व कार्यर्थ सिद्धये.

अशें सोंशेबाबान ताल–सुरांत गायलें आनी मागीर कितें चमत्कार ? गाडी चावी दाखयना फुडें सुरू जाली आनी ढण ढण ( बारा फावट ) बरोबर बारा वरांचेर आमी सरस्वतीमायेच्या चरणकमलांचेर मस्तक दवरलें. तीच आतां म्हजे जिबेर बसून उलयता जावये !





आयचीं भुरगीं म्हळचार गोरवां आनी मास्तर म्हळचार राखणे. आयज भुरगे शेंडी दवरनात. आमच्या वेळार सगल्यांक शेंडी आसताली. शेंडयेची गांठ मारून आमी अभ्यास करताले. मदें झेम आयली जाल्यार ठणऽऽ घांट वाजताली. आयज सगलेच भीस वाडयतात. पॅण्टी घालतात. आमी वालो न्हेसताले. शाळेंतलो वालो भायर दवरून घरांत दुसरो वालो न्हेसताले. हात पांय धुयले बगर घराभतर वचनासले. आयज सगल्याच वाटांनी आमची मुळावी संस्कृताय बुडत वता. मास्तर सोऱ्याबारांत बसून भुरग्यांक मटक्या नंबर लावपाक धाडटात. भुरगेय विडचो-सिगारां फुसकायतात. चलयो कुकूम लायनात. कांकणांय घालनात. चल्यांभाशेन पॅण्टी घालतात. चले कांकणां घालतात.

भुरगे कोल्यांभाशेन शाळेंत हुयेली मारतात. हुकेऽऽ हुकेऽऽ के हुकेऽऽ( असो सोंशेवाबान कोल्यांचो आवाज काडलो ) ह्यो कलि-युगाच्यो नौबती वाजतात.

जगदंबे तूं सरस्वती माये
बेगीन यो गे मोरार बसून...

पिसो जाला संवसार सगलो
कलीयुगाचो प्रताप आगळो
कसलें गिन्यान कशें दिवचें ?
ताळमेळ मातूय उरूंक ना
जगदबे तूं सरस्वती माये
बेगीन यो गे मोरार बसून...

नव्या ज्ञानाची इंग्रजी पोथी
ना कर सगल्यो अबरगतीं
जगदंबे तूं सरस्वती माये
बेगीन यो गे मोरार बसून...

अशी सरस्वती मायेलागीं प्रार्थना करून हांव म्हजी पांच हजार रुपयांची देणगी जाहीर करतां आनी म्हजीं दोन उतरां सोंपयतां..'

ह्या सोंशेबाबाच्या भाशणाक भुरग्यांनी हांसून हांसून खवदळ उडयलो. सोंशेबाब ढण.. ढण.. करीत आसतना भुरगेच ताचे बरोबर

ढण्.. ढण्.. करून साथ दिताले. सोंशेबाबान कोल्याची गजाल काडटकच भुरगेय हुके हुऽऽ के सुके.. करताले. सोंशेबाबान कोंबो म्हळ्यार भुरगे कोंब्या भाशेन आवाज काडटाले. अशें सोंशेबाबाचें भाशण ल्हायो फुलिल्ल्या भाशेन फुलतालें, देखून तांचें भाशण आसत थंय भुरगे जोर येवं, धाडावल्ले आसूं, दुयेंत आसूं, वताले. भुरग्यांनी शाळेक दांडी मारप हाची मास्तराकय सवंय जाल्ली. एक दीस शाळेंत भुरगे येनात जाल्यार, आयज सोंशेबाबाचें भाशण आसा दिसता अशें मास्तर समजताले. आनी ती जाहीर सुटीच कशी धरताले.

हांवें सोंशेबाबाचें दुसरें भाशण आयकलें तें आमच्या साळवी मास्तराच्या सत्काराच्या सुवाळ्याक.

सोंशेबाबान गुरूची आराधना करून भाशणाक सुरवात केली.

गुर्रूब्रह्मा गुर्रूविष्णू गुरूर्देवो महेश्वरा
गुरूसाक्षात परब्रह्म तस्मै श्री गुरूवेनमः

गुरू हो देवापरस मुखेल. देव आपल्या सारको दुसऱ्याक देव केन्नाय करीनात. देव दुसऱ्याक धन दौलत, विद्या, बायल, भुरगीं, राज्य सगलें दीत, पूण दुसऱ्याक देव मात केन्नाच करचोना. गुरू आपले भायर आपले परसय व्हड करता.

शिश्यात् इच्छेत पराजयम् ।

म्हळ्यार शिश्याकडच्यान आपलो पराजय जावचो अशी गुरूची बोंबलेदेंठाकडच्यान तळमळ आसता. हो पराजय ताका गुरूदक्षिण परसय व्हड दिसता. तातूंत ताका आपलेंच मोटेपण दिसता, देखून गुरू देवापरस व्हड.

'आयज आमगेल्या साळवी मास्तराच्या सत्कार सुवाळ्याक म्हाका येवपाक मेळ्ळें म्हणून खूब खोस जाता.

तात्यात तात्या केरोपंत तात्या
इतर तात्या लावती चपात्या
नानात नाना फडणीस नाना
इतर नाना करती ठणाणा..

तशेंच
मास्तरात मास्तर साळवी मास्तर
बाकी सगले मिनाचे मास्तर
तांच्या तोणार खाक.. थू .'



अशें म्हणून सोंशेबाब पच्च करून स्टेजीर थुकले. ती थुकी प्रिन्सिपालाचे तोपयेर पडली. प्रिन्सिपाल बरोच बेजार जालो. इतल्यान सोंशेबाबान तांच्या इश्कोलाक पांच हजारांची देणगी जाहीर केली आनी साळवी मास्तराक पांच हजारांची थैली दिली.

साळवी मास्तराच्या सत्काराचें सोंशेबाबाचें भाशण जशाक तशें याद येता आनी म्हजी हांसून गुळी जाता !

आमी सोंशेबाबालें भाशण आयकुपाक मसुंडेंत लेगीत गेले.

गोंयचो एक मोटो वेपारी शांपांवबाब. खूब फॉरेन गाडयांचो आनीक खूब खूब गरजेच्या वस्तींचो मोटो एजंट. तांचो पेट्रोल पंपय आसलो.

असो मोटो नामनेचो वेपारी शांपांवबाब एक दीस सोंपलो. तो सोंशेबाबाचो मोटो आमीग. ताच्या मर्णाक सोंशेबावालें भाशण आसूंक जाय हें जाणा जावन आमी खूब भुरगे मसुण्डेंत गेले.

आवय–बापूय आसल्यार मसुण्डेंत वचूं नज हाचें भान लेगीत आमकां उरलेंना ! आनी आमच्या नशिबान आमी येवजीलें तशें सोंशेबाबालें भाशण जालेंच.

सोंशेबाब भाशणाक उबो रावलो. ताणें आपल्या बॉल्सांतल्यान लेंस काडलो. ऑक्ल काडून कोटा बोल्सांत घालें.

लेंस दोळचांक लावन बरो वेळ सोंशेबाब सोंशेतालो. सोंशेता आसतना मदीं–मदीं शांपांवबाबाचे चितेक पळोवन ' शांपांवबाऽऽब. शांपांवऽऽबाऽऽ ब' अशें आड्डतालों.

अशें बरो वेळ सोंशेवप– आड्डप, सोंशेवप– आड्डप जातकच सोंशेबाबान मोटमोटयान हुयेली मारल्यो.

' शांऽऽ पांवऽ बाऽऽ ब !!! शांपांवबाब म्हळ्यार शॉवरलेट. शांपांवबाब म्हळयार वीज. शांपांवबाब म्हळयार मीन. गोंयचे सगळे उदरगतीचो मुखेल म्हळयार शांपावबाब. शांपांवबाब म्हळयार गोंयचें पेत्रोल !

हे मसुण्डेचो दिसानदीस चडांत चड लोकांक उपेग जांवचो म्हणून हांव म्हजी पांच हजार रुपयांची देणगी जाहीर करतां !!'

अशें म्हणून सोंशेबाबान 'शा ऽऽ पांव ऽऽ बा ऽऽ ब' म्हणून आपलें भाशण सोंपयलें.

मराठी उलोवपाची सोंशेबाबाक खूब उमेद आशिल्ली. पूण सोंशेबाबाली मराठी केन्नाच कोण मराठी मनीस उलयलोना. तो कोंकणीकच मराठी क्रियापदां जोडटालो आनी ती एक नवीनच भास जाताली. भाशेचे बाबतींत सोंशेबाबाक 'कोंकण मराठी' अशी पदवी दिवये.

एके संस्थेच्या वाडदिसाक पुण्यांतल्या एका नामनेच्या मराठी कवीक मुखेल सोयरो म्हणून आपयिल्लो. तो विमानांतल्यान देंवतना पांय निसरून पडलो. ताचो पांय मुरगळ्ळो. दोतोरान ताच्या पांयाक प्लास्टर घालो.

सोंशेबाब त्या सुवाळच्याचो अध्यक्ष आसलो. 'आपल्याच्यान उबो रावन उलोवपाक जावचेना, तेन्ना आपल्याक कदेलार बसून उलोवपाची परवानगी आसची.' अशी ताणें सोंशेबाबाक बिनंती केली.

सोंशेबाबान ही गजाल आपल्या भाशणांत लोकाक सांगली. 'आजचे मुखेल पाव्हणे कविवर्य... हे आपल्या पांयार उबे राहूं शकत नाहीत कारण त्यांच्या पायाला रोग झाला आहे, देखून ते कदेलीचेर बसून भाशण करतील. ते आपण बरें भाशेन ऐकून घ्यावें.' लोकांनी ताळ्यांर ताळ्यो मारल्यो.

सोंशेबाबाच्या भाशणांत लोकाक फकाणां दिसलीं जावंये, पूण तांच्या काळजांतल्यान सदांच म्होंवाची झरच व्हांवताली.

गोंयच्या सगल्यांचे उदरगतीचें सपन ते पळयताले !

सयाजीराव गायकवाड हाणे खूब संस्थांक आनी बरो फुडार येत्रजुपी मनशांक पालव दिवन वयर काडले. आमचे घटनाकार दोतोर बाबासायब आंबेडकर हें तांणी शिंपिल्लें झाड. तशेंच, आमच्या सोंशेबाबान गोंयांत कितलींशींच रोंपां रोयलीं तांचें कॉत हांव नेणां.

असो हो गोंयचो सयाजीराव गायकवाड आयज आमच्यांत ना तरी तांचीं रोंपां आयज व्हड जाल्यांत ! कांय फळ्ळ्यांत. कांय फुल्ल्यांत आनी कांय परमळटात. त्या व्हड नामनेच्या सोंशेबाबाक म्हजो मनापासून काळजांतल्यान...

● ●

# मेरेवेलो गांवकार—दुरुस्ती

| पान | वळ | अशें वाचचें |
|---|---|---|
| १० | ३ | गुंड |
| १२ | ११ | शब्द |
| १३ | २२ | अवस्थेंत |
| १३ | २३ | मिरयल्यार |
| १५ | १६ | दुखता |
| १५ | २७ | भगवत् तमः |
| १८ | १७ | अचकीत |
| १९ | ५ | जात्राच |
| २५ | १४ | तांकां |
| २५ | २६ | येना |
| ३० | १२ | ( कुस्तारच न्हय ? –हाचे फुडें मुखार दिल्लो परिच्छेद वाचचो आनी ताका जोडून ‘ चुकलेंशें दाखोवप म्हाका जमना ’ हांगासून फुडें वाचचें ) |

जांव. पोर म्हाका सोबीत दिसूं लागलें; पूण म्हजे बायलेक दुबाव आयलो. एक दिस तिणे म्हाका उलो माल्लो...

‘ आयकलां... ?’ ही बायलांची आपल्या घोवाक उलो मारपाची रीत बेठेंच कांय सांगनासतनाच ‘ आयकलां’

‘ कितें म्हणटा, अशें बी म्हणपाचें नासता. देखून हावें मुकाट्यान

‘ कितें ?’ अशी जाप दिली.

‘ ह्या मोगरूची चिन्ना म्हाका बरीं लागनात !’

‘ मोगरू कितें म्हणटा ? लिलावती म्हण. आनी कितें जालां ताका वायट चिन्ना दिसपाक ?’

‘ हे दिसांत आंगान उडदां पिठी कशें गरगरीत भल्लां ! पळयलां ?’

‘ देखून हांव ताका लिलावती म्हणटां. कितें जालें आंगान

| | वळ | अशें वाचचें |
|---|---|---|
| | | भल्ल्यार ? वाडटे आंगाचें पोर तें. पोरा पोटभर पट्टा. सुक_ळां मात्शें ! तुमकां बायलांक रोकडोच दुबाव येता\| ’ मागी· बायल थोडे दिस वगी जाली. दोन तीन दिस अशेच ले आनी परतुनय ठेक्या आयली. ‘ आयकलां ?’ ‘ कितें ?’ ‘ तुमी कितेंय म्हणात, पूण हीं चिन्ना घडाचीं न्हय ?’ ‘ अगो कितें जालां ?’ ‘ काल मोगरू ओकपाक लागलें !’ अशें बायलेन सांगतच हांव मात्सो शिटकावलों. पूण देफेत दाखयलो ना. एकदम आपलें |
| ८६ | १९ | देवू |
| ८६ | २० | ‘ हांव ’ हो शब्द वाचचो न्हय |
| ९१ | २० | ‘ आमी ’ हो शब्द वाचचो न्हय |
| ९३ | २१ | वेडायल |
| ११६ | २ | आतां |
| ११६ | ३ | दात्या पावां माळ |
| ११८ | ९ | नाड |
| १३४ | ३ | शेंडये घांट |
| १३५ | १६ | ‘ भायर ’ ह्या शब्दावाटच्याचें ‘ शिश्याक ’ अशें वाचचें |

□ □

